BIMB Sept 2019 / Vol 18 / ISSUE [illegible] / Panaji Goa POSTAL LICENCE NO. G-2/RNP-GOA/01/2018-2020 Published on 1st and Posted on 5th & 10th day of every month RNI Regd. No. GOA KON/2008/30413

मोल : ₹ 50/-

# बिम्ब

मासिक

सप्टेंबर २०१९

चवथ विशेशांक

## अॅमेझॉन जळटा तरी धतरेवयलो मनीस फिडल वाजयता.....!!

विकास काय पर्यावरण? हो विशय
१९७२ वर्साच्यान पयले खेप संवसारीक पटलाचेर
चर्चेक आयलो.४७ वर्सां उपरांतूय ताजी जाप सांपडना
आमकां चडिल्ली 'विकासा' ची नशा
आनी राजकीय इत्साशक्तीचो अभाव
हेंच हाजे फाटलें कारण

# कोंकणी मासिक बिम्ब

## 18 वें वर्स



**BANK DETAILS :**
The Saraswat Co. Op. Bank Ltd.
Branch : Panaji Goa
IFSC Code : SRCB 0000071
CA A/c. No. : 071100100000793

वर्स : 18 अंक : 9
सप्टेंबर २०१९
मोल 50 रुपया

**मुखेल संपादक**
दिलीप बोरकार

**पालवी संपादक**
मानसी धाऊस्कार

**मुद्रक आनी प्रकाशक**
दिलीप बोरकार

**छापणावळ**
इम्प्रेशन्स, बेळगावी

**वर्गणीचे दर**
वर्सुकी 400 रू.
3 वर्सां 1100 रू.
खंयच्याय म्हयन्यासावन वर्गणीदार जांव येता. वर्गणीचो चेक Bimb monthly ह्या नांवान धाडचो.

**संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो :**
'धर्मलक्ष्मी', सांत लॉरेन्स,
आगशी-गोंय, 403204
दूरध्वनी: 0832-2438355
ई-मेल :
bimbkonkani@yahoo.co.in

# सगळ्यांक चवथीचीं हुनहुनीत परबीं...

## संपादकीय



म्हयन्याच्या आरंभाकूच जर चवथी सारखो गोंयकारांचे आवडीचो सण आयलो जाल्यार ताजे कडेन आहनदर करून मुखार वचप आमकांय पुटवंचेंना आनी वाचप्यांकूय तें खटकतलें. कांय जाणांक दिसूं येता, हांकां देवाचें मात्तूय पडून गेल्लें ना काय? वेदे व्हडले चवथीक मात्तूय सुवात ना काय हांच्या अंकांत?तातूंत आनी गणपती म्हळ्यार बुध्दीची,गिन्यानाची देवता. म्हणटकच आमकांय तशेंच दिसता. देखून निदान आमच्या वाचकांक चवथीचीं परबीं भेटोवप, तींय सादीसुदीं न्हय तर सामकीं हुनहुनीत हें आमचें कर्तव्य थारता.

चवथ दर वर्सा एकदांच येता. चवथी विशीं बरोवपाची संद तेच पासत आमकां वर्सातल्यान एकदांच मेळटा. वर्साचे हेर इकरा म्हयने किर्ते ना किर्ते प्रासंगीक समस्या येवन येताच. तांची दखल घेतली ना जाल्यार आमकां मात्तूय सामाजीक भान ना, अशेय आरोप चुकनात. म्हणटकच जें बरोवन कांयच फायदो ना वो गेंड्याचे कातीचेर तांचो कसलोच परिणाम जावपाची शक्यताय ना हाजें पुराय भान बाळगून आमी आमचीय कात वाटावपा खातीर तेच विशय झरयतात. समाजाक जातूंत कसलोच रस ना ते विशय सामाजीक फुडुरुत्थानाच्या नांवान सांसपुाचो आमचो हो प्रयत्न आसता हाजेंय भान आमकां आसा.

आमचे आशिकुशीचें एकंदर राजकीय आनी सामाजीक जीवितूच इतलें लाचार जाल्लें नदरेक पडटा, ताजेर किर्तेंय बरोवंक गेल्यार ही आमची सदचीच रड अशें आमकां समाजांतल्या कितल्याच रुपण्यांचेर दिसता. तातूंतल्यान कोणा कडल्यानूच तिडकीची जावं 'हाणें सारकें बरयलां आं!' अशी प्रतिक्रिया आयिल्लीय आमकां दिसना. म्हणटकच चवथीच्या उमेदीच्या काळांत तीच सदची पिरपीर नाकाच अशें आमकांय दिसल्यार ताका येवकारूच मेळूं येता.

गोंयकारांक चवथीचीं हुनहुनीत परबीं भेटोवपाक आमचे लागीं खूब रजांवां आसात. पयलें रजांव म्हळ्यार चवथ हुंबऱ्यार तेंकिल्ली आसतना गोंयांत इतलो उटांगराचो पावस झडलो जाका लागून पुराय गोंय बुडून गेलें. कमरा मेरेन पावता इतलें उदक गोंयांत भरलें,जें हे





आदीं कोणेच पळोवंक ना. चवथीचो उत्सव हो पिकावळीचो उत्सव. चार म्हयने कश्ट उसपून जेन्ना पीक वयर सरता तेन्ना ताजी खोस मनोवपा पासत,मातयेक दिनवासपा पासत, मातयेचो गणपती करून ताजी पुजा करतात. पूण हेच पिकावळीचेर ह्या पावसान उदक रकयलें तें जालेंच,त्या भायर ती संपुर्णायेन मातयेकूय लायली.

खरें म्हळ्यार हें वेदें व्हडलें अरिश्ट चवथीच्या तोंडार आयिल्लें आसतना शेतकारांची 'कंबरडें मोडटा' म्हणटा तशी परिस्थिती जावंक जाय आशिल्ली. सरकारान वा सरकारच्या सैमीक अरिश्ट वेवरथापनान वेळारूच हे यहणुकेची दखल येवंक ना म्हूण गोंय कमरभर उदकान बुडलां म्हणपाची जाणविकाय ह्या अरिश्टांत सांपडिल्ल्या लोकांक जावपाक जाय आशिल्ली. आमचें उबें पीक अशें उदकांत वचपाक जापसालदार कोण हाजी चवकशी जावंची आनी जे कोण जापसालदार आसात तांच्या बोल्सांतल्यान हें लुकसाण भरून दियात म्हणपाची मागणी ह्या लोकां कडल्यान जावपाची गरज आशिल्ली. ही जी बुट्टी आसा ती हेच वर्साची काय दर वर्सा गोंयांत आमकां असलेच परिस्थितीक फुडें करचो पडटलो, तातूंतल्यान साल्वार जावंक आमी किर्ते उपाय येवपाची गरज आसा? अशे प्रश्न एका मुखान संबंधीतांक विचारपाची ह्या पिडेस्त लोकांची जापसालदारकी आशिल्ली. पूण तांची सगळी शक्त तांणीं लुकसाण भरपावेचे मागणे पासत वापरली आनी सरकारान तांचें जाल्लें लुकसाण अदमासान समजून घेतलें. तांकां चवथी आदीं लुकसाण भरपाय दितले म्हणपाचें उत्तर दिवन ताका पाळोय दिलो. ते पासत जांकां जांकां लुकसाण भरपाय मेळळ्या त्या सगळ्यांक चवथीचीं हुनहुनीत परबीं फावता. सणाच्या दिसांनी जांचीं बोल्सां गरम जाल्यांत तांकां आमच्या शुभेच्छाची हुनसाण म्हत्वाची नासतूय! पूण ते आमची भावना समजून घेतले हाजी आस्त आसा.

जांचें पीक उदकांत वचून लुकसाण जालां तशेंच सर्वसामान्य लोकांच्या घरांत उदक वचून तांच्या घराच्यो वणटीय कोसळळ्यात तांकांय लुकसाण भरपाय मेळ्ळ्या जावंक जाय. तांकांय आमचीं हुनहुनीत परबी. पूण जांच्या घराचें लुकसाण जावना तरी तांचीं घरां धोंपरभर चिकलान भरल्यांत तीं जिवाच्या आकांतान लिंप करून चवथी खातीर तयार करप हीय एक सामाजीक आपत्ती. पूण हे आपत्तीक लुकसाण भरपाय दिवपाची कसलीच तजवीज ना. वयल्यान चवथीक घरांची सजावट करतातूच न्हय तुमी आपल्या खर्चान तशीच करात हे वर्सा अशें आमचें लोकप्रिय सरकार नक्कीच म्हणटलें. तेन्ना ह्या लोकांक आमी चवथीचीं हुनहुनीत परबीं दिलीं तर तांच्या घायांचेर दाग दिवपा सारकें जातलें. म्हणटकच तांचे पासतचीं हीं हुनहुनीत परबीं आमी सरकाराक भेटयतात.

सरकार आर्थिक नदरेन खांकनवाळ जाला हाजी कल्पना आमकां आसा. तरी दर आठ दिसांनी रोखे पावणेर काडून खर्च भागोवपी सरकारान तातूंतल्यानूच लुकसाण भरपाय दिवपाचें मेठेपण दाखयलें देखून सरकाराकूय चवथीचीं हुनहुनीत परबीं.

आतां प्रश्न आसा आमचे सारख्या सामान्य लोकांचो. सरकाराच्या धोरणांक अपेश येवन जीं किर्ते अरिश्टां येतात तांकां आमच्या करांतल्यान ही सगळी लुकसाण भरपाय चलता ती पळयत जाल्यार आमच्या गिरेस्त मनाकूय चवथीचीं हुनहुनीत परबीं फावतात. तीं परबीं फचोवंक गणराया आमकां बुध्द आनी शक्त दी..

# जैताचो खरो वांटेकार कोण?




महाभारत म्हळ्यार कौरव पांडवालें झूज हे नदरेंतल्यान आमी चडशे जाण ताजेकडेन पळयतात. पूण ह्याच महाभारतांतल्यान आमी खूबश्यो गजाली जाणून घेवंक शकतात. महाभारत काळांत श्री कृष्णाचो वावर खूब जाला. समाजांत वायट आनी पाडे बुद्धीचे लोक त्या काळांतूय आशिल्ले. लोकांक तांचे पसून खूब त्रास सोंसचे पडटाले. असल्या लोकांचो नायनाट करपाचो जणू तांणीं विडोच येतिल्लो. नरकासूरान हजारांनी बायलांक आपल्या राजसत्तेच्या बळार कैद करून दवरिल्ल्यो. जरासंध शिशुपाल कंस हांणी एकामेकांच्या संगनमतांतल्यान श्रीकृष्णाकडेन दुस्मानकाय केल्ली. खंयचे तरी आकाशवाणी वा भविश्यवाणीच्या आधाराचेर तांणीं आपली भयण देवकी आनी तिजो घोव वासुदेव हांकां बंदखणींत दवरिल्लीं. दोगांयचो कांयच दोश नासतना. फक्त त्या दोगांयचो आठवो भुरगो आपल्याक मारून उडयतलो ह्या भंयान. हाका लागून ताका तांचीं सात भुरगीं जाताच मारून उडोवपाची गरज नाशिल्ली. ती आपलेच भयणिलीं भुरगीं. पूण मुळांतूच वायट विचार , वायट चाली हांच्या वरवीं मनशांची यहणूक जाता त्या मनशाक संयम कसो आसतलो? समाजांत शांतताय तिगून उरपाक असले प्रवृत्तीचे मनीस उरूंक फावना. ताका लागूनच श्रीकृष्णान कंस आपलो मामा आसूनय ताका जितो मारलो.

असोच शिशुपाल,श्रीकृष्णाच्याच नात्याचो जल्माक येतनाच तकलेर एक मणी घेवन आयिल्लो. भविश्यकारान सांगलें जाचे नदरेंत हो मणी झडटलो ताच्याच हातान ताका मरण येतलें. फुडें श्रीकृष्णाचे नदरेन तो झडिल्लो. जालें! थंय सावनच शिशुपाल श्री कृष्णाकडेन दुस्मानकाय पाळूंक लागलो. ताजे आवयनूच त्याच भविश्यकाराच्या भरवंशाचेर श्रीकृष्णाक म्हळें ,'तुगेलोच सोयरो तुवेंच राखपाचो.'

श्रीकृष्णाक तिका दुखोवप बरें दिसूंक ना. तसो ताका मारपाचो आपल्याचेर प्रसंगूच आयल्यार ताजे शंभर अपराध आपूण भोगशीन. आगळीक करताना हें उतर मतींत दवरपाक सांग शिशुपालाक. जरासंध आनी कंस हांचें नातें. श्रीकृष्णान कंसाक मारलो म्हूण जरासंधाली श्री कृष्णा कडेन दुस्मानकाय. ताज्या राज्याचेर तांणें घुरी घालपाक सुरवात केली. हो जरासंध जल्माक येतना उजवें आनी दावें अशा वेगवेगळ्या दोन आंगांनी जल्माक आयलो. पूण जरा नांवाचे देवीन तीं दोनूय आंगां सांधून ताजें एक आंग केलें. हो खूब बळीश्ट जाल्लो. तशेंच मोठें कारण आसले बगर ताका जितो मारप श्रीकृष्णाक योग्य दिसलें ना. पूण ताका ना करपाकूच जाय. तांणें एक युक्ती केली. एक दीस श्रीकृष्ण, भीम आनी अर्जुन साधुच्या वेशांत जरासंधाच्या म्हऱ्यांत गेले. साधू म्हणटकीर जरासंधान तांचो आदर सत्कार केलो. येवपाचें कारण विचारलें. 'तूं खूब बळीश्ठ म्हूण तुका खूब गर्व जाल्लो आसा. आमच्या तिगां भितर युद्धाचें आव्हान तूं कोणाकडल्यान स्वीकारशी? जरासंधाचो अहंकार तें आयकून दुखावलो. तांणें थोडे गुर्मीतच श्रीकृष्णाक म्हळें, म्हजेकडेन युद्ध खेळणारो तुमचे भितरलो सादारणसो एकटोच दिसता.' तो भीम आशिल्लो. श्रीकृष्णाकूय तेंच जाय आशिल्लें. जरासंधाक मारपाक भिमा सारको ताकदवानूच जाय हें श्रीकृष्णान हेरिल्लें. भीम आनी जरासंध हांचे मदीं युद्ध पेटलें. तें पळयत आशिल्ल्या श्रीकृष्णान एका तणाची काडी घेवन ती उब्बी चिरली. भिमाक कळून आयलें जरासंधाक कसो मारपाचो तो. तांणें ताजे पांय वयर आनी तकली सकयल करून, दोनूय पांयांक धरून उब्बो पिंजलो. तांचीं दोनूय आंगां दोनूय वटेन उडोवन दिलीं. मात तीं परतीं एकामेकाक जोडलीं. अशें जायत रावलें. भीम खरशेलो. निमाणें श्रीकृष्णान आनी एक काडी पिंजून काडयेचें उजवें अर्द दावे वटेन आनी दावें अर्द उजवे वटेन उडोवन भिमाक सुचीत केलें. ते सुचवणे प्रमाण तीं आंगाचीं अर्धां परतीं सांधूंक शकलीं नात. अशें केल्ल्यान जरासंधाक मरण आयलें.

फुडें राजसूय यज्ञा वेळार सभेक जमिल्ल्या आमंत्रितां भितर सगळयांचे नदरेंतल्यान सतपात्र मनीस म्हण श्रीकृष्णाची निवड केल्ल्यान शिशुपालाक राग आयलो आनी ताका गाळयो मारपाक लागलो. श्रीकृष्ण आयकून घेत रावलो. कारण ताका आपल्या उतरांची याद आशिल्ली. पूण शिशुपालाच्या एकशे एक अपराधां वेळार आपलें सुदर्शन चक्र ताजेर सोडून ताजो गळो कापून उडयलो अशे तरेन कंस जरासंध शिशुपाल, नरकासूर हांकां तांणें काबार केले.

कौरव-पांडवांच्या झुंजा वेळार कौरवांचे वटेन शंभर कौरव-महारथी भिष्म, द्रोणाचार्य, कृपाचार्य, कर्ण अशें एका परस एक मोठे झुजारी आशिल्ले. दुर्योधनाच्या दराऱ्यान चिड्डल्ले खूबशे राजे आपल्या सैन्या सयत तांचेच वटयां वळिल्ले. खुद्द श्री कृष्णाचें यादव सैन्यय ताकाच मेळिल्ली. ते भायर हस्तिनापुराची सत्ता तांच्याच हातांत आशिल्ली. पूण पांडवांचीं बाजू त्या मानान कमीच. ते भायर पांडवां कडेन कसलीच सत्ता नाशिल्ली. झुजाक कौरवांचेंच जैत जावपाची परिस्थिती आशिल्ली. पूण तांचे वटेनची जमेची बाजू म्हणजे श्रीकृष्णाचें पांडवां वटेन आसप. श्रीकृष्ण म्हळ्यार कोण,



ताजें कर्तृत्व कितें हें पांडव सोडूच, पूण भिष्म, द्रोण, कर्ण हांकां खबर आशिल्लें. दुर्योधन मात श्रीकृष्णाक पुराय वळखूंक शकलोंना. आपले वटेन झुंजपी व्हड व्हड झुंजारी आनी पांडवां परस खूबशे सैन्य हे गुरमेंतूच उरले. जेन्ना तो आनी अर्जून श्रीकृष्णा कडेन मदत मागपाक गेले तेन्ना ताका तार्णे सांगलें, 'तुमकां कोण जाय तें सांगात. आपूण काय आपलें पुराय यादव सैन्य? तुकां एकल्याक दवरून आपल्याक कसलोच फायदो जावचोना. ते परस तुगेलें सैन्यच दी.' दुर्योधनान म्हळें. उलट अर्जूनान 'आपल्याक फक्त तूंच जाय' अशें म्हळें. झूज जांवचे पयलीं श्रीकृष्णान खूबशे बाबतींत पांडवांची फाटराखण केल्ली.

झुजाक उबो राविल्ल्या अर्जुनाक आपल्या मुखार सगळे सोयरे पळोवन,हांकां मारून आपल्याक कसलें सूख लाबतलें अशें दिसलें आनी तार्णे आपलें धनुष्य आडवें दवरलें.कृष्णान पयलींच घोशणां केल्ली,आपूण शस्त्र हातांत येवंचो ना. फकत अर्जुनाचो सारथी म्हण रावतलों.कितें आसत ताजो हेतू अशी घोशणां करपांत? हाजे वयल्यान अशें दिसून येता,पांडवांक जर युध्दांत जैत मेळ्ळें जाल्यार ताजें सगळें स्रय फकत पांडवांकूच मेळचें,आपल्याक लागून तें मेळ्ळें ना असो विचार हे गजाली फाटल्यान आसूं येता.

झूज म्हळ्यार झूज. थंय आपलो तुपलो कोण नासता. आपल्या सामकार जो कोण शस्त्र उगारून रावला तो आपलो दुस्मान,दुस्मानाक दुस्मानपणाचीच वागणूक दिवपाक जाय हें त्या काळाचें तत्वज्ञान आशिल्लें जावंक जाय.

श्रीकृष्ण होच महाभारत झुजाचो खर्या अर्थान फुडारी आसुनय,सारथी आसुनय ताजें स्रय तार्णे घेतलें म्हणपाचें खंयच दिसून येना. पूण ताजी झुजा नीती पळयत जाल्यार तार्णेंच हें झूज घडोवन हाडलें आनी तार्णेच पांडवांक आपली रणनिती वापरून जैत मेळोवन दिलें अशेंच दिसून येता

श्रीकृष्ण फुडाराच्या घडणुकांचेर बारीक नदर दवरून आसतालो. दुर्योधन हो सामको लोहपुरूस म्हणपाचें तार्णे पारखिल्लें. गांधारीन दुर्योधनाक आपले सामकार नागडो येवपाक सांगलें तेन्ना ताजे फाटलो हेतू श्रीकृष्णान पारखिलो आनी आवय मुखार वचपाक जेन्ना दुर्योधन भायर सरलो तेन्ना फुलांच्यो माळो घेवन वाटेर रावलो. आवयन नागडो आपयला हें खरें,पूण नागडो म्हळ्यार असो उगड्या कमरान न्हय. तूं असो वचत जाल्यार लोक कितें म्हणटले? तुजीं फकांडां मारचे नात? अशी मखलाशी करून श्राकृष्णान ताका गांधारी सामकार वतना कमरेचेर त्यो फुलांच्यो माळो धरपाचो सल्लो दिलो. दुर्योधनान तेंच केलें. जेन्ना गांधारीन ताका पळोवपा पासत आपल्या दोळ्यां वयली पट्टी एकदांच काडली तेन्ना तिजे नदरेचे शक्तीन दुर्योधनाचें जितलें उगतें आंग पळयलें तितलेंच सशक्त जालें. फुलांक लागून कमरेचो भाग तिजे दृष्टीक पडलो ना. तें आसा तशेंच उरलें. फुडाराक दुर्योधनाक मारपाक तेच अशक्त




कमरेचेर वार करपाक श्रीकृष्णान भिमाक सांगलें. नातर दुर्योधनाचो पराभव करप कोणाकूच शक्य जावपाचें नाशिल्लें.

म्हणटकच सांगपाचो मुद्दो म्हळयार ह्या सगळ्या गजालींचें सार लक्षांत घेतल्यार अशें दिसता, महाभारताचें जावं वा आनीक खंयचेंय झूज जावं तातूंत जैत आपले तांकीचेर जायना तर ताजे फाटले येवजणेचेर आसता. श्राकृष्णा सारखो सारथी म्हळ्यार मार्दर्शक लाभलो देखूनच उणे संख्येन पांडव आसतनाय तांकां जैत लाभूंक पावलें.

तेन्ना ह्या झुजाच्या जैताचो खरो वांटेकार कोण हो प्रस्न सासणाचो उरतलो.



**- नरसिंह प्रभू गांवकार**
काणकोण-गोंय

---

## दिवाळी अंकाक साहित्य धाडप्यांक सुचोवणी

**कृ.म. सुखठणकार हांचें नारंगां आनी सुरसुरीं, दिलीप बोरकार हांचो बोरकारीखंड-३ आनी 'बिम्ब' दिवाळी अंकाचें लोकार्पण वर्सुकी 'हास्यबिम्ब' सुवाळ्यांत १९ ऑक्टोबर २०१९ हे दिसा वर्स पध्दती प्रमाण जातलें. बिम्ब दर्जेदार येवंचो अशी सगळ्यांचीच अपेक्षा आसा. तांची अपेक्षा पुराय करप हें बिम्ब परिवाराचें कर्तव्य. ते पासत दर्जेदार साहित्य बिम्ब दिवाळी अंकांत उजवाडाक येवंचें अशें सगळ्यांकूच दिसप साहजिकच आसा. आमी त्याच साहित्याची वाट पळयतात. बिम्ब २०१९ आमी विनोदी साहित्या पासत दवरतात. आयज मनशां भितरली सोसणिकाय दिसानदीस उणी जावत वता. ताजेर एकूच उपाय म्हळ्यार विनोद. देखून समाजांत विनोद तगून आसा काय कितें हाजो शोध घेवपाचो एक प्रयत्न ह्या निमतान आमी करूंक सोदतात. तुमच्यो विनोदी कविता,तुमचीं व्यंगचित्रां आनी विनोदी लेख, कथा साहित्य आमकां २० सप्टेंबर २०१९ मेरेन पावता तशें धाडचें. तुमचे जिर्णेतलो खळखळून हांसपाचो,भळभळून रडपाचो आनी चुळचुळून मुतपाचो एखाद्रो प्रसंग उण्यात उणे ३०० उतरांनी धाडूं येता.**

**- संपादक**








## जावं बरें जालें !!

वस्तु संग्रहालय मंत्र्यांक राज्याचें पुराणवस्तु संग्रहालय पळोवपाची कूय आयली. आपल्या पेद्यांक आशिकुशीक घेवन तो संग्रहालयांत पावलो. मंत्री संग्रहालयाक भेट दिवंक येता म्हण्टकच संग्रहालयाच्यो संचालिका मंत्र्यांक संग्रहालय दाखोवपाक जातीन हजर आशिल्ल्यो. आपणें संग्रहीत केल्ल्यो गजाली मंत्र्यांचे नदरेक पडच्यो आनी राज्याचें संग्रहालय कितलें गिरेस्त आसा हें कळचें हो संचालिकेचो हेत आसलो.

बऱ्योच गजाली दाखोवन जातकच संचालिका मंत्र्यांक खास दालनांत घेवन गेल्यो जंय अती म्हत्वाच्यो वस्तू मांडिल्ल्यो. तांचेर नदर मारीत,लोकांच्या अभिवादनाक हात दाखयत भोंवपी मंत्र्यांचो धक्को एका पुतळ्याक लागलो आनी तो सकयल पडून खळळ करून फुडलो.

संचालिकेचेर आकांत. मंत्रीसायबाक आपली धांदल कळळी ताणें त्या फुटिल्ल्या पुतळ्या कडेन पळोवन 'सॉरी सॉरी'केलें.

'सर, तीन हजार वर्सां पोरणी वस्त ती..!'

'अशें? मागीर कांय नज.. म्हाका दिसलें नवीच काय म्हूण!'आपल्या बुटाच्या पांयांनी तो पुतळो कुशीक सारीत मंत्रीसायबान बुटांवयलो धुल्ल पांय आपटून फाफडून उडयत म्हणलें.

## पोटांत आसा

कदबा बस सामकी चिक्कार भरिल्ली. बसपाक सोड धड उबो रावपाकूय सुवात नाशिल्ली. बस सुटपाक आसा म्हळयार तेच बसींत एक बायलमनीस आपल्या माणकुल्या भुरग्याक घेवन भितर सरली. तिणें बायलां पासत रिजर्व आशिल्ल्या सिटाचेर नदर मारली. थंय एक लग्न जाल्ली तरनाटी बशिल्ली. ती आपल्याक उठून ,सुवात दितली अशें येवजून बायलमनीस भुरग्याक घेवन तिज्या म्हऱ्यांत गेली. बरोच वेळ आशाळभूत नदरेन तिजेकडेन पळोवनूय तरनाटेन आडनदर केल्ल्यान शेवटाक ते बायलमनशेन तिका म्हणलें,'हे चेडवा म्हाका बसोंक सुवात दी मगो!'

' कित्याक? ही सुवात बायलां खातीरूच रिजर्व आसा.'

'हांव जाणां गो बाय. पूण तें ल्हान भुरगें आसलेले आवय बायले पासत रिजर्व आसा न्हय? '

'आगे तशें म्हजेय कडेन भुरगें आसा. '

'कित्या फट उलयता गो बाय? भुरगें आसल्यार तें दिसपा नासलें?'

'हांव कित्याक फट उलयतलें? हें पळय भुरगें पोटांत आसा स म्हयन्यांचें. वळखूंक येता मगे तुका?' आपलो पदर कुशीक काडून तिका आपलें पोट दाखयत ते तरनाटे चलयेन म्हणलें.

गर्देंत चिड्डून उबे राविल्ल्या लोकांच्याय तोंडार खूक्क करून हांसो फुटलो.

## दुप्पट इंटरेस्ट

याणेकाराक आर्दीं साकून डिटेक्टीव कादंबऱ्यो वाचपाची भारी आवड. मेळटा ती कादंबरी तो सोडी नाशिल्लो. पूण तो सदांच खंयचीय डिटेक्टीव्ह कादंबरी जावं मागीर वाचपाक आरंभ करतालो कादंबरीच्या मध्याक साकून.

संदेशाकूय डिटेक्टीव्ह कादंबऱ्यो आवडटाल्यो. याणेकारा कडल्यानच तो त्यो हाडून वाचतालो. एक दीस रावूंक जायना जावन ताणें याणेकाराक तार्जे अशें वाचपा फाटलें कारण विचारलें.

''तार्जे कितें आसता जाणां मरे संदेश,तुमी डिटेक्टीव कादंबरी वाचतना सुरवातीक साकून वाचूंक येतात म्हणटकच तुमची उत्सुकताय कादंबरीच्या शेवटा पुरतीच उरता. अशी मर्दी वाचूंक आरंभ केल्ल्यान शेवटाची उत्सुकताय आसताच. त्या भायर फुडलीय उत्सुकताय उरता. दोट्टी उत्सुकताय येवपाक कळपाक जाय''याणेकारान गंभीर जावन संदेशाक सांगलें.



शीर्षकथा



दिलीप बोरकार

कोंकणी आनी गोंय हांचे पासत ध्येयनिश्ठेन वावरत आयिल्ले दिलीप बोरकार ज्येश्ठ पत्रकार आनी नामनेचे साहित्यिक जावन आसात. तांच्या गोमाचल ते हिमाचल ह्या प्रवास वर्णनाक साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार लाबला.



# अॅमेझॉन जळटा तरी धर्तरिवयलो मनीस फिडल वाजयता.....!!

म्हज्या लागशिल्ल्या एका उच्च शिक्षीत इश्टान एक दीस खबरी करता आसतना म्हळें, 'दिलीपबाब, बिम्ब बरो येता. आमी सगळीं वाचतात. पूण म्हाका अंक पोस्ट करूं नाका. मेळटा तेन्ना हातान दी.'

हांवें म्हळें, 'आरे आमी चुकून मेळटात केन्नाय. पोस्टांतल्यान धाडप बरें. आज ना फाल्यां मेळटलोच हाजी खात्री आसा.'

'तशें जाल्यार म्हाका अंक प्लास्टीक पोतयांतल्यान धाडूं नाका. आदीं जसो कागदाच्या रॅपर्सांत गुठलावन धाडटालो तशे धाड.' इतलें उलोवन तो थारलो ना. म्हणूंक लागलो,'दिलीपबाब,आमीच प्लास्टीक बंद करपाक फुडाकार घेवपाची वेळ आयल्या.'

इश्टाची सांगपाची पध्दत मवाळ आशिल्ली. ताणें 'आपल्याक अंक प्लास्टीक पोतयांतल्यान धाडूं नाका, आपल्याक पसंत ना' अशें सांगूं येतालें. म्हजो, बिम्ब मासिकाचो मान राखपाक ताणें आपल्या कुटुंबाचो घरंदाजपणा वापरलो. हांवें ताजें सांगणें मनार घेतलें आनी फाटल्या तीन म्हयन्या साकून अंक खाकी कागदाच्या रॅपर्सांत गुठलावन धाडपाक आरंभ केलो. त्या रॅपर्साचेर एक घोषवाक्यूय बरयलें,'प्लास्टीक टाळात,धर्तर वाचयात'. अंक पोस्टांत घाले. कितल्या लोकांक पावले खबर ना. पूण खूब जाणांच्यो तक्रारी मात पावल्यो, आपल्याक अंक पावूंक ना म्हूण.

म्हजो निर्णय भावनीक आशिल्लो. तो वेव्हारी निखालूस नाशिल्लो. जुलाय म्हयन्या साकून हांवें 'प्लास्टीक टाळात, धर्तर वाचयात' हें मिशन आरंभ केल्लें आनी त्याच म्हयन्या साकून पावसान आपलें रुप दाखोवंक्य आरंभ केल्लो. ह्या दोन म्हयन्यांत गोंयांत जो पावस रकला त्या पावसांत 'बिम्ब' ज्या खाकी कागदी रॅपर्सांत गुठळायल्ले ते रॅपर्स बलात्कारी पावसा कडल्यान जावपी जबरदस्तीतल्यान बिम्ब मासिकाचें वस्त्रहरण खंयचेच परिस्थितींत आडावंक शकले नात. तेच वांगडा त्या मासिकाचें लज्जा रक्षण करपाची वा सुखरूप ताज्या धनयाकडेन पावोवपाची जापसालदारकी ज्या पोरटमनरुपी श्रीकृष्णाकडेन सोंपयल्ली तांणीं वस्त्रपुरवण करपाची सोडाच, तें मासिक तयार करपा पासत कोण तरी तकालस घेतात आनी कोण तरी वाचक दोळ्यांत प्राण हाडून ताजी प्रतिक्षा करतात म्हणपाचें भान लेगीत दवरलें ना. तरी लेगीत दोन अंक अशे अवस्थेंत परत आयले, जांकां फक्त बिम्ब म्हणून हांवच वळखूंक शकतालों. ते हांवें कोणाक धाडिल्ले, कोणाक पावले नात हें वळखप काळखांत सूय सोदपा इतलेंच कठीण आशिल्लें. मागीर जांचे जांचे फोन आयले तांकां वेवसायीक दरान पोस्टेज लावन अंक पावते करचे पडले.

आदींच थोडें तातूंत वेयान धाडलें थोडें असलो हो प्रकार पहिल्ल्यान मुदलांत मुदल गेली वयल्यान जुरूय फारीक करची पडली अशी म्हजी गत जाली. हो सगळो प्रकार घडटा आसतना सरसकट जिवितांत सगळें वेवस्थीत चलत आशिल्लें. म्हाका गोंयच्यान, महाराष्ट्र आनी वाराणसी साकून दर म्हयन्याक पांच-स नेमाळीं येतात. सगळे म्हाका नेमाळीं धाडटात ते प्लास्टीक पोतयानीच धाडटात. तांच्या मनाक केन्ना खालें ना काय आपूण करता तें पर्यावरणाचो इबाड करपी म्हूण..! हालींच हांवें एक रॅक घेतिल्लो. ताजे लोखणाचे वयर कसलें तरी कोटींग आशिल्ले खुंटे इतल्या पातळ प्लास्टीकान रेवडायल्ले, ताजे मुखार नुरत्या पासत बी वापरतात आनी सरकार दर स म्हयन्यांनी बंदी बंदी म्हूण आड्ता त्यो पोतयो तरी कितल्योच दाट आसतात. वॉशिंग मशीन घेतिल्लें नवें ताकाय असल्याच प्रकारचें कितलेंच प्लास्टीक. हें फक्त म्हज्या मोगाक लागून तांणीं म्हाकाच धाडलां अशें न्हय. ते दिसपट्टे कितल्याच लोकांक आपलें वेगवेगळें सामान धाडटात. वस्तू जितल्यो म्हारग तितली तिका राखण चड. खंयीय खरचटून जर तिका मात लेगीत खरवडत जाल्यार तांचें हजारांनी रुपयांचें लुकसाण जाता. ते पासत तांकां भोव जतनाय घेवंची लागता. हांगा प्रदुशण जातलें, पर्यावरण इबाडटलें असल्या भावनीक गजालींक वेंग मारून रावल्यार तांचें लुकसाण कोण भरून दिवपाचे नात. हो वेवसाय, धंदो म्हळ्यार आकांताळी सर्त. ही जिखतलो जाल्यार जो कोण येनकेन प्रकारेण सगल्यांत मुखार रावता तोच सिकंदर थारता. प्रत्येक जाण आयज सिकंदर जावपाचे सर्तींत देंवला वा ताका कोणें तरी धुकलून घाला. म्हणकच हे सर्तींतल्यान तार्णे भावनीक गजालींक बळी पडून फाटीं सरप काय जिवाच्या आकांतान फाटीं पळयनासतना फुडें फुडें धांवत रावप हो दरेक मनशा मुखावयलो प्रस्न आसा. आपलें अस्तित्व तिगोवपा पासत, जें अस्तित्व फकत दुडवांचेरूच उरें आसा असो समज करून जाणीं घेतला तें तिगोवपा पासत ही सर्त चलत आसा. अशे हे सर्तींत हांवेंय देंवप काय भावनीक उद्रेकाचे भकीक पडून व्यक्तिगत लुकसाण करून घेवप?

म्हाका एसी मात्तूय चलना. म्हाका फ्रेश ताजी हवा आवडटा. म्हजो गांव जुवारे न्हंयचे देगेवयलो. माडांनी कुचकुचीत भरिल्लो, शेतां भाटांनी अयस पयस पातळिल्लो. जनेलां उगतीं उडोवन न्हिदून सोडपाचें माया म्हयन्यांत. नाका पंखो, नाका एसी. जुवारी न्हंयें वयल्यान अरबी म्हालसमदिरांतल्यान आयिल्लो वारो ताजे देगेवयली रुखावळ तो शितळ करूनच गांवांत सोडटा. ह्या वाऱ्याचेर कितल्योच पिळग्यो भलायकेन भरिल्ल्यो खुशालकायेन जियेल्यो. तांकां जाली ना केन्ना गरमी ना खालें ना शीं.

पूण जेन्ना गांवचे तरनाटे आपलो पारंपारीक वेवसाय सोडून चड दुडू जोडपाचे आशेन भायर गेलो आनी उपरांत खोंपी जाग्यार तांच्या सपनांतलें वो काम करता ते सुवाते वयलें, आपूणय असलेंच घर बांदतलों म्हणपाचें सपन पुराय करूंक खोंपी सुवातेर गरज ना इतलें व्हडलें घर बांदलें. तातूंत मागीर फ्रिज आयलो, मागीर एसी आयलो, गाडी आयली, तातूंतय एसी. गरजे परस अडेचें मोठेपण चड थारलें. ही लागण एकल्या पुरती मर्यादीत उरूंक ना. गांवभर फाफसली. हे उदरगतीचे क्रांतीक लागून गांवची शुध्द हवा गेली. अडेची थंडसाण हाडपा खातीर सरभोंवतणची हवा तापपाक लागली. ती तापिल्ल्यान म्हज्या सारख्याकूय थंडसाणे पासत एसी जाय पडूंक लागलो.

आयज ही प्रत्येकाची गरज जाल्या. तातूंत कोण गरीब, कोण गिरेस्त असो प्रस्न उरूंक ना. ह्या चक्रांत सांपडिल्लो आपल्याक ते गर्तींतल्यान कुशीक दवरूंक शकना. ते गतीचोच एक वांटो जावन स्वताक हे वेवस्थे मुखार समर्पीत करून उडोवंचो पडटा.



कोणूय म्हणटलो, दुसऱ्यान गोरूं मारलें म्हूण तूंय वासरूं मारतलो? म्हाका म्हजे व्याप उणे करपाक परत थोडो तेंप प्लास्टीकचो वापर केल्या बगर पर्याय ना अशें दिसलें देखून प्रदुशण नियंत्रण मंडळ आनी संबंधीत आस्थापनांक मेळ्ळों. जें प्लास्टीक पर्थून वापरूं येता म्हळ्यार रिसायकल जावं येता, जाचे पासून नव्यो वस्तू करून तें प्लास्टीक पर्थून पर्थून योळटीकेंत हाडूं येता ताजो वापर करूं येता. म्हणटकच हांवें भावनीक चिंतपाक बळी पडून शेळ्या आंगार फुग्गांव ओडून येतले तें तितलेंशें शाणेपणाचें न्हय. म्हणटकच हांवें आतां कितें करप? हांवेंय प्लास्टीकचो वापर सुरू करप, जो टाळूं येता?

हय हांव जें कितें करतां तें पळोवन जर आनीक कोणूय ताजी देख घेता आनी म्हज्या चिंतपाक तेंको दिता जाल्यार हांवें हें करप गरजेचें. पूण तसो समाज आज रावला? ना. आज असलो समाज उरूंक ना. आयज समाजांतलो दरेक घटक आत्मकेंद्रीत जाला. तो आपूण सोडून हेरांचो विचार करपाचे मानसिकतेचो उरूंक्च ना. ताज्यो संवेदना मरून गेल्यात. हें ताजें वागप समाजांतल्या हेर घटकां मेरेनूच पावूंक ना तर आपल्या घरा मेरेन पावलां. तातूंत ताजो आवय बापूयय आसात, भावभयणांय आसात. ताजे हयन्हयशे रूंदावल्ले कक्षेंत आसपावतात तीं ताजी बायल आनी भुरगीं. तांचे भायर हो घटक आनीक कोणाचेंच लावन घेना. पूण ह्याच घटकाचेर जेन्ना कसलेंय अरिश्ट येता तेन्ना आरड मारपाक आनी समाजा कडल्यान मजत हातासपाक होच घटक सगळ्यांत फुडें आसता. असल्या ह्या घटका कडल्यान आमी कसल्या विधायक वावराची अपेक्षा बाळगुपाची?

आमकां हेच मानसिकतेचो हो घटक खंयच्याय पुलार आपली स्कुटर वा गाडी थांबोवन घरच्यान हाडिल्लो कचरो पुला वयल्यान सकयल उदकांत शेवटीतना दिसतलो. महामार्गार गाडी उबी करून डिकींत भरून हाडिल्ल्यो पोतयो कोण ना सो पळोवन रासवळ सुवातेर उडोवन कूस मारतलो.गाडयेंतल्यान वता आसतना हारसो सकयल करून उदकाची रिकामी बाटली भायर शेवटीतलो, खंयच्याय मार्केटांत चार फळकारां कडच्यान चार फळांच्यो पोतयो, चार भाजयांच्यो चार पोतयो, दोन वा तीन तरांच्या नुस्त्याच्यो दोन वा तीन पोतयो अश्यो एकाच दिसा सात-आठ पोतयो घेवन मान वयर करून गर्देंतल्यान चलपी, पोती ना जाल्यार वस्तू घेना म्हणपी आनी हेरांक सगळ्यांक भिसक्यार मारपी ह्या घटकाक सुधारप तशें हाता भायलेंच काम. तेन्ना अज्ञानाक लागून म्हणा, मदांधपणाक लागून म्हणा वो दुडवांचे मारिल्ले मस्तेक लागून म्हणा तो प्रदुशणाचे दोंगर उबे करून गोंयच्या पर्यावरणाचो डुबाड करता आनी ताजे करणेचें पानवळ ताजे वांगडाच सरसकट सामान्य मनशाक भोगचें पडटा तेन्ना असल्या संवेदनहीन, आपसुवार्थी लोकांक वेळार नियंत्रणांत दवरपी आनी नियंत्रणांत येना जाल्यार कायद्यान ताज्या नाकांत वेसण घालपाची यंत्रणां निर्माण करची पडटली.

आतां प्रस्न पडटा ही यंत्रणा कोणें तयार करप? सरकारान काय जांच्या जिविताक ह्या असल्या घडणुकांक लागून धोको निर्माण जाता त्या समाजांतल्या जापसालदार नागरिकांनी? जें कितें चललां तें अशेंच चलूं म्हणत आपलें पुरतें पळोवप? ह्या सगळ्या प्रस्नाचो जापो आमकां जाता तितले बेगीन सोदच्यो पडटल्यो. ना तर आमच्या मुखार अर्थहीण मरण आपणावपा बगर हेर खंयचोच, कसल्याच प्रकारचो पर्याय फुडाराक उरपाचो ना. ह्या असल्या अपसरणांची नांदी फाटल्या म्हयन्यांत पुराय देशभर जाल्या आनी गोंयकारांकूय ताजो अणभव घेवंक मेळ्ळा. उटांगराच्या पावसाक लागून गोंयांत जी बुडटी आयली आनी कितलेच दीस कांय गांवांनी कमरे मेरेन उदक सांचून उरलें जाचीं कारणां सोदपाचो कोणेंच यत्न केलो ना. तीं सोदपाची गरजूय कोणाक दिसली ना. फुडाराकूय ही परिस्थिती







अशीच आसतली हेंय कोण निश्चितपणान सांगना. कित्याक हें सगळें गुडूलसांव आयजवेरच्या भ्रश्टाचाराचें. तें जनते मुखार मांडचे बदला ताका लागून ज्या लोकांचें लुकसाण जालां तांकां जनतेच्याच बोल्सांतल्या दुडवांनी लुकसाण भरपाय दिवन मेजावयलें केळें काडून सरकार साग्वाद जोडटा आनी आपली मतांची पोटली सांबाळटा.

म्हजो इश्ट माधव गाडगीळ तशेंच हेर जाणकारांच्या मता प्रमाण हें जें अरीश्ट कोंकण वाठारांत आयलें तो भारताच्या अस्तंत दर्यादिगे वयलो वाठार जातूंत गोंयचोय आसपाव जाता. हो दर्यादिग वाठार सामको अरुंद आनी ताजे उदेंतेक सह्याद्री पर्वतमाळेचो उतार तशेंच अस्तंतेक अरबी म्हालसमदीराची देग अशी हाजी एकंदर रचना जाल्यान सह्याद्रीच्या उतारा वयलो हिसपा भायलो पावस आनी त्या पावसाचें त्या प्रदेशांतलें उदक ह्याच वाठारांत व्हावन येता. थंयच्यान तें दर्यांत येता. पूण त्याच वेळार दर्याक जर भरती आयिल्ली आसत जाल्यार तें सगळें उदक ह्या अरुंद वाठारांत कांय वेळ सांचून रावता. मागीर सुकतेच्या वेळार तें दर्यांत व्हांवन वता. हें सैमीक चक्र कितल्याच काळा साकून अविरत चलत आसा.

पूण हालींच्या काळांत गोंयची लोकसंख्या बेसुमार वाडिल्ल्यान तांच्या राबित्या पासत जीं बांदकामां बिल्डरांनी सुरू केलीं ताका लागून ह्या सैमीक चक्राक बाधा आयली. हांगच्यो पाणथळ सुवातो ताणीं फुरोवन उडयल्यो, खारफुटी म्हळ्यार जांकां आमी इफ्ळींचें बन म्हणटात तीं कापून नानपयत केलीं आनी थंय भराव यालून ताजो वापर मोठ्या प्रमाणांत बिल्डिंगो उबारपा पासत केलो. ताका लागून बुडटेच्या काळांत उदक आसपावन येवपाची जी सैमीक तांक हे जमनी भितर आशिल्ली ती ना करून उडयली. दोंगरा वयल्यान वा वयल्या वाठारांतलें उदक व्हांवत सकयल येवन दर्यांत वतालें ताजी वाट म्हळ्यार व्हाळ, खळयो बी फुरोवन उडोवन तांचें अस्तित्वूच ना करून उडयलें. ते भायर मोठ्या प्रमाणांत ह्या लोकां कडल्यान प्लास्टीक आनी हेर घनकचरो तयार जावंक लागलो आनी ताजो विलो लावपाची सुवात म्हळ्यार ह्यो खळयो आनी व्हाळ म्हणपाचो समज करून त्यो भरून उडयल्ल्यान सैमीक आनी मानव निर्मित उदकाचो निचरो जावपाचे प्रक्रियेंत खंड पडलो. हाका लागून उदक व्हांवपा बदला तें सांचून रावपाक लागलें. अशे तरेन मानवी हस्तक्षेपाक लागून उदकाची सुवात मनशांच्या राबित्यान हातासली. हाकाच लागून उदकान मनशांच्या निवासांत घुसपाक आरंभ केलो.

म्हणटकच ह्या सगळ्या अवर्शणाचें मूळ म्हळ्यार आमचो कसलेंच नियंत्रण नाशिल्लो विकास. हांवें सुर्वेक म्हज्या गांवचो विकास थोडे भितर सांगिल्लो. त्या विकासान गांव कसो उध्वस्त जालो, गांव गांव उरलो ना तें सांगलें. पूण ह्याच विकासान आयज 'सब का साथ, सब का विकास' ह्या महाराकेसाचें रूप घेतलां. आयज वाहनान निर्मितीचो येदो व्हडलो उच्चाक गाठला कि तो उद्योगूच बंद करून उडोवपाचो वेळ पावला. ह्या उद्योगान जितल्यो गाडयो तयार केल्यो त्यो धांवपा पासत विकासाच्या नांवान जे रस्ते तयार जाले ताजे पासत देशांत विध्वंस माजयलो. अजून हो प्रोसेस चालू आसा. हे रस्ते तयार करपा पासत कोटयांनी हजार रुखां सरसकट कापून उडयलीं. गरज आसा थंय कापलीं आनी कापपाक दुडू मेळटात म्हूण गरज नाशिल्लींय कापून उडयलीं. कांय झाडां ह्याच निमतान कापूंक मेळटात म्हूण कापून तांचेर हिसपा भायर जोड राजकारण्यांनी आनी तांच्या पेद्यांनी केली. हाका लागून सैमाची संतुळा डुबाडली ती जालीच. पूण रस्ते करतना सैमीक निचरो करपाची हजारांनी वर्सांची वेवस्थाय ह्या विकासान सासणाची सोंपोवन उडयली. गोंयचो पत्रादेवी ते पोळें हो सद्या तयार जावपी



राष्ट्रीय म्हामार्गाचो गोंयचो पट्टो पळयात. हांगच्या रस्त्याचेर जीं रुखां आशिल्लीं तीं जे पद्धतीन आनी गतीन खचाखच कापून उडयलीं तें पळयत जाल्यार रुखावळ कापूंक मेळची म्हूण रस्त्याचें निमित्त काय दिसता. रस्त्यांच्या आनी हेर बांदावळीच्या नांवान भारतीय जनता पक्षाच्या सरकारान फाटल्या पांच-स वर्सांत जितली रुखावळ निर्दयी पणान कापून उडयल्या ती पळयत जाल्यार तांची तुळा पुराणांतल्या नरसंहार करपी राकेसांकडेनूच करची पडटली. ते नदरेन ह्या पक्ष फुडाऱ्याकडेन इतिहास नक्कीच रुखभक्षक राकेस हे नदरेन पळयतलो. हाका लागून गोंयचो कितलो प्राणवायुक ह्या सरकारान आपले कृतीन सासणाचो सोंपयला हाजी कल्पना येतली. तेच प्रमाण तो रस्तो बांदपाक कितले हजार टन सिमीट काँक्रिटचो वापर जाला आनी जातलो हाजी कल्पना करात, ह्या सिमेंट काँक्रिटान आमचे भूंयच्यो रक्त वाहिनीच बंद करून उडयल्यात. मांडवी आनी जुवारी न्हंयावयले दोन पूल बांदतना कितलें सिमेंट ह्या न्हंयानी पडलां आनी तें खंय शिरकून घट जावन उरलां हाजो कोणेच विचार केल्लो ना आनी ताजो फुडाराक किर्ते परिणाम जातलो, गोंयचे भुंयेचेर आनी सागरी जिवावळीचेर हाजो हिशेब कोणें दवरपाचो?

पर्यावरणाचेर हावळ हाडपी सब का साथ,सब का विकास हाजें एक सादेर्शें मोख्र म्हूण पणजे मळा वाठारांतले बुडटेचें उदारण येवं येता. हालींच दोन वर्सां फाटीं पाट्यार विकास केलो. स्मार्ट सीटीच्या नांवान आयिल्लो दुड्डू कडवपाचे अकलेक आयिल्ल्यांनी विकास विकास करीत त्या परिसरांतलें इफळींचें बन कापून उडयलें आनी थंयचे व्हाळ पुरयले. थंय विकासाच्या नांवान काँक्रिटीकरण केलें.

मळ्यांत उदकाचे पातळी परस सकयल लोकांचीं घरां आसात. पूण तांचेर कोणें पाटो वाठाराचो विकास करतना लक्ष दिलें ना. पाट्यार व्हड व्हड इमारती आनी रस्ते तयार जाले. ह्या वाठारांत बस स्टँड, मागीर पाटो प्लाजा बी येवचे आदीं हांगचीं इफळींचीं बनां मारून, ल्हासून उडोवचीं न्हय म्हूण माथानी साल्दाना, व्हितोरिया फेर्नांडीस ,हांव आनी नंदकुमार कामत बी नदर दवरून आसताले. आंदोलनां करताले. तेन्ना आमचो वचक सरकाराचेर आसतालो. आदीं हांगा कित्ल्योच खळयो आशिल्ल्यो. भरते वेळार वा उदकाचो स्तर वाडलो जाल्यार ह्या खळयांत्यान उदक खेळटालें आनी ताजो निचरो जातालो. मागीर पणजे बांबोळी बायपास जालो, कदंबा बस स्टॅन्ड आनी पाटो प्लाजा आयलो आनी तांच्या नांवान सांवार माजलो. ह्यो खळयो, व्हाळ खंयचे खंय ना जाल्यो. काँक्रिटीकरणा खातीर इफळी मारल्यो त्यो मारल्योच वयल्यान हे व्हाळ,खळयो पुरोवन उदकाची सैमीक घोळटीय सासणाची बंद करून उडयली. हेच पासत मळ्यांतलीं घरां हे खेप जशीं उदका पोंदा गेल्यांत तशीं दर वर्सा पावसांत वचत रावतलीं. कित्याक ताजेर उपाय घेवपाची वेवस्ताच आतां उरूंक ना. ते पासत मळ्यांतल्या लोकांनी पेडणे बी वाठारांतल्या लोकांक हे खेप सरकारा कडल्यान लुकसाण भरपाय लाबल्या तशी फुडाराक आपल्याकूय मेळचे पासत आतांच अर्ज करून रांकेत रावपाक हरकत ना.

विनोदाचो पार्त कुशीक काडुया. लोक आज ज्या अवर्शणाक फुडो करतात आनी ज्या अवर्शणान तांचे चवथीचे उमेदीचेर लेगीत सावळ घाल्या तांचे अवतिकायेचेर त्रोसां मारप जरी सारकें नासलें तरी आतां आमी सगळ्यांनीच गंभीरतायेन आमचे जिणेकडेन पळोवंचें पडटलें. आमी विकासा फाटल्यान लागून पर्यावरणाकडेन आडनदर केल्या आनी तार्जे पानवळ आमकां भोगल्या बगर दुसरो पर्याय ना. पूण हें खरेंच आमी पानवळ भोगतात काय सरकार आनी संबंधीत एजन्सी निश्क्रीय थारल्यात देखून तांचे बेजापसालदार आनी भ्रश्टाचारी वृत्तीचे बळी सर्वसामान्य थारल्यात?

आज सरकार आसा शें दिसता तें कोणेंय आरड मारल्यार तांचे मुखार लुकसाणभरपायेच्या नांवान हाडकुटां उडयतना. पूण हें सरकार खऱ्या अर्थान एकठांय जालां तें लुटमार करपाक म्हणपाचें आतां लिपून उरूंक ना. म्हणटकच आतां आमी सरकाराचेर निंबून रावतले काय आपलें अस्तित्व राखपा पासत आमीच कांय धोरणां आखून निर्णय घेतले ताजेर विचार करचो पडटलो.

हालींच हांवें खंयतरी नामनेचे पर्यावरणतज्ज्ञ राजेंद्र शेंडे हांची मुलाखत वाचिल्ली. 'विकास काय पर्यावरण'हो विशय १९७२ साकून संवसारीक पटलाचेर चर्चेक येवन आतां ४७ वर्सां उपरांतूय ताजेर कांयच निर्णय जायना. अर्शे सांगून ते अर्शे घडपा फाटलें कारण सांगतना राजकीय इत्याशक्तीचो अभाव आनी आमकां सगळ्यांक विकासाची चडलेली नशा अर्शे म्हणटा. तातूंत इल्लेंय लटीक ना. म्हणटकच आमी राजकीय धोरणां थारावंक शकनात. पूण पर्यावरण आनी विकास ह्यो दोनूय गजाली हातांत हात घालून कश्यो मुखार वचूं येतात हाजेर खात्रीन नदर दवरूंक





शकतात. आयच्या काळार विकास मातसो रखडलो जाल्यार जीण फुडें धुकलूं येता पूण पर्यावरणाचो इबाड जायत जाल्यार मात पुराय जिवावळ शक्तीहीण जाता आनी विकासाची गती मंदावता.

त्या पासत आतां पर्यावरण ॲक्टीव्हीस्टांची एक फौज तयार जावपाची गरज आसा . जातूंत शिक्षक,साहित्यिक,विचारवंत हांचो मोठ्या प्रमाणांत आसपाव जावंक जाय. तांचो वावर विकासाक विरोध करपाचें न्हय तर ताचेर अभ्यास करून मार्गदर्शन करपाचो आसूंक जाय. विकास योग्य दिकेन कसो वतलो आनी वचना जाल्यारूच मागीर कसो बंद उडोवपाचो हे तांचे करणेकूच सबका साथ,सबका विकास म्हणटात हें सिध्द करपाचो वेळ आयला.

सद्या गोंयांत दोनशां परस चड सार्वजनीक गणेश मंडळां आसात. घरांत गणपती आसतनाय रासवळ गणपतीची पुजा करून हे परबेची खुशालकाय दोट्टी-तिट्टी भोगपाची तांची ही कृती जालीच त्या भायर ह्या निमतान समाज सेवा करपाचीय तांकां कूय आयिल्ली आसता. रासवळ गणपती म्हणटकच त्या वाठारांतल्या सगळ्या धर्माच्या लोकांक तो आपलो दिसता आनी पुराय वाठाराकूच एक जिवाळपणा येता. तेच उमेदीक लागून जण एकलो आपली किरवट सदळ करता. तें देवाचें काम आशिल्ल्यान वेवसायीक,उद्योजकांचो हातूय आपल्या बोल्सा मेरेन वचपाक फाटीं फुडें जायना. रासवळ गणपतीच्या नांवान दुडवांची रास जमता.ते राशीचो वापर बऱ्या कामां पासत जाता. पण असलो वावर करपी हेर आनीकूय ,संस्था खोटलोभर आसात. पूण पर्यावरणाच्या संवर्धना पासत वावुरपी संस्था मात अजून तश्यो रुप धरिल्ल्यो दिसनात. पर्यावरण सांबाळ हो विशय म्हत्वाचो आनी ताजी सांगड सगळ्या धर्मांनी आदीम काळा साकून देवसपणा कडेनूच घाल्ली आसा.तेच पासत कणसांचें फेस्त जाता,वडापुनव जाता आनी चवथीक मातये पुजा करून माटोळी सजता. म्हणटकच हीच परंपरा आमीय गणेश मंडळांच्या आदारान मुखार व्हरपाची काळाची गरज थारता.

हालींच कांय युवकांनी 'एको फ्री' चवथ ही संकल्पना राबोवन वावराक आरंभ केल्ल्याचें वाचिल्लें. चवथीची परब म्हणटकच ह्या निमतान शाळा कॉलेजांक सुटी आसता. दर गणेश मंडळान आपल्या वाठारांतल्या ह्या विद्यार्थ्यांक ह्या काळांत कोर्द दिवंक जाय.कित्याक ओर्द दिल्यार काम करपी ही पिळगी न्हय. घरांत गणपती आसता तेन्ना हेच विद्यार्थी आपलें घर सजयतात, रंगयतात, घरा सयत सरभोंवतणच्या वाठाराची साफसफाय करतात. तेच प्रमाण रासवळ गणपतीकूय तांणीं आपलें शार सजोवपाक जाय. कचरो मुक्त करपाक जाय. गणेश मंडळांक तें शक्य आसा.

गणपती म्हळ्यार माती. मातयेचें म्हत्व ज्या गांवांत चिखल कालो जाता तांकां खबर आसताच. तेच वांगडा आमची संस्कृताय ही शेतकी संस्कृताय जाल्ल्यान शेतांत वावरप म्हळ्यारूच चिखल कालो. हो कालो करतना माती शुध्द आसप गरजेची. मातयेचो गणपती करून पुजेक लावप हीय मातयेचीच दिनवासणी आनी माटोळी सजोवप हें सगळें मेळून पर्यावरणाची पुजा. ही म्हापुजा चलतना दुशीत माती, दुशीत वाठार, दुशीत पर्यावरण आसप म्हळ्यार मनशाची विकृती आनी तीच पयस करून नवी संस्कृती रुजोवपाचो यज्ञ ह्या मंडळांनी आरंभ करपाची गरज आसा. आमची अपेक्षा ह्या मंडळांकडल्यान आपाक जाय, सरकाराकडल्यान न्हय. सरकार अवर्शणा वेळार लुकसाण भरपाय दिवपाक आसता. गणेश मंडळांनी सैमीक अवर्शणां पयस करूंक वावरूंक जाय. तेन्नाच तांचो रासवळ गणेश पुजनाचो यज्ञ महायज्ञाचें रुप येवंक पावतलो.

ह्या सगळ्या मंडळांक गणरायान तीच बुध्द दिवं!



# चवथ विशेश

# (आरती)



- पुजा भंडारी
कुंभारजुवें.
मो.७७६८८३५३१०



१

जय देव जय देव जय श्री गणराया
तुजींच लेकरां आमी पडटा तुज्या पांयां
जय देव जय देव जय श्री गणराया

सूख दुख्खाच्या वेळार तूं तारणारो
सगळ्या भक्तांक तूं पावणारो
तूं एकदंत तूं गजमूख
तुजेच भक्तींत मेळटा रे सूख

जय देव जय देव जय श्री गणराया

भाद्रपद मासांत चवथ ही आयली
म्हूर्त तुजी घरघरांत बसयली
सजलें मखर माराण पेटले
मोदक लाडू ताटांत बसले

जय देव जय देव जय श्री गणराया

वचनपुर्ती खातीर मातेचे
तुवें रे तुजें शीर होगडायलें
गजान तुकां आपलें शीर दिलें
गजानन नांव फामाद जालें

जय देव जय देव जय श्री गणराया

गणेशा तुका मोदक हे केले
हूंदराक तुज्या पेढेय भेटयले
दुर्वाचें पातें तुज्या पांयार ओपलें
दर्शनान तुज्या मन धादोस जालें

जय देव जय देव जय श्री गणराया

तुज्याच काळजांत आमी रे रावतां
दरेका मनशाक तूंच रे पावता
सकाळच्या वेळार, तिळसांजच्या पारार
दिव्यांतली वात तुजे पासत तेंवता

जय देव जय देव जय श्री गणराया

भक्तांच्या तोंडार तुजेंच रे नांव
फुलांनी परमळ्ळा आख्खो गांव
तुज्याच नांवाचो गजर हो केलो
काळजाचो पाख्रो हो धादोशी जालो

जय देव जय देव जय श्री गणराया

तूंच तारपी तूंच मारपी
गजमुखा तुजी करतां आरती
होरायताना नांव दीस रात रे तुजें
जिणेंत आयली रे सुखाची भरती

जय देव जय देव जय श्री गणराया

विद्या बुद्धीचो तूंच विधातो
तुजेच सासायेन गिन्यान मेळटा
तुजेच खातीर रांट सजता
आरतींक तुजे घुमट वाजता

जय देव जय देव जय श्री गणराया

२

हे मंगलमुर्ती हेरंबा विनायका
तुजींच रे सेवा करतां आमी लेकरां

दीस रात वोंठार तुजेंच रे नांव
तूंच लंबोदरा सदां आमकां पाव
आमच्या ह्या हातांनी भक्ती तुजी जावं
सावळे भशेन तूं आमचे वांगडा राव

हे मंगलमुर्ती हेरंबा विनायका
तुजींच रे सेवा करतां आमी लेकरां

व्हडान व्हड संकश्टां तुवें रे परतीलीं
धर्तरिक सदांकाळ तुवे वाचयली
गजमुखा सुराचो हूंदीर करून देव
तुवें ताका जल्माची बुद्ध शिकयली

चवथीचो भांगराळो खीण हो आयलो
मखरांत बसोवन दिवो तुका लायलो
शीव शक्तिच्या पुता तुका होरायतां
पुर्विंच्या माळांनी तुका सजयतां

दोळ्यांक सदांकाळ तूंच दिसूं रे
तुजेच कृपेन घर आंगण खेळूं रे
घरांत तुजो वास आसूं रे
देवा तुजो मोग आमकां मेळूं रे

हे मंगलमुर्ती हेरंबा विनायका
तुजींच रे सेवा करता आमी लेकरां



## शंकराची आरती

जय देव जय जय श्री शंकरा
आरती करता आमी तुजी मनोभावा
जय देव जय जय श्री शंकरा

तुजो ना आदी तुजो ना अंत
तूं तर निरंतर सदांच थंड
आशा अपेक्षा पासून तूं रे वेगळो
चोवीस वरां फकत ध्यानांत बुडलो

जय देव जय जय श्री शंकरा

कैलास म्हळ्यार तुजें रे घर
गौरीन वरलो तूंच रे वर
गळ्यांत सोबता वासुकी नाग
कपलाक तिसऱ्या दोळ्याचो राग

जय देव जय जय श्री शंकरा

तुजेच कुशीक नंदी बसला
ताका पळोवन तूं धादोशी हांसला
तुवेंच गंगेक माथ्यार धरल्या
धतरिचीं संकश्टां तुवेंच पयस केल्यां

वैरागी आसून संवसारी जालो.
शक्तीचो तुवें खूब मोग केलो
संवसारा खातीर सदांच वावुरलो
ताज्या कल्याणा खातीर नाशय केलो

जय देव जय जय श्री शंकरा

दर्याच्या मंथनान पृथ्वीक वाटायली
मेळिल्लीं रत्नां सगळ्यांक वाटलीं
विखाची परिक्षा तुवें रे घेतली
शक्तीन ताका गळ्यांत आडायली



### जय देव जय जय श्री शंकरा

शक्तीच्या सांगातान तूं रे सांवरलो
विखान गंठ निळो रे पडलो
निळकंठ म्हूण फामाद जालो
तरीय धादोस जावन तूं हांसलो

जय देव जय जय श्री शंकरा

महाशिवरात्रेक तुका सजयलो
बेलाचो पावस तुजेर उडयलो
प्रसन्न जावन आशिर्वाद तुवें दिलो
आमचे भक्तीचो स्वीकार तुवें केलो

जय देव जय जय श्री शंकरा

शीवरात्रे दिसा डमरू वाजलो
मायेन भक्तीन नंदी नाचलो
भक्तीक ताजे भक्त धांवलो
रोखडोच तूज तांकां पावलो

## देवी पार्वतीची आरती

जय देवी जय देवी पार्वती माते
तुज्या गे चरणांक भजतां चंडिके

हिमालयांत पुण्य तुवें हें केलें
एका चली वंशाक जल्माक आयलें
पार्वती म्हणून फामाद जालें
म्हादेवान तुका कैलासांत व्हेलें

जय देवी जय देवी पार्वती माते

शीवाच्या मोगान सतीचो जल्म
निभायलो तुवें संगिनीचो धर्म
माता जाली तूं कार्तिकेयाची
वेगळायलो पुताक, खेळी नशिबाची

जय देवी जय देवी पार्वती माते

उपरांत जाली गणेश माता
आसलो तो वचन पुर्तीचो दाता
रागान पतीच्या ताचें शीर तें पडलें
आवयचें काळीज तें भरपूर रडलें

जय देवी जय देवी पार्वती माते

उपरांत लायलें शीर गजाचें
मेळ्ळें ताका वरदान देवांचें
धन्य जाली तूं पुताच्या मोगान
तुजेचवरी आवय लाभची गे सगळ्यांक

जय देवी जय देवी पार्वती माते

जितली तूं शांत तितलीच रागीट
तुजे कडेन आयले आमी वरदान
मागीर
तुवेंच माते आमकां घडोवचीं
तुजीच हुशारकाय आमकां शिकोवची

जय देवी जय देवी पार्वती माते

महिशासुराचो अंत तुवें केलो
तुज्याच नांवाचो गजर हो जालो
राकेसांचो अंत तूं खिणांत करपी
भक्तांक तूं दोळ्यांचें मावलेर धरपी

जय देवी जय देवी पार्वती माते






सुमेधा
कामत

फाटलीं साबार वर्सां विद्यादानाचें काम करपी आनी तांचे हे सेवे पासत उत्कृश्ट शिक्षक म्हूण राष्ट्रीय पुरस्कारान भौमान जाल्ल्यो ***सुमेधा कामत देसाय*** ह्यो कोंकणी आनी मराठी ह्या दोनूय भासांतल्यान सातत्यान लिखाण करपी साहित्यकारा. ललित, प्रवासवर्ण, बालसाहित्य आनी विनोदी साहित्य निर्मणी ही तांची खाशियत. तांचो हेर पुरस्कारां वांगडाच बिम्ब मासिकाचो शंकर भांडारी यादस्तिक विनोदी साहित्य पुरस्कारानय भोवमान जाला. खुसखुशीत विनोदी शैली हें तांचें खाशेलेपण.



# गणपती बाप्पा मोरयाऽऽ

**चवथ** लागीं आयल्या. अंदू चवथीक म्हजी आई ना. आयुश्यांत पयलेच फावट चवथीक आई ना. आई वचून सादारण चार म्हयने जाल्यात. पूण तिका वचून वर्सां लोटल्यांत कशें दिसपाक लागलां. एक पावट हांव आईक णव म्हयन्यांनी मेळिल्लें. यत्ता दुसरेंत मुंबय शिकपाक गेलें तेन्ना. एक फावट पुण्याक बी. एड् करपाक गेल्लें. तेन्ना अशेंच आईक म्हयनोभर मेळूंक नासलें. पूण ते उपरांत फाटल्या ५८ वर्सांत आईचो वियोग जाला, अशें केन्ना जिवितांत घडूंक ना. खूब दीस आईक मेळनासतना उरिल्लें. तेन्ना हांव पिशांतूर जाल्लें... पूण आतां किर्ते करतलें? ती वतकीर पयलीं वरां मेजीत रावलें. मागीर, दीस आनी म्हयनेय. मागीर वर्सां मेजीत रावलां... आनी अशेंच एक दीस हांवूय तिजे फाटोफाट काळाच्या पडद्या फाटल्यान लिपतलें...

अंदू म्हाका चवथीक वर्जे ना. आई दरवर्सा वर्जे धाडटाली. आनी म्हणटाली, 'यडये हें म्हजे हातांतल्यान धाडिल्लें निमाणें वर्जे आसत! खोशयेन ताजो स्वीकार करा.' आईन तशीं निर्वाणीचीं उतरां तोंडांतल्यान काडटकीर आमकां तिनूय धुवांक तीं मातूय आवडनासलीं.

आनी अंदू तिजें खरें जालें. गेल्या वर्सा चवथीक तिणें वर्जे धाडिल्लें. आनी हींच वाक्यां म्हणिल्लीं. अंदू तीं खरीं थारलीं. आतां ह्यान फुडें म्हज्या जिवितांत 'वर्जे' ह्या शब्दाचो खरो अर्थ आनी भावार्थ दोनूय सोंपलोच. फुडें कुळारचें वर्जे येत न येत, पूण तातूंत आईची माया, उब आनी आशिर्वाद नासतलो.

कोणाक, किर्ते, केन्ना मेरेन मेळचें हें परमेश्वर थारावन दवरता आनी तें तें तशें तशें घडत वताय बी!

ooo

आईन तिज्या आत्मचरित्रांत कुळारच्या वज्याचेर एक सुंदर लेख बरयला. तिजी आवय सावयची. शेटयांगेली. आजयेचो भाव खंय कांय कारणा खातीर गोंयां रावनासलो. ताणें सावयचें कुळागर भागेल्यांच्या ताब्यांत दिल्लें. वतना ताणें भागेल्याक सांगिल्लें, 'किर्तेय कर, कशेंय कर, मांद्रया पार्शेकारांगेर म्हजी भयण दिल्या. तिजें वर्जे मात चुकोवं नाका.' आईन फुडें बरयलां. तिजे आवयक सावयच्यान आयुश्यभर वर्जे आयलें. फुडें आईचो बापूय



गेलो, तरीय वर्जे आयलें आनी फुडें आई गेली. पूण फुडें कितलींशींच वर्सां सावयच्यान वर्जे येत रावलें.

हाजेफाटल्यान आसलें प्रेम आनी कर्तव्यनिश्ठा!

आतां ह्या गजालींची अपेक्षा करपांत कांयच अर्थ ना. आतांच्या काळांत हीं दोनूय नात आनी कोर्णे, कोणाक शिणपाचें। वचत थंय हीच परिस्थिती!

ooo

उदासी मनभर पांगरून हांव पणजेच्यान पार्शां रवाना जालें. प्रत्येक वर्सा चवथीक, पंचमी दिसा हांव महगांव वतालें. फाटलीं अनेक वर्सां हांवें हो नेम केन्नाच चुकयलोना. म्हजे बराबर बेबीक, शुभाकूय व्हरतालें. तिगीय धुवांक पंचमीच्या आरत्यांक, महाप्रसादांक आयिल्लीं पळोवन आई-भाऊ खूश जातालीं. आम्रो करून करून पोट फुटसर वाडटालीं. घरच्यांक साष्टीकारांचे वेगळे जिन्नस बांदून दितालीं. पार्शां मुगा गांठी, पुरणाच्यो तळिल्ल्यो नेवऱ्यो, सान्नां, आंबाड्याची तांबडीच करम बी करिनात. ते सगळे जिन्नस आई म्हाका करंडांत घालून दिताली. अंदूं चवथीक आई ना आनी ते भायर आमची वर्सल. म्हणजे कामावीन देवानिवेद्याची (निवेद्य गणपती मुखार पावोवपाची) जबाबदारी म्हजेर.

विशण्ण मनान हांवें चवथी दिसांनी पार्शांच रावपाचो निर्णय घेतलो.

ooo

सदचे भशेन पार्शां चवथी दिसांनी रांदप्यांची धमालूच आसता. हे नवे रांदपी, नव्वा (यजमानांच्या) घरांनी चवथींचें रांदपाक येतात आनी आमची वर्थीशट फजेत करतात (हांवें हे आदीं चार रांदप्यांचीं व्यक्तिचित्रां बरयल्यांत. तीं वेळावेळार स्वतंत्रपणान प्रसिध्द जाल्यांत. अंदूं मात तांकां म्हजे डायरेंतूच म्हजो पाट मात्सो फुडें सरकटावन तांकां बसपाक जागो करून दिला.)

तयेच्या जेवणाक आमी फकत चौगां. हांव, आनंदराव, देर आनी एक नणंद. ह्या चौगांचें जेवण हांव एकलेंच, कांय न्हय करून, करून उडोवपाचें। (पूण म्हाका कोण पातयेना.) रांदप म्हणचे किर्ते व्हडलें काम तर... सकाळफुडें न्हावपाचें (हें खरें म्हळ्यार मुख्य संकट) देवा निवेद्य करपाचो. पूण कोण तरी कांतू, शिनूंक मात जाय. (जायच) आनी तसल्यो दोन 'आयतेकान्नी' घरांत आसल्योय बी. पूण सांगतलें किर्दे। घरांत म्हज्या कतृत्वाचेर कोणाचोच विश्वास ना आनी हांवूय बी तांकां म्हजें कतृत्व पारखुवपाची संद दिना. (कसलें घेवन बसल्यात चवथीचें रांदप. हांवें केल्यात १०-१० दिसांचे भुरग्यांचे एनएसएसाचे कितलेऽऽ कॅम्प..!)

हांव एकदां करता म्हूण कळ्ळें काय सगळेंच म्हज्या गळ्यांत पडटलें. ते भायर 'दानांत ना आनी धर्मांतूय ना' तसली म्हजी गजाल...

तशे विचार म्हज्या मनांत येवपाक एक म्हत्वपूर्ण गजाल घडिल्ली. हांवें एकदां उमेदीन घरा सकयलें भाट पाडपाची जबाबदारी एकल्यान घेतिल्ली. भाट पाडटकीर (हे आदीं घरांतल्या बायलांनी भाट पाडूंक नासलें. दादल्यांनीय पाडूंक नासलें, इतिहासांत केन्ना. तीं मुकादमाचीं कामां घरचे बंदे करताले.)

म्हाका दिशिल्लें घरचे जाहीर सर्भेत म्हज्या अभिनंदनाचो थाराव बी पास जातलो म्हूण। प्रत्यक्षांत जालें भलतेंच. सक्काळ फुडें फकत फुटी च्या घेवन हांव भाटांत पाडूंक गेलें. दनपरां बारा मेरेन म्हजी हेडक्वार्टरांतल्यान कोर्णे खबर पसून घेवंक ना. घरांत रांदपिणी बरें बरें रांदतात आसतल्यो आनी घरचीं चाखत-माखत खावत आसतलीं आनी हांव हांगा सकाळच्यान फुटे च्याचेर. (म्हजी ही खबर, हांवें म्हजी इश्टीण मिनू आगशीकाराक सांगिल्ली.तेन्ना तिणें हितोपदेश केल्लो, ''तुजेर कोण माया करतलो? तूं किर्ते तुज्या मांवच्या पोटांतल्यान जल्माक आयलां तर? तूं सूनच. तूं धूव केन्नाच जावंक शकचेंना.'' हांवेंय पदराक आतां गांठ मारल्या. हांव ह्या घरची सूनच. धूव केन्नाच जावचें ना.

तितले भितर बाबह्या पेद्रून म्हाका आडसर फोडून उदक आनी कातली दिली म्हण दनपार जायसर जिर्ते उरलें. पोटाक भुकेन उजो पेटला. आंगाक हुमले भरल्यात. घामान चिकचिकलां, पांयांत लाजरीचे कांटे भरल्यात.

आमचो वसंत नांवाचो एक बंदो आसलो. तो ही सगळी मुकादमगिरी करतालो. तो आतां वयर गेला. (आनी ताजे पूत बंदिपणांतल्यान मुक्त जाल्यात.) तो त्या त्या भाटांतले नाल्लांचे वांटे करून खळ्यांत दवरतालो. चडशे नाल्ल भायले भायर विक्रेक वतात. फक्त घरांत जाय तितलेच घरांत येतात.

आनी निमाणची फोडणी. म्हजी पणजेची एक बापोल जाव फोनार विचारता 'अगे सुमेधे, आवज तूं खालच्या ठिकणांत जावन पडलंय म्हणान आयकलां. (हांव फाट फुडें काडून रावलां. शाबासकेचें थापट खावपाक.) आमचे नारळ मात्शे कुलाप काडून, आमच्या लॉजांत भरान ठेयतंय मिगे?'

हांवें त्या दिसाच्यान थारायलें. 'काना कुडको काडून दिवन पूण अत:पर पार्शेकार देसायांच्या भाटाचें पाडेलपण करपाक वचप ना.'

पोवाक तर कसलेंच कौतूक ना.



घरच्यांक ना. बापोल जावांक ना. तीं वयर ऑर्डरी फर्मालयतात. तांकां बंद्या/कुळंबिणी कडल्यान कामां करून येवपाची संवय. तीं तशीं बधतात? झक मारलें तें पाडेपण! जाय जाल्यार करात, ना जाल्यार करूं नाकात. हांव बरें झेत दाखोवपाक आनी मानाचो पाट मेळोवपाक गेल्लें!

तसलीच ही चवथीची रांदपाची गजाल जातली म्हण हांव बरे भशेन जाणां. म्हण हांव त्या प्रोजेक्टांतल्यान आंग काडून घेतां.

०००

आयज तय. नाखुशीन सकाळीं फुडें न्हांवन आनी धुंवन वाठाराक व्हडलो भोंवताडो मारून पोन्न्यां घरांत पावलां. रांदचे कुडींत पावलां जाल्यार थंय दोन रांदपी आनी दोन आयतेकान्नी बसल्यात. चार मनशांचें, तयेचें रांदपाक दोन रांदपी? पूण येदोळ सांगिल्ले भशेन पार्शेंच्या घरांत म्हाका 'व्हॉय्स' ना. व्हॉय्स आसता तो धेंपे हायरसेकेंडरीच्या बंद क्लासरुमांनी. पार्शां म्हज्या 'व्हॉय्सा'क फंगस आयला. (नाजाल्यार 'व्हायरसू'य म्हणूं येता.)

म्हजें आगमन रांदचे कुडींत जालें. (मालकीण म्हण रांदप्यांक आनी हेर चाकरांक झेत दाखोवपाक नाका?) येवचे येवन पयलीं (मांयचे भशेन) कदेलार घम् करून घालून घेतलें. हांव मोन्यांनी निरीक्षण करीत आसां. रांदपी रांदीत आसात. आयतेकान्नी किचनांत नाल्ल सोलतात, फोडटात, कांततात, कांथे उडयतात, उदक वारयतात. हे दोन पाजखे रांदपी हांसत खेळत आनी मेळत तशें रांदीत रावल्यात. सगळ्याक करपल्ल्याचो वास सुटला. म्हाका खांक येवपाक लागली.

०००

म्हाका अनाधिकृतपणान म्हायती मेळ्ळी: चुकून खंय दोन रांदपी एकाच किचनांत पावल्यात. ब्रह्मांडांत फिरपी धुमकेतू भशेन. एकलो सिध्दापूरच्यान, जाल्यार दुसरो राजापूरच्यान.

हांवें मदीं मदीं तोंड उगडून आनी मदीं मदीं हात घालून ह्या घराची व्हडली सून आजून जिती आसा, मरूंक ना म्हण रांदप्यांक आनी आयतेकान्नींक दाखोवन दीत आसां...

ह्या सगळयांनी मेळून रांदचेकुडीची युध्दभुमी करून दवरल्या. आयतेकान्नी आनी तांचीं दोन भुरगीं पायांपायांनी येतात.

हें सगळें महाभारतांतलें युध्दकांड पळोवन हांव हताश जालां. मागीर सगळें जेवण रांदून जालें. रांदपी आतां मोनी पातोळी थापूंक बसल्यात आनी एक गजाल- आमच्या घरांतल्या एका बिळांत एक पुजारी रावता. सांजवेळार देवाचो दिवो लावपाक आनी दिव्याची वात फुडें, फुडें-फुडें-फुडें सारपाक आनी सोंपली जाल्यार नवी घालपाक. (देवाची नैमित्तीक पुजा करपाक गांवचो दुसरो भट येता.) ह्या पुजाऱ्यान शिटूकसाणीन चवथी दिसांनी कुंदापूराक धाडून दिला. हो पुजारी गणपती म्हऱ्यांत उबो रावन नव्या पुजाऱ्याक मदत करपाची सोडून रांदचे कुडींत नव्या रांदप्यांक आदार करपाचें नाटक करता. तो वर्साचे ३६५ दीस पार्शां आसता. तशें हांव आलायतें. म्हण तो घरमालक जावंक सोदता. हे सगळे पाजी रांदपी आनी पुजारी-कुंदापूर, सिध्दापूर, राजापूर बापायचो फांत आशिल्लेभशेन सगळ्या वस्तूंचो मेळत तसो इबाड करून रांदतात. म्हजे बायलमनशेच्या जिवाक तो सगळो विध्वंस पळोवन चिटमिटे पडटात.

०००

आं! ती येदोळची पातोळेची खबर उरली. तीन दादल्यांनी (कुंदापूर, सिध्दापूर, राजापूर) मेळून एक कायलभर तांदळाच्या पिठाची उकड कालोवन दवरल्या. घरभर पिठाचो शिताडो घाला. पायलीभर तांदळाच्या पिठाच्या करंडांत वोले हात घालून घालून बचक बचक पीठ काडटात.





उदक ओततात. पीठ पातळ करतात. परत पीठ काडटात. परत पीठ काडटात, परत कळसोभर उदक रकयतात. हांवें मनांत म्हळें, 'सायबांनो, अशेंच करीत रावात... तुमचें बरें जातलें.'

इतल्यान हेडक्वार्टरांतल्यान वटहुकूम आयलो. एकूच पातोळी. मोनी पातोळी. आनी ताजे खातीर ही कायलभर उकड (?) आमचो घरचो पुजारी बक्याभशेन मान वयर काडून कंबरार हात दवरून मार्गदर्शन करता. तो मेजावयलें केळें काडून फिर्याद जोडूंक सोदता. आपूण काय कसल्याच कामांत हातबोट घाली ना.

'तोफगुळो पातशाचो, सैन्याक फार मारपाक किर्ते जाल्या?' अशें आई किर्ते तरी सांगताली. सारकें विचारून घेतलें म्हळ्यार ती सोय ना. आई रेंजी भायर.

मागीर सिध्दापूरच्या रांदप्यान हळदी पानां 'बाय ऑर्डर' कातरून हाडलीं. तें तलवारी येदें पान घेवन, एका सोलिल्ल्या मध्यम नाल्लायेदो उकडीचो गुळो घेवन तो पातोळी थापूंक बसलो. टायम पास करीत, पिठाच्या गुळ्याचेर थापटी मारी, मारीत पातें फुडें धुकलता. हळदी पानाचें पोंतूच कातरूंक ना. पातें जालें. ताका तें ल्हानशें दिसलां आसतलें. मागीर तो गॉलाक जशी पायपीन (कढा) बी धरतात तशी अख्खे पातोळेक वेगळ्या पिठाच्यो कढा दसोवंक लागलो. तो ताजो पातोळे खातीरचो 'फिनिशींग टच' पळोवन म्हाका ताजें सोणकूट फोडचें कशें दिसतालें.

पूण हांवें येदोळ सांगलां तशें पार्शां म्हाका आचार स्वातंत्र्य ना, विचारस्वातंत्र्य ना.

हांव पार्शां मॅनेजर. म्हजें काम म्हाका फुडें धुकलत व्हरपाचें आसलें. ताजे हातांतल्यान हांवें हळदी पान खस्स करून ओडून काडलें आनी पातोळी परत धांपली.

उकडींत उडयली. कशी तरी ती 'तलवार' उकडत उडयली.

ooo

खिरीचो हक खूब व्हडलो तोप गॅसार खतखतत्तालो. ताका ह्या संवसारांतलो कोणूच धवळ मारिना. ह्या तीन रांदप्यांक कातरून ते खिरींत उडोवचें अशें म्हाका दिसूंक लागिल्लें... (पूण त्या कामाचो म्हाका पूर्वानुभव नाशिल्ल्यान हांव तें करूंक पावलें ना. आतां खीर पोंदा लागिल्ल्याचो वास येवपाक लागला. बेबीक हांवें फोन करून विचारलें., 'खीर पोंदाक लागता कशी?' तार्णे म्हाका जाप दिली, 'धवळ मारूंक नाशिल्ल्यान. खिरीक मर्दी मर्दी धवळ मारची पडटा. तुज्या तिनूय रांदप्यांक धवळ मारपाक पिडा मारल्यार तूं मात ते खिरीक धवळ मारूंक वचूं नाका. तोप पांयार वोतोवन घेशीत! तुका संवय आसा ती.'

बेबी म्हणटा, 'धवळ मारूना म्हण खीर पोंदा लागल्या. आं! याद जाली. बिरबलान पातशाक तशेंच सांगिल्लें - पातशाक एक मनीस विचारता, 'घोडो कित्या खातीर अडलो?'

'खावचीं पानां कित्या खातीर कुसर्ली?'

'भाकरी कित्या खातीर करपली?'

पातशा बिरबलाक जाप दिवंक सांगता. बिरबल म्हणटा तो वेवस्थापन शास्त्रांतलो मोठो तज्ज्ञ. तार्णे एकाच वाक्यांत सगळे प्रश्न सुटावे केले. फिरोवंक नाशिल्ल्यान.''

म्हणजे घोड्याक सदां फिरोवंक व्हेलो ना म्हण घोडो एकाच जाग्यार गोठेलो, पानां एकसारकीं सकयल वयर करचीं पडटात. तीं तशीं केलीं ना म्हण कुसर्लीं. भाकरी तव्वार आरती आनी परती, परती आनी आरती करची पडटा. ना जाल्यार ती करपता.'

तशें खिरीक धवळ मारचो पडटा. ना जाल्यार ती पोंदाक लागता. बेबीन म्हाका बिरबलाच्या थाटान जाप दिली.

ooo

पांयार तोप खंय! आनी वयर म्हज्या पूर्वजल्माचें कर्म वयर काडटा. म्हाका सारकी याद जाली. गेल्या वर्साची गजाल. हो बेळगांवां गेल्लो. (ऑपरेशन जाल्लें. बरो नाशिल्लो. तरी हेडूंक गेल्लो.) आनी अर्थातूच रातचो घरा येवपाचो नासलो. हांवें पियपाच्या उदकाचो तोप सळसळायलो. आंगसो घेवन तोप सोमतो उखल्लो. म्हाका थारूय नासता. इतल्यान आंगसो तोपांत बुडलो. हुनहून उदक म्हज्या बोटांक लागलें. बोटां भाजलीं. भाजलींच. हांवें तोप सोडलो. सळसळटें उदक म्हज्या पांयार. ते भायर पांयांपोंदा उदकाचें कोंड. (हांव मणिकरण गेल्लें. तेन्ना असल्याच सळसळटया उदकाच्या कोंडांतल्यान बी गेल्लें.) पायां कडल्यान उदकाच्या कोंडांत पांय घालून हांव भायर आयलें. पुर्वार्ध सोंपलो.

हे गजालीचो उत्तरार्ध किर्ते? हांव थयाथया नाचतालें. रडटालें. आरड मारतालें. कसोबसो बेबीक फोन केलो. 'बेबी मरतां गो, धांव.' ही खबर रातची णवांक. ताका ड्रायव्हर मेळटा म्हणसर धा वरां जालीं. हांव आकांतून रडटालें. म्हाका कोणाचोच आधार नासलो. पांय सुजिल्ले. काती गेल्ल्यो. मोटे घाय जाल्ले. बेबी पावलें. तार्णे व्हरून हॉस्पिटलांत घालें. फुडें तें पांय प्रकरण तीन म्हयने पुरो जालें. कॉलेज ना, काम ना, वॉक ना, कांयच ना. फकत हॉस्पिटल-दोतोर आनी ड्रेसींग.

ooo

फुडें बेबीन सांगलें, 'तोप पांवार घेवन वर्स जावना आनी हांव म्हजो गणपती सोडून पार्शां येवचें ना. देवच



तुजी राखण करूं. अबर्गत खंयचे कडली!'

मनांत म्हळें, 'खीर करपून वचूं. म्हजो जीव म्हत्वाचो. आपूण आपणांक आनी देव समस्तांक!''(अशी एक म्हणणी किरिस्तांवां भितर आसा. आतां ती हांव चवथी वेळार वापरतां.)

तिगूय रांदप्यांनी मेळून भटाचीं आयमीन भटाट्याचीं कापां काडलीं. कापां भाजलीं. कांय हरवीं, कांय हरवीं. खंयचे आवयच्या पोटांतल्यान जल्माक आयिल्लड कोणा जाणां! तीं कापां गिळून तांकां मेर्दांक खंय (आमचे खुस्तार) पापड तळून खावपाचे आसले. घरा उपाशीं आसतात ते रांदपी. एके व्हडले कायलींत ताणीं शेरभर तेल रकयलें आनी आपणाक तीन तीन आनी आमकां एकेक पापड तळळो. थंय बाबडी पार्वती दुवाळ्यांनी तळमळटाली आनी हे पापड तळत-तळत खिटखिट्टाले. आमचो घरचो पुजारी आयज हांगाच आमच्या तपल्यांत पडपाक आयला. घरभेदी कसो. हो घरभेदी बाकीच्या दोगांक घरांतल्यान खंयच्या खंयच्यान, बऱ्यो-बऱ्यो खावपाच्यो सगळ्यो वस्तू हाडून भरयतालो.

मर्दींच तीन पाट मांडले. सगळ्यांत पयलीं आपूण गिळपाक बसले. देवा निवेद्य जातकीर हांवें फर्मायलें. ''आम्हाला आधी वाढून द्या.'' काळेंच तोंड करून, जशें किर्ते आपल्याच बापायचें वाडटात अशें करून कोण तरी एकल्यान म्हाका चार भिकेचीं ताटां हातान दवरलीं.

पातळ शीत, करपल्लीं आनी हरवीं कापां, खार भाजी आनी पोंदा लागून परमळीत जाल्ली खीर. ते भायर ओन्ली वन पापड. तिगूय रांदपी मेळायेचो बुयांव येवन जेवंक बसल्यात. बुकल्या भशेन एकल्याच्या तोंडाक म्हेळांय लागल्या.

आशीकुशीक कोण ना शें पळोवन तुपाची बरणी



सांगाताक येवन ते दामून जेवपाक लागले. खंयच्या दुष्काळांतल्यान आयिल्ले कोण जाणां!

बेबीन म्हाका सांगलें, ''ते रांदपी आपल्या घरा दनपारचे खिचडी करून खातात आनी रातची धिरडीं (तिखट मिठाच्यो पातळ भाकरी) काडटात. खंय गृहण्यांगेर-यजमानांगेर रांदूंक वतात थंय उंटा भशेन चार दिसांचें जेवण घेतात.''

पूण आमचे गोंयचे रांदपी मात ह्या प्रकारांतले न्हय. ते अशे तरेन जिन्नस पिड्ड्यार करनात आनी जीव ओतून, प्रामाणिकपणान, निश्ठेन काम करतात. हांवें म्हज्या कुळारा, पाशीं, लोकांगेर, समराधनांनी, देवळांनी तांचें काम लागींच्यान पळयलां. ताणीं रांदिल्लें सुरबूस जेवण उमेदीन जेवलां. हे आनी खंयचे दुस्मान आतां आमचे रांदचे कुडींनी घुसल्यात कोण जाणां?

हे जे कर्नाटक आनी महाराष्ट्रांतल्यान रांदपी म्हण कोण येतात ते अकुशल कामगार. ते भायल्या गांवांनी-मठांनी-देवळांनी हेल्पर म्हण काम करतात आनी गोंयां येवन आमचे रांदचे कुडींनी हेडकूक म्हूण काम करतात.

आनी ते बकासूर कितलो वेळ तरी जेवत बसले. किर्ते तांकां जेवपाची उमेद कोण जाणां! हेवटेन आरत्यो जाल्यो, निवेद्य जालो. रांदप्यांनी किर्ते आमकां कूसभर वाढून दिल्लें, तें आमी आमच्याच घरांत बसून चोरां भशेन खाल्लें. ते बकासूर गाडो भरून जेवण जेवले. ताणीं एका सुरांत 'आँय' करून एक व्हडलो ढेंकर काडलो. आनी एकदांचे सायबिणी उठले. हांव कित्याक तरी भायर गेल्लें. परत आयलें, तेन्ना पळयल्यार रांदपी आनी पुजारी नात. रांदचे कुडींत मदेकाक मांडिल्ले तांचे तीन पाट, केळीचीं तीन पानां, ताजेर रासभर उश्टें आनी पानां भोंवतणी तोपूच तोप. जेवणांनी भरिल्ले, पूण धापणी नाशिल्ले.

रांदपी म्हज्या देरा कडेन वाद घालताले. आपूण जें किर्ते रांदलां, ताजो प्रत्येकी देड हजार जाय म्हणटाले.

आमच्या घरचो कुंदापुरचो पुजारी, ''आसूं दी. दियात हो तांकां देड/देड



हजार.'' (माजराक खंय हुंदीर साक्षी) म्हणटालो. देरान सांगलें, ''हे येवात तीन हजार. आनी लागात मार्गाक, परत आनी गोंयांत कोणाकूच तोंड दाखोवंक नाकात.''

ताणीं पयशे बोल्सांत घाले आनी क्षणार्धांत वेषांतर केलें. पुडवीं सोडून उडयलीं. पडवेंतच. बायलां मुखारूच आनी भितरल्या मोटव्या काल्सांवाचेर. आनी मागीलदारार्ची सोपणां चडून फुज्जो. वयर बशीक उबे राविल्ले. हातांत एक पोती. तातूंत पुडवें कशाय कर्शे भरिल्लें.

आनी तो राजापुरचो रांदपी राजापूरचे गंगेभशेन लुप्त जालो. राजापूरची गंगा खंय तीन वर्सान एकदां येता. चार दीस रावता आनी नाच्च जाता. तशी ही राजापूरची गंगा आममेर फकत एक दीस आयली आनी पळ्ळी. वतना आमच्या बोल्साक व्हडलो बुराक घालून गेली.

०००

चार मनशांच्या रांदपाक तीन हजार रुपया. (तें भायर आतां आनी आयतेकान्नींचे पयशे दिवपाचे आसात.) हांव खदाक्षीण जावन घरांत परत आयलें. घरांत ये म्हणून मांड पडला. दोन वावराड्यो तातूं भितरूच जेवपाचे तयारेंत आसात. तांकां दोन केळी पानांचेर हांवें वाडलें. तीं पानां धरपाक, तांकां दोन स्टिलाचीं ताटां हांवें दिलीं. थंयच्यान तांकां उठयलें आनी 'पयस पडवेर वचून जेवा' म्हण सांगलें.पळव जाल्यार हीं हातांत ताटां, ताजेर केळीं पानां, सामकीं साऊथ इंडियन व्हि. आय. पी. स्टायलीन जेवत कदेलांचेर बसल्यांत. दुसऱ्या रिकाम्या कदेलांचेर ताणीं घरा व्हरपाक उश्ट्यो फोडी काडून दवरल्यात.

इतल्यान त्या दोनूय वावराड्यांचे घोव, भुरगीं तांकां सोदूंक म्हण (हरशीं, शेणिल्लींच न्हय तीं, सकाळच्यान?) घरांत डायरेक्ट भितर सरलीं. एक भाचो खंय मडगांवच्यान आयिल्लो. तोय तांचे बराबर घरांत घुसलो. त्यो सुशेगाद जेवत बशिल्ल्यो. बायलो म्हाका म्हणूंक लागल्यो. (त्यो मोबायल घेवन भोंवतात तें कित्या खातीर तर... काय बरीं आमचीं चार जाणां खंय तरी वचून जेविल्लीं आनी पार्वतेकूय कितेंय टिफीन बांदून हाडिल्लें जाल्यार. आतां तशो सोयी जाल्यातूय खंय! बेश्टे, सुखी जिवाक हुमले...)

''बाय, हेंकां इल्लें (इल्लें?) जेवण वाडटा? (हे पयलीं तीन मानाय. हांकां इल्लें जेवण पावता? शीता तपलें परत वाळचें पडटलेंशें दिसता. ते भायर तें काम म्हाकाच करचें पडटलें. रांदपी पावले सिध्दापूर आनी राजापूर...)

बायलो म्हाका सांगतात, ''बाय, तुमचो दिसभराचो वावर (जशें कितें फुकटूच करपाक आयिल्ल्यो!) आसा, म्हणून आमी सकाळफुडें रांदीनासतनाच घरांतल्यान भायर सरल्यांत. आमच्या घरचीं सगळीं उपाशीं आसात. (गोंयां रावन हांणी गोंयकारांच्या चवथीच्या जेवणाचो व्याप पळयला. आनी तीं गरजे भायर शाणीं जाल्यांत. हाणीं इंदौरच्या किल्लेदार (मूळ गोंयकार) घराब्याचो चवथीचो निवेद पळोवंक जाय आसलो. फकत एक चिमटी साखर-गणपती मुखार आनीक बाबड्याक कांयच ना.

०००

म्हजी तकली कणकणटाली. कपल उसळटालें. जोर येतालो. वक्ल दोळ्यां वयल्यान निसरतालें. आंग हुमेन थपथपिल्लें. आनी म्हजो घोव म्हणटा तो मनीस हांवें सकाळच्यान पळोवंकय नासलो. मॅनेजरार्चे परमवीर चक्र मेळोवपाचे आशेन हांवें सकाळच्यान तीन रांदप्यांकडेन आनी दोन वावराड्यांकडेन झूज मारल्या.

आतां आनी एक शत्रुसैन्याची नवी फळी म्हजे मुखार 'वाड, वाड' म्हणून गर्जना करूंक लागल्या. 'नाजाल्यार तुका खातां.' म्हणूंक लागल्या. हांवें हेडक्वार्टराक न्यूज कळचिना ह्या बेतान त्या बायलांकूच भितर आपयलें आनी सांगलें.

''हे सगळे तोप उखलात. तुज्या घराब्याक वाडून सोंपयात. उर्लें जाल्यार घरा बांदून व्हरात.'' तीं खोशी जालीं. मागीर तिणें राजा-महाराजांक पानां मांडचीं तशीं तांची जेवणाची वेवस्था केली. सवळ्या रांदचे कुडींतच तिणें पांच पाट मांडले. (येदोळ हांव चौकेर ताटली घेवन भकाभका जेविल्लें. आनी रांदचेकुडींत येदोळ ते ब्रह्मराकेस जेवले आनी आतां हे रस्त्यावेले बाजार बुणगे. 'असूनी खास मालक घरचा... म्हणती...' तसली म्हजी खबर.)

फुडें पांच पानां मांडलीं. पांच सवळे पेले दवरले. (हांवें आजून उदक पिवूंक ना. डायबिटीजाची गुळीय घेवना.) आनी एकाद्या बंगाली गृहिणीनी आपल्या घरांत, आपूण रांदिल्लें जेवण वाडचें तशें प्रेमान, अपुरबायेन, लक्तुबायेन वाडत रावलीं. घरचीं कशीं उमेदीन जेवतात तें उमेदीन पळयत बसलीं.

इल्लें शीत वाडटात. वन्न वाडटात. भाजी वाडटात. परत शीत, वन्न, भाजी, परत कूसभर शीत-वन्न-भाजी. (तरी बरें त्या पाडाखवा रांदप्यां भशेन 'अन्नशुध्द' बी मागली ना म्हण.) मागीर फोडी, चेटण्यो, तोंडाक, खिरी वाडीत रावलीं, वाडीत रावलीं. पांचूय जाणांक तृप्त जायसर ताणीं वाडलीं. जेवण बरे भशेन तांच्या पोटांत गेलें म्हणून धन्य धन्य जालीं. (आतां म्हाका ल्हवू ल्हवू भूक लागत चल्ल्या...ह्या सगळ्या



'मोगलाई'चो किंवाटो येवंक लागलो. कैकेयी भशेन केंस सोडून खंयतरी क्रोधागारांत वचून बसचेंशें दिसूंक लागलां...)

०००

हें सगळें मेळोवपाक, ऑरेंज करपाक कोण कोण, कितलो तेंप त्रास काडटात, आनी कोण कोण भलतेच गिळटात. ते आडसाटे तिगजाण मानाय. तीन मद्यम वयाचीं पोरां. (हीं पोरां म्हज्या अवताराक पळोवन हांसतालीं. एक व्हडलो तंबू कसो पंजाबी ड्रेस, केंस तिरुपतीक दान केल्यात, कपलभर पिंजर आनी फत्तेमारी कशें चलता...)

ल्हवू ल्हवू करीत तें सैन्य कुडवभर तांदळाचें शीत जेवलें. कामकरी लोकांचो आहार भरपूर आसता. ते भायर तांगेर जाण्टीं/नेण्टीं सारकींच जेवतात. पांढरपेशा वर्गागेर तशें नासता. ते स्वत: कूसभर जेवतात आनी आपल्या भुरग्यांकूय शिपीभर वाडटात.

०००

पयलींच्या काळांत आमच्या देसायांचीच एक फामिल आसली. तांकां आमची फामिल आदार करताली. मजत म्हळ्यार जेवणा-खाणाची, धान्याची, नाल्लांची. तांकां आमची फामिल आलिमेंत धाडटाली. म्हणून कितलीं तरी शतकां तांकां आलिमेंतदार म्हण वळखताले. तशे हे बिगरगोमंतकीय कामदारवर्ग आमचे आलिमेंतदार जावन पडल्यात.

ते तीन मानाय वेवस्थीत जेवले. (जेवूं.) भुरग्यांनी दोनूय हात तोपांत यालून जेवण आपल्याकूच परत-परत वाहून घेतलें. आनी तांच्यो आवयो तांच्या त्या महायज्ञाची तोखणाय करताल्यो. पूण म्हजी ही भानगड सिनियर्सांक कळूंक ना म्हण हांव सुटलें.

०००

इतल्यान एक कामदारीण लागीं आयली आनी म्हाका म्हणूंक लागली, ''बाय आयज मात्शें आमी बेगीन गेल्यार चलता? हीं आयदनां (आयदनांचो वायदोंगर) फाल्यां बेगीन येतात आनी यांसतात.''

हें वाक्य आयकून म्हजे तकलेर वीज पडली. वीज पडटा थंय खोल फोंडकूल पडटा, अशें शास्त्रज्ञ म्हणटात. आनी हीच वीज जर शेणाचे गायरेंत (पूण म्हजी तकली म्हळ्यार शेणाची गायर न्हय.) पडल्यार थंय भांगराची कांडी तयार जाता. (जादा माहिती-फुडल्या पावसाक परत गडगड मारून जोगलावणी जाल्यार हेंच भांगर मळबांत परत उडून वता खंय! पूण आमकां नाकाच त्यो भानगडी.)

भायर आयदनांचो केदो मोठो खळपो पडला. किचनांत 'मार्शी लॅण्ड' निर्माण जाल्या. दारांत 'वॉटर स्पोर्ट्स कॉम्पलॅक्स' निर्माण करपाक जाय तसो जागो तयार जाला. केळ्याच्यो साली, सोण्णां, चुडटां, कट्ट्यो जळींमळीं शिंवरल्यांत आनी हीं चुतडां गीळ गीळ गिळून, गिळय, गिळय गिळोवन म्हाका आतां पिशीं करूंक सोदतात...

म्हाका कलकलपाक लागलें. सकाळच्यान हांवें कसलें कपलाचें मॅनेजमेंट केलां? दिसाक हजार रुपया दिवन धरून हाडिल्ल्या ह्या दोन कामदारणीं कडल्यान जर हांव तयेच्या रांदपाचीं आयदनाय यासून येवंक शकना जाल्यार म्हजो कसलो उपेग? फाल्यां तर 'गजाराची चवथ' येवन तेंकल्या. आनी हीं चुतडां फाल्यां सकाळीं फिरकलींच ना जाल्यार?

हांव ताकतिकेन भितर गेलें. ही 'बुरी बात' हायकमांड नणंदांच्या कानार याली. निमाणेकडेन 'बचाव, बचाव' करीत तांचेकडेनूच धांवचें पडलें. ताणीं म्हाका सांगलें, ''हाड त्या दोनूय चुतडांक आमचे मुखार.'' हांवें कामदारणींक सांगलें, ''माँ का बुलावा आया है।'' तांकां येदोळच्यान दिशिल्लें हांवूच फूल फ्लॅज मालकीण म्हण. आनी म्हणून तीं म्हाका पिशांत काडूंक सोदतालीं. मागीर हांवें इमेजियेट बॉसां मुखार तांकां सादर केलीं आनी म्हजी कागाळ मांडली.

दोगीय नण्डांनी मेळून जीं त्या कामदारणींक सालामार्काची भायरी दिली.... 'सोनारानेच कान टोचावे लागतात' अशा अर्थाची मराठींत एक म्हण आसा. त्यो बायलो मुकट्यांनी उठल्यो आनी आयदनांचे राशीकडेन झूज खेळपाक बसल्यो.

आतां हांव इल्लें इल्लें दुर्वेत पडपाक लागिल्लें. हांवें दिसभर शंकर-पार्वतीक 'हॅलो' पासून म्हणूंक ना. फकत रांदनी पोल्लांतच मेलां.

०००

हांव हरशिल्ल्या (चवथीच्या) दिसांनी रांदचे कुडींत वचच ना. आमची एक सदची चवथीची रांदपीण कुडाळच्यान येता. सगळें घरच्या गृहिणी भशेन वेवस्थीत जाग्यार यालता. 'जेवा हो, जेवा हो' म्हण म्हाका एके ल्हानशे ताटलेंत वाडीत रावता. खूबशे जिन्नस हांवें तिजेकडल्यान शिकून घेतल्यात. (फकत थियरी) ती कडयेंत साकर यालता. साकर यालिनाशिल्ले कडयेन जेवप म्हणजे तांचे कडेन आयप कशें खंय। तिका आमची संवय जाल्या आनी आमकां तिजी. हांव दनपरां चार मेरेन 'ताटली' भर जेवून 'नव्या घरां'त आड पडपाक



वतां आनी रातचीं आठ वरां मेरेन बरी गुरगुरीत न्हीद काडटां. पोन्न्या घरांत परत येतां. साडे आठांक म्हाका ही रांदपीण 'स्वयंपाक घरांत टच् झालात का हो? टाकते हं मी तुम्हाला उलीसा चहा.' अशें प्रेमान म्हणटा. रातचे णव-साडेणवांक हांव चपात्यो/भाकऱ्यो, नव्यो उसळ्यो बी खावन, मागीर बापोल जावांकडेन चौकेर खबरांक पडटां. अंदू ती ना. तिका कसली तरी अडचण आसा खंय!

आनी अंदू जाण्टेपणांत म्हजेर हें कसलें नवें संकष्ट आयिल्लें?

ooo

सगळ्या युध्दाक झूज मारून जातकीर हांव आनी म्हज्या वेगळ्या घरांत गेलेंच ना. चलून चलून पांय मोडपाक आयिल्ले. हांवें रांदचे कुडीचे कुशीक एक रूम आसा, थंय जमनीर शेंदरी घालून न्हिदलें. पांच वरांचेर म्हाकाच सगळ्यांक बांयभर च्या करून दिवची पडली. कंबर फोडटालें. कंबरार हात दवरून हांवें च्याक आदण उडयलें. रातच्या आठांक म्हाकाच चपात्यो करच्यो पडल्यो. वाडचेंय पडलें. ह्या वयान म्हाका भुरग्यांनी, सुनांनी वाडचें जाल्यार हांगा म्हाकाच रांदचें पडटालें. वाडचें पडटालें. रांदप्यांनी तीन हजार उखल्ले. कामदारणींनी एक हजार व्हेलो आनी म्हाका फकत मूठभर जेवण.

नशिबांत जर कश्ट काडपाचेच आसत जाल्यार ताका कोण कितें करतलो?

ते भायर 'बॅड मॅनेजमेंट'चो शिक्को म्हज्या कपलार!

त्या सालाझाराकडल्यान जर दनपरांच चपात्यो करून येतिल्ल्यो जाल्यार? पूण त्या कुंदापूर, राजापूर वासीयांक चपात्यो तरी करूंक येतात काय कोण जाणां?

सगळें जाग्याक लावन चौकेर वेतां, जाल्यार भायर मेजार देवानिवेद्याचीं पानां दनपारच्यान तशींच उकतीं पडून आसात. आनी पार्वतेच्या पानार ती वेद्दी मोटी, पांचवें मानगें कशी पातोळी. तें सगळें जाग्याक लावपाक (जाग्याक लावप म्हणचे 'जाग्याकूच लावप'. थंय आनी कितें पर्यायच ना.) आनीक अर्द वर मोडलें.

नव्या घराच्या म्हज्या स्वतंत्र राज्यांत वचून मेल्ले भशेन न्हिदलें.

**( फुडलो वांटो पुस्तक रुपान)**



.मो.: 70

# साहित्य मनांत फुलतना..!

वोवळां



शीला कोळंबकार

**केंद्रीय साहित्य अकादेमी पुरस्कार,सॅमसंग इलेक्ट्रॉनिक्साचो टागोर पुरस्कार,विमला पै पुरस्कार ह्या सारख्या प्रतिष्ठेच्या पुरस्कारांनी भोवमानींत शीला कोळंबकार हाणीं कथा,ललित लेखन तशेंच बाल साहित्यांत आपली खाशेली सुवात तयार केल्या. तांचे लिखाण म्हणल्यार कोंकणीं साहित्यांतले 'शीला'लेख अशें म्हणूं येता.**



म्हाका दिसता खंयचोय साहित्यीक बरोवपाची सुरवात कवितेन करता. मुखार तो व्हड कादंबरीकार, कथाकार, नाटककार ना जाल्यार ललित लेखक जावं मागीर! कविता हो प्रकार ल्हान व्हडांक आकर्शीत करून घेता. कित्याक कवितेक एक लय, ताल आनी नाद आसता. म्हाका दिसता हार्जे कारण तांच्या भुरगेपणांत आसता.

ल्हान आसतना आवयो भुरग्यांक आल्लयो म्हणून न्हिदयतात. तें भुरगें शब्दांच्या तालबद्द नादान ल्हव ल्हवू न्हिदेच्ये कुशींत रिगता. जगांतल्यो सगळ्यो आवयो, आपल्या भुरग्यां खातीर आल्लयो गातात. तांची भाशा वेगळी आसता, आवाज विविंगड आसता. पूण त्या आवाजांत आवयचे मायेची जी ओलसाण आसता, भाव आसता, तो सारको आसता. ताका लागून भुरगें ते नादमय भावनेचे लर्येत पेवन निर्धास्तपणान न्हिदता. म्हाका सदांच दिसता कवितेचो आनी संगीताचो जल्म ह्या आवयांच्या आल्लयांतल्यान जाला जावंक जाय.

कॉलेजींत आसतना म्हाका कविता वाचपाची आवड आशिल्ली. तांतले तातूंत शेरो-शायरी म्हाका पिशें लायताली. दोन ओळींचे शेर जायतें किर्ते सांगताले. आर. के. लक्ष्मण हांचीं व्यंगचित्रां, पिशोलांच्या चारपांच फटकाऱ्यांनी आनी ताजे पोंदा बरयल्ल्या दोन चार उतरांनी जायतें किर्ते किर्ते उलयतालीं. तशेच हे शेर! हिंदीच्या पुस्तकांतले रहीम, कबीराले दोहे बी अशेच, पिशें लावपी! शेरो-शायरी वाचतना हांवेंय बी शेर बरयल्ले. तांतली एकूच याद आसा.

*न कुछ था, तो गम था*
*आसुंओंके सहारे जी लिये करते थे हम!*
*गमने बगावत की आसुंओंको रोक लिया,*
*अब किसके सहारे जियेगें हम?*

खरें म्हळ्यार म्हाका कवयित्री जावपाचें आशिल्लें. हांवें ल्हान आसतना कविता बयरल्ल्यो बी. आयजूय त्यो म्हाकां तोंडपाठ आसात. कोंकणी भाशेचेर एक कविता बरयल्ली. ती अशी आसली-

रामायणांतली उर्मिला?
काय बुद्धाली यशोधरा?
आरे, ही तर आमची कोंकणी भाशा
आसून घरची देवता
जावन पडल्या उपेक्षिता!

कॉलेजींत गेलें. तेन्ना हांव कॉलेज मॅगझिनांत कोंकणी, मराठी, हिंदी कविता बरयतालें. तेन्नाची ही कविता-

### पुनव

पुनवे चान्न्याक येता जेन्ना
वास आम्या चंवराचो
पुनवे चान्न्याक येता जेन्ना
आवाज दर्या ल्हारांचो!
तेन्ना रात ल्हवू ल्हवू वता
लांब केंस माथ्यार सोडून
चंद्राक साक्ष दवरून
तें पळोवन
माड आपले भितर कुजबुजता
वारो बेठोच पासयो मारता
मदींच एक शेवर्णे जागें जाता
आनी म्हाका साद घालता...
हांव भायर धावंक सोदतां
म्हळ्यार हुंबऱ्यारूच
पांय म्हजो आड्खळटा
आन्नी चान्ने बाबर्डे बेठेंच भिजता...

म्हाका दिसता पन्नास वर्सां पयलींची ही कविता. तेन्ना कोंकणी उलोवंक येताली. बरोवंक

तितली येनासली. ताका लागून 'माड आपले भितर कुजबुजता' अशें हांवें बरयलां. ताजे सुवातेर 'फुतफुत्ता' असो शब्द येवंक जाय आसलो, हें आतां समजता.

मागीर हांवें कथा बरयल्यो. तरीकूय कवितेचें आकर्शण उणें जावंक नासलें. तेन्ना आनी एक कविता बरयल्ली. कवितेचें नांव याद ना. कविता अशी आशिल्ली-

ताजे नदरेक म्हजी नदर
अचळय मेळ्ळी
कुळागरांतल्या पाटार
तें न्हाता आसतना
नाका आसतना...
चुकून
वाऱ्या बराबर
उदकांत पडलें एक पान
उदकांत अळंग तरंग उठले
उदकाचें आंग देवा
शिरशिरलें काय?
ताज्या काळजाचो माग येत
गीत म्हजें फुडें सरता...
रावता, मर्दीच फार्टी परतता
एकाच विचारान
तार्णे ना म्हळें जाल्यार?
तार्णे ना म्हळें जाल्यार...

म्हजे हे कवितेची तोखणाय जाली. कवी शंकर रामाणी हांणी कविता आवडली म्हूण सांगलें. पूण कुळागरांत 'बेकार थवय' म्हूण एक सदर येतालें. तातूंत तांणीं म्हळें, 'कथेंत कविता येवं येता. शीलान कवितेंतूय कथा हाडल्या.' वाचून म्हाका बरें दिसलें. कित्याक खऱ्यानीच कथेंत कविता येवं येता. कवितेंत कोणाल्यो कथा आयल्यात तर? तेन्ना हांव ल्हान आसलें. परतून जाप दिवंक म्हाका जमलें ना. ताजे उपरांत हांवें आनीक एक कविता बरयली. पूण ती छापूंक धाडली ना. ती कविता आसली 'व्यथा'-

## व्यथा

तढव्या पावसावरी
तूं म्हजे जिर्णेत पावशेलो
म्हज्या काळजा जाळ्यार
आशेचे चार थेंबे
चमकत दवरून...

मनशाक पोट नाशिल्लें
जाल्यार फाट भांगरान भरपाची...
(अशें तूं म्हणऽ!)
तेंच पोट जाळपा खातीर
तूं गेलो पैस
आनी हांव हांगाच उरलें
म्हजे उर्मिलेचे व्यथे सैत...

एक खेप गोंयां कोणाल्यातरी लग्नाक गेल्लें. थंय खूब लोक आयिल्लो. बायलां भांगरा शिंगरांनी शृंगारून आयिल्लीं. म्हजे मुखार एक बायल बशिल्ली. तिजी फाट म्हाका दिसताली. तिणें बरोऽ आंबाडो घाल्लो. ताजेर भांगराचो सुरगां वळेसर माळिल्लो. ताजे वयर रतनआबोल्यांची फाती आनी फातये वयर भांगराचो मोर माळिल्लो. आनी घड्ये तो पडूं नये म्हूण आंबाड्याचेर काळी जाळी घाल्ली. तें पळोवन म्हाका एक कविता सुचली.

माथ्यांत खोपो
खोप्यांत फुलां,
फुलांत मोर भांगराचो...

मनशाक काळीज
काळजांत कुमयो
कुमयेंत मोग,
सासणाचो...

मनशाक दुख्ख एकमुळेपणाचें
दुखाक पदर वाजाचो
वाजांत आसा, वांजूड आशा
आशेक चंदर सपनांचो

माथ्यांत खोपो
खोप्यांत फुलां
फुलांत एक मोर फडफडटा...
भांगराचो...

अशो अर्दीमर्दी कविता बरयतालें. एक खेप बहिणाबाई चौधरीची कविता वाचली. बहिणाबाई अशिक्षीत बायल मनीस. तिका बरोवंक येनासलें. ती कविता रचताली आनी म्हणटाली. तिजो पूत श्री. सोपानदेव चौधरी हाणें तिज्यो कविता बरोवन दवरल्यो. त्यो कविता वाचून म्हजी कविता करपाची उर्मी आटली. तिजी एक कविता पळयात.

मन पाखरू पाखरू, त्याची काय सांगू मात
आता व्हत भुईवर, गेलं गेलं आभायात
मन एवढं एवढं, जसा खाकुसाचा दाना
मन केवढं केवढं, आभायात बी मावेना
देवा, आस कसं मन? आसं कसं रे घडलं?
कधी जागेपणी तुले, आसं सपान पडलं...

खाकुसाचा दाना, खाकूस म्हळयार खसखस! बहिणाबाईची कविता वाचली आनी म्हज्यो कविता तांच्या कवितांचेर ओंवाळून उडोवच्योशो दिसल्यो. जागेपणांत स्वप्न पडप? कितली भन्नाट कल्पना! ताजे उपरांत म्हाका कविता आयल्योच नात. ना म्हळयार एक गीत देवजलें.

## मोनें दुख

धुंद चान्ने सुन्न वाठार
नांव नाशिल्लें मोनें दुख्ख
गीत जावन आयलें वोंठार ॥

रातराणयेचो धूंद वास
फुल्ल्या कळयांचे हून उश्वास
बावले पूण उलयले ना ॥१॥



वाठारांतल्या पिंपळा पेडार
पांच वातीचो जळटो दिवो
पालवलो पूण काजळेलो ना ॥२॥

वाठारांतल्या आंब्या रुखार
पानापानांत निथळटें चान्नें
लिकलिकलें पूण गळ्ळें ना ॥३॥

आनीक एक कविता येवजली पूण तिज्यो दोनूच ओळी येवजतात.

रिमझीम रिमझीम पावस गळे
पाना पानार थेंब्या कळे
थेंब्या कळे रुप्याचे
उदक म्हजें मायेऽऽचें ॥

कवितेचो नाद हांवें सोडलो. मर्दी 'सुनापरान्त' ह्या वर्तमानपत्रांत तिकल्यो येताल्यो. त्यो वाचून हांवेंय थोड्यो तिकल्यो बरयल्यो-

१. म्हजी भास
ओल्या रानाक पाचवो वास!

२. उतर,
केन्ना साखर
केन्ना वाखर
तेन्ना तें चिंतून वापर

३. हांव? आनी रडलें?
ना रे ना!
दोळ्यांत किर्ते पडलें?
आसत...
किर्दे?
खंयचे तरी यादीचें कूस?

४. तेच दोळे
तींच दुकां
पूण खोशेचीं
दुकां थंड
दुखाचीं दुकां हून
कित्याक म्हूण?

ल्हान भुरग्यां खातीरूय हांवें कविता बरयल्यो. भुरग्यां खातीर बरोवंक म्हाका खुब्ब आवडटा. भुरग्यां खातीर काय जायना कविता बरयल्यो. त्यो पाडल्यो नात. आपशींच आयल्यो तेन्नाच त्यो बरयल्यो.

### माकडाचें लगीन

हुनतान पावस
माकडाचें लगीन
खेतें जालां व्हंकल
हारश्या मुखार मुरगुट्टा ॥१॥

कोलुग जालां धेडी
दाव्या पायान कुट्टा
कांजीवरम् साडयेची
देगूच बाये दोडटा ॥२॥

योडो जाला धेडो
सगळ्याक बाबडो बोवाळटा
सुटाची संवय नासून
भितरले भितर घुसमट्टा ॥३॥

व्हंकलेची आवय
ल्हवूच दुकां पुसता
धूव सोडून वतली म्हूण
भितरले भितर रडटा ॥४॥

न्हंवऱ्याचे आवयची
तकली मात्शी फोडटा
तें पळोवन व्हंकले बापूय
सोडा बाटली फोडटा ॥५॥

न्हंवऱ्याचो बापूय
सगळोच आपलो उडटा
इंजीनेर पूत म्हजो
हजारांनी जोडटा ॥६॥

हुनतान पावस
माकडाचें लगीन
कोणाक तुमकां येवचें
आसल्यार,
पणजेसान बस सुट्टा ॥७॥

आनीक एक कविता माकडाचेर,

माकडा, माकडा हूप हूप
शेंपडेक लायलें तूप तूप
माकड नाचलो खूप खूप
माकडाक लागली भूक भूक
माकडान चोरली भाकरी
रानप्यांची गेली चाकरी
रानप्याक आयलो राग
रानप्यान शेंपडेक लायली आग
माकडाक भाकरी लागली गोड
माकडाचे शेंपडेक आयलो फोड
फोड दुखूंक लागलो
माकड नाचूंक लागलो
रांदप्यान माकडाक धरलो
ताचो फोड फोडलो
फोडांतल्यान आयलो पूं पूं
माकडान म्हळें देव बरें करूं

आनीक एक कविता. कवितेचें नांव 'खेळ.'

आखो माखो खेळटा पाखो
खेळटां खेळटां म्हणटा पिसो
'आखो माखो तेल माखो
झाडावयलो बोंगो फुल्ला
म्हाेंव जाय गे?'



आपालिपा खेळटा चानी
खेळटां खेळटां म्हणटा गाणी
'आपालिपा साय लिपा
सायचो गोंडो, हातांत किर्ते
मुऽऽदी!
चल जगमांचे सोऽऽदी।।

हांवें ह्यो कविता हांगा कित्याक बरयल्यो? तार्जे अर्शे जार्ले. 'धेंपे कला आनी विज्ञान महाविद्यालयांत 'अंतरराष्ट्रीय मायभास' दिसा मुखेल सोयऱ्यो म्हूण म्हाका आमंत्रण दिल्लें. धेंपे कॉलेजांत हांव शिकिल्लें. म्हण म्हाका आनंद जालो. उपरांत प्रा. अंजु खंवटेन म्हाकां एक भेट दिली. घरा वचून उगडून पळेली. पळेल्यार हांव कॉलेजांत आसतना कॉलेज मॅगझिनांत हांवें जें किते बरयल्लें ताजी सेरोक्स काडून, ताजी एक फायल करून दिल्ली. म्हाका अंजुची लक्तुबाय दिसली. दिसर्ले हाका ही कल्पना कशी सुचली काय? हांवें किर्ते बरयल्लें तें हांवें कांयच सांबाळून दवरलें ना. अंजुन दिल्लें बरप पळयलें. तेन्नाच थारायलें. म्हाका याद जाता तितल्यो कविता बरोवन दवरच्यो. म्हूण त्यो बरयल्यो.

हालीं सगळें जग बदल्लां. आपल्या वाद्यार्चे जालां. कोणाक कोणालें कांय पडूंक ना. कोण कांय आयकून येना. कोण कोणालें कांय वाचिना. सगळे आपले भितर आनी मोबायलांत मग्न! 'सब रिश्तोमें दरार आ गयी है।' कोणें तरी म्हळां.

'यहां हर किसी को दरारों में झाँकने की आदत है
दरवाजा खोल दो तो कोई पुछने भी नहीं आयेगा।'

अशा सुक्या सड्सडीत काळजाक ओलसाण हाडपार्चे काम काव्य, साहित्य आनी संगीत करता. बरें काव्य वाचून, संगीत आयकून दोळ्यांत दुकां येतात... सुकें सड्सडीत काळीज आपशींच ओलसाणीन भरता.

मुंबय,मो.: 9819315307





भोंवडी



हर्षा शेटये

# स्वित्झरलँडांत...

कोंकणी साहित्यांत आपली खाशेली वळख निर्माण करूंक सातत्यान प्रयत्न करपी लेखिकां मदीं **हर्षा शेटये** हांचें नांव मुखेलपणान नदरेक भरता. कविता ह्या साहित्य प्रकारांतल्यान आपली वळख सांगतनाच ललित निबंध,बाल साहित्य आनी प्रवास वर्णनाच्या मळाचेरूय तांणीं आपली खाशेली सुवात सुगूर केल्या.तांचो हेर पुरस्कारां वांगडाच 'बिम्ब' पुरस्कारानय भोवमान जाला.

## चॉक्लेटी आनी वास्वेलां

सकाळ फुडें जिनीव्हा शार सोडलें. बर्न वचपाक भायर सरलीं. बर्न वतना वाटेर ग्रायर्स हांगा कायलर चॉकलेट फॅक्टरी पळोवपाक रावपाचीं आशिल्लीं. वाटेर व्हडलो बोगदो लागलो. ह्या बोगद्याक कांय वर्सां फाटीं व्हडलो उजो लागिल्लो. ताजेर मागीर इंग्लीश सिनेमाय काडिल्लो खंय! बोगद्यांतल्यान भायर सरलीं. बस गांवांतल्यान वचपाक लागली. वयर मळबांत कापशी कुपां, पयस निळशे दोंगर आनी तांचे तेंगशे वयल्यान सकयल देंवपी झेलाचे पटे. देंवतेर शेतां. द्राक्षां भशेन कसल्यो तरी वाली दिसताल्यो. माटोव घाल्ले, पूण पानां त्रिकोणी न्हय. आतां पांचवींचार मळां आनी ताजेर चरपी गायो दिसूंक लागल्यो. एक दोन धव्वो गायो पूण चडशो तांबसार कोराच्यो. मदीं खंयूय घरां दिसतालीं. गोठेंय दिसूंक लागले. गोठे शिमिटाचे. वयर नळे. सैम भोंवडी करीत कायलर फॅक्टरींत पावलीं.

कायलर फॅक्टरीचो आशिकुशीचो वाठार खूब सुंदर. कायलर फॅक्टरींत भितर सरपाक तिकीट आसता. भितर सरतनाच एके वटेन कायलर नेस्टलेच्यो सगळे तरेच्यो चॉकलेटी थंय विकपाक दवरलेल्यो आसात. दुसरे वटेन कायलर ब्रॅन्डाचो इतिहास दाखयतात. लांबचे लांब पायणींत पयलींच्यो वस्तू, फोटो दवरिल्ले आसात. तरेकवार चित्रां आनी पिरयो. सायकलीच्या ब्रॅकेटाक बॉक्स लावन चॉकलेटी विकपाक भोंवपी कायलर... त्या त्या वस्तू म्हन्यांत पावता तशीं त्या त्या स्क्रिनाचेर चित्रां आनी म्हायती दाखयतात. चॉकलेट म्हणटा ती भुरगीं जाण्टयांची आवडटी. तिजे फाटल्यान आनी इतलो इतिहास आसत म्हणून हांवें धरूंक नाशिल्लें.

कायलर ब्रॅन्ड हो युरोपियन चॉकलेटीचो सगळ्यांत पोरणो ब्रॅन्ड. आजुनूय दर्जो तिगयला. फ्रान्सिस लुईस कायलर ह्या मनशान १८१९त ही चॉकलेट करूंक सुरू केली. मागीर ताणें चॉकलेटीचेर प्रयोग करून करून कमीत कमी पयशांत बऱ्यांतली बरी चॉकलेट दिवपाचो येत्न केलो.

तेवटेन जर्मनींत हॅन्री नेस्टले हाणीं नेस्टले चॉकलेट करूंक सुरू केली. १९२९त पिटर कायलर हाणीं कायलर ब्रॅन्ड नेस्टलेंत विलीन केलो. तेन्ना सावन कायलर ब्रॅन्ड नॅस्टले कडेन आयलो. सगळी फॅक्टरी पळयली. एक बरें, जाय तितल्यो चॉकलेटी खावपाक मेळळ्यो. थंय जाय जाल्यार तज्ञाच्या मार्गदर्शना खाला पयलीं वेळ थारावन चॉकलेटी करपाक शिकपाक मेळटा. बऱ्यांतलो बरो कोको आनी दूद वापरून केल्ल्यो ह्यो चॉकलेटी. सगळ्यांनी भरपूर चॉकलेटी घेतल्यो आनी बर्न वचूंक गेलीं.

बर्न स्वित्झरलंडाची राजधानी. पुराय बर्न शार युनेस्कोचें दायज थळ. आमी क्लॉक टॉवरा लागीं देंवलीं. होच तो स्वित्झरलंडाचो वर्ल्ड फेमस क्लॉक टॉवर. व्हडलें घडयाळ. वाटेर येतना आईनस्टाईन रावतालो ती इमारत पळयली. क्लॉक टॉवराच्या मुखा वयल्या



रस्त्यान सरळ चलत कॅथेड्रला कडेन वचपाक गेलीं. हांगच्या रस्त्यांक फातरी बसयिल्ल्यो आसात. अशीर रस्ते. दोशीं वटेन दोन तीन माळयांच्यो पोरण्यो इमारती. सगळ्या इमारतींचेर कसले ना कसले झेंडे लायिल्ले आशिल्ले. इतिहासीक अशा त्या पोरण्या शारांतल्यान चलून भोंवपाक खूब बरें दिसलें. इंग्लीश सिनेमांनी बी असलीं घरां असले रस्ते पळयल्ले. थंय भोंवताना आमी एकविसाव्या शेकड्यांत आसात अशें दिसना. त्या रस्त्या वयल्यान चलताना टायम मशीन फाटल्यान गेलां आनी आमी सतराव्या शेकड्यांत बी वावुरतात अशेंच दिसता.

कॅथेड्रलाचे रिस्टोरेशन चलतालें. गॉथिक शैलींत बांदिल्लें तें कॅथेड्रल म्हळ्यार स्थापत्य कलेचो उत्कृश्ठ नमुनो. भायल्यान निसणी बी येवन काम चलतालें. पूण भितर वचपाक मेळटालें. भितर सगळी सुंदरकाय भरून वोतताली. स्वित्झरलंडांतली सगळ्यांत उंच इगर्ज. भितर सरतनाच नदरेंत भरता. रंगीत हारशांचीं चौकटीचीं जनेलां. हातूंतले दर एक चौकटींत जेजुच्या जिवितांतलीं आनी हेर घडणुकांचीं चित्रां घडयिल्लीं आसात. पळोवपा सारकीं.

बर्न शार... अशीर रस्ते... पोरण्यो फातरांच्यो इमारती, अर्दगोलाकार जनेलां, जनेलांनी फुलांचे व्हाज... आनी ह्या शारामदीं आसा बॅर पीट... वास्वेलांक दवरपाचो जागो. हांगा मदीं खोल जागो आसा. कुशीक दुरीग आसा. पयलींच्या तेंपार तातूंत वास्वेलां आसतालीं. गोंयांत धिरयो जातात तसो एक प्रकार थंय जातालो. सुणो आनी वास्वेलाचीं झगडीं. ताजेर पैजो लागताल्यो. मागीर तो प्रकार बंद जालो. आतां हांगा वास्वेलाचे पुतळे दवरल्यात. पूण स्वित्झरलंडांतलीं जितीं जिवी वास्वेलांय हांगा लागसार आसात. तांचे खातीर आतां खास पार्क तयार केल्यात. रानांत राविल्ले भशेन वाठार तयार करून पयलींची याद म्हणून तांकां दवरल्यांत. वयर पुलार उबे रावन तांकां पळयलें. दोन वास्वेलां दिश्टी पडलीं. कुशींतल्यान आरे न्हंय मंद व्हांवताली. पोरणें बर्न शार आरे न्हंयचे कुशींत वसलां. पोरणो वाठार आमी चलून भोंवलीं.

## घरां आनी घाटी

सुंदरश्या बर्न शारांतल्यान हासलेबर्ग रॉयटी (Hasleberg Reuti) ह्या गांवांत गेलीं. ह्या गांवचें एक बरें. स्विस, जर्मन, इटालियन आनी फ्रेन्च उच्चार वेगवेगळे. इटालियन ड्रायव्हर, जर्मन रिसेप्शनीस्ट आनी आमी... आमचे उच्चार आयकून तांकां घुंवळ येतली. सुंदरशें व्हिक्टोरिया हॉटेल. भायल्या भागा वयल्यान हॉटेल ल्हानशें दिसलें. पूण तशें न्हीं. हॉटेलाचे मजले वयर वयर चडूंक नात, तर सकयल सकयल गेल्यात. दरयांत. लिफ्टान -१, -२ करीत सकयल वचप. शिमला आमी अश्याच एका हॉटेलांत राविल्लीं. ती याद जाली.

हॉटेलाच्या तेर्रासाचेर वचपाक भायल्यान सोपणां आशिल्लीं... चडून गेलें... आनी कितें... खंय पावलें काय हांव? सर्गांत?.. हय... सर्ग, सर्ग म्हणटात तो होच आसूंक जाय.

सांजवेळचीं साडे स जाल्लीं. पूण चार वरां बी जाल्ले भशेन दिसतालें. नदर पावता थंय झेलान भरिल्ले दोंगर. त्या दोंगरा वयल्यान एक धवोफुल्ल घसघसो रकता. दूद कशें. दोंगरा मुखार सगळो पांचवोचार वाठार. मदल्यान पांयवाटो. खंय तरी तयार करून ज्युस्त सोबता थंय हाडून दवरलेले भशेन लाकडी घरां. ह्या पांचव्याचार मळांचेर चरपी धश्टपुश्ट गायो. धवश्या आंगार मातयेकोराचीं खतां. गायो भायर वचूंक जायना म्हणून वंयो आनी ह्या सांजवेळार मनाक स्पर्शून वचपी अशें संगीत... गोरवांच्या गळ्यांतले घंटेची किणकीण.....किणकीण.....किणकीण... हांव म्हजें म्हाका विसरून थंयच उर्बे... होच तो म्हज्या सपनांतलो गांव. जाय तसोच. तो ख्रीण थंयच गोठेलो. चित्र कसो. त्या चित्रांतल्यान भायर सरपाक म्हाका खूब वेळ लागलो.

दत्तराज आनी सद्‌गुरू रुमांत गेल्ले. रिसेप्शन कावंटराचेर रूम नं. विचारून रुमांत गेलें. वा! कोनशावेलो रूम. दोशींवटेन गॅलरी. हांवें गॅलरींत कदेलाचेर फतकल मारली आनीक एक गजाल दिसली. मदली दरय क्रॉस करीत एक केबल कार वताली. दुसरे वटेन गांव आसा दिसता! रातचो लेगीत किणकीण आवाज येतालो आनी धबधब्याच्याय उदकाचो आवाज येतालो. धबधब्याचेर जुस्त लायटींचो फोकस पडटालो. किट्ट काळखांत धबधबो तितलो दिसतालो.

फांतोडेचेरूच जाग आयली. गॅलरींतल्यान सकाळ सुंदरूच दिसताली. हांव आनी देयासेनी पांयवाटेतल्यान गोरवां चरतात थंय मेरेन गेलीं. म्हन्यांतल्यान स्विस गायो पळयल्यो. वळखुपा खातीर गायांच्या कानांचेर नंबर मारिल्ले. लागींच गोठो आशिल्लो. गोठ्यांत म्हशी कश्यो दिसपी गायो बांदिल्ल्यो. गोठयांत फॅन सुरू आशिल्ले. गायांचें दूद काडपाक मशिनां आशिल्लीं. परतीं रुमांत आयलीं... हासले बर्गांतली ही प्रसन्न सकाळ हांव केन्नाच विसरचेंना. मनांत उतरां नाचतालीं तीं पॅन घेवन कागदार देंवयलीं.



दंवाळ पाचूचे दोंगुल्लेंतल्यान
सकयल देंवपी
वळणां वळणांची वाट
मदीं खंय खंय
जुस्ताक जुस्त मांडून दवरलेले भशेन
लाकडी घरां
काळखाचो झिरझिरीत
पड्डो चिरीत
कवळीं कवळीं किरणां
तांकां सासपूंक लागल्यांत

पयस पयस दिसपी झेलाचे दोंगोर
तांचे वयल्यान खुळखुळत येवपी दूदव्हाळ
पांचवेचार मळाचेर हांबेवपी गाय वासरां
तांच्या गळयांतल्या घाटींची किणकीण...
साखरन्हिदेंतल्यान गोकूळ जागें जालां
म्हज्या तनामनांतल्यान, रुंवारुंवांतल्यान
पांझरूक लागल्यात
कृष्णाचे मुरलेचे सूर

आतां आमी ट्रॅहमलबॅक फॉल्स (Trummelbach Falls) पळोवपाक वतालीं. वाटेर सगळे कडेन धवेफुल्ल उदकाचे व्हाळ व्हांवतना दिसताले. कुशीक धंवशे वाटकुळे फातर. दोळ्यांनी कितली म्हणून सुंदरकाय भरून येवं अशें जातालें. दिसता तें सुंदर. लोक सायकलींनी पांयवाटांनी वतात तें दिसतालें. ट्रॅहमलबॅक हो एक ग्लॅसीयर धबधबो.दोंगरा भितरल्यान घसघश्यांनी व्हांवपी धबधबो. दोंगरा भितरल्यान लिफ्टांतल्यान वयर वचप.

तिकेट काडून दोंगरांत भितर सरलीं. लिफ्ट दोंगरा भितरल्यान वयर येवन गेले. घसघस व्हांवपी धबधब्याचो आवाज. ताका आवाज म्हणूंक शकना हांव. गर्जना कशी. आमी सोपणां चडूंक लागलीं. आता ल्हान पूल कसो लागलो. हो दोंगराचोच भाग. ताज्या पोंदच्यान धवो फुल्ल घसघसो व्हांवतालो. आनीकूय सोपणां चडले. दोंगराचेर एक जनेल कोरांथिल्लें. मुखावयल्यान फेसाळ लोट पडटालो. आंगार उदक पडलें. भिजलेंच म्हळ्यार जाता. दोनशें एक सोपणां चडटा म्हळ्यार रो... रो... रो... आवाज आनी ८-१० घसघशे! खंयचे वटेनच्यान केन्ना धबधबो दिश्टी पडत म्हणून सांगूं नज! वालोर त्या इंजिनियराचे तकलेक. दोंगरा पोटांतल्यान व्हांवपी धबधबे सामके म्हऱ्यांत हाडून दवरल्यात. धवेफुल्ल फेसाळ दूद कशे...! एक वेगळे तरेचो अणभव.



आनीकूय अशे सुंदर सुंदर वाठार स्विट्झरलंडाक आसात. स्विस लोक धाडसी, खेळाची आवड आशिल्ले. सतत किर्ते ना किर्ते व्यायाम घडपी कसरती करीत आसतात. थंय सावन हार्डर कुल्म हांगा वचपाक भायर सरलीं. इंटरलाकेन शारांतल्यान हार्डर कुल्माचे उंचायेचेर वचपाक फनीकुलर ही लिफ्ट आसा. ही लिफ्ट म्हळ्यार लिफ्ट न्हय. बोगी न्हय. रेलबस न्हय. ह्या सगळ्यांचें मिश्रण कशें. म्हणून घडये फनीकुलर जावये! हार्डर कुल्म हो एक व्यू पॉयंट. हांगच्यान युंगफ्राव हो युरोपांतलो सगळ्यांत उंचायेचो पर्वत दिसता. ते भायर आयगर, मॉंच हेवूय दोंगर दिसतात.

धून आनी ब्राय्न्झ हीं सरोवरां दिसतात. थंय सावन स्विट्झरलंडाचें आनीक एक रूप पळयलें. थंय आशिल्लें रेस्टोरंट म्हणजे ल्हानसो किल्लो कसो. दनपरां आमी थंयच जेवलीं.

सकयल येवन इंटरलाकेन शारांत भोंवपाक लागलीं. दोन तळ्यांचे देगेर वसयल्लें स्विट्झरलंडांतलें एक पोरणें शार. चोंय वटेन आल्पस् पर्वताच्यो रांगो. हांगा राबितो करून हेर कडेन भोंवडी करपाक बरें पडटा. हांगचीं चडशीं घरां बसकीं. एकेच माळयेचीं. मळबांत व्हडले बोमाडे दिसताले. हॉट ॲर बलून फ्लाईंग हो हांगच्या लोकांचो आनी हांगा येवपी पर्यटकांचो आवडटो खेळ. वरभर हांव त्या सुंदर शारांतल्या सुंदर रस्त्या वयल्यान भोंवत रावलें. रस्त्या कुशीक घड्याळांची, चॉकलेटींचीं, सोविनिराचीं, रेडीमेड कपड्यांचीं दुकानां आशिल्लीं. घड्याळयांच्या दुकानांत भितर सरून घड्याळी पळयल्यो. सोविनियर शॉप मात सुंदर. सेरामिकाच्यो सुंदर सुंदर वस्तू. गोरवांच्या गळयांत

घालपाक पटे आनी ताका लांबयल्ली घंटी. ते भायर सेरामिकच्यो सुंदर सुंदर घांटी. चायना क्लेच्यो सुंदर वस्तू. इल्लीशी चायना क्लेची गाय घेतली. धवीफुल्ल कोराची, आंगार काळी खतां आशिल्ली. गळ्यांत पटो आनी इल्लीशी घांट. आनीक एक ल्हानशें स्वीस घर घेतलें. Swiss Chalet. थंयचें पारंपारीक लाकडी घर.

व्हिक्टोरिया हॉटेलांत पावतकीच रिसेप्शनीस्ट सिमोनाक विचारलें हासलेबर्गाक पळोवपा सारकें कितें आसा काय म्हूण. तिणें सोमर्ते Hasliberg Houses म्हणून एक ब्रोशर काडून दिलें. थंयचीं सुंदर घरां, जीं आमकां येतना वतना दिसतालीं, तीं खूब पोरणीं, १८३०, १७२८त बांदिल्लीं. दर एका घराक इतिहास आसा, केन्ना बांदलें, केन्ना आनीक वाडयलें, कसलें लाकूड वापरलां, केन्ना तार्जे गॅस्टहावज केलें... सगळी म्हायती तातूंत आशिल्ली. दर एका घराक नंबर दिल्लो. नंबराचेर ही म्हायती बरयिल्ली आनी रोड मॅप दिल्लो. हांव आनी आमचे बराबर आशिल्ले देयासेनी चौधरी ते ब्रोशर घेवन चलत गेलीं. देयासेनी आर्किटॅक्ट. मुंबय कॉलेजींत लॅक्चरर. आमी चडशीं घरां भायल्यानूच पळयलीं. पूण तीन घरां भितर वचून पळयलीं. कांय कडेन अदर्या घरांचें गॅस्ट हावज केल्लें. बॅड आनी ब्रेकफास्ट दिवपा पुरतें. भितर वचून चवकशी केली. घर पळोवंक मेळ्ळें. घरा फाटल्यान धान्य दवरपाक म्हणून एक वेगळी कूड आशिल्ली. पयलीं तंपावयली पद्धत ती. चुकून केन्नाय उजो बी लागलो जाल्यार धान्य सुरक्षीत उरचें म्हणून.

हीं घरां पळयत दोन एक वरां चल्लीं आमी. पांय सामके दुखताले. चलताना घाटींचो आवाज आमकां सांगात दितालो. हीं घरां पळोवन खरें स्वित्झरलंड पळयल्ले भशेन जालें. कुडींत आयलें. इंटरलाकेना घेतिल्ली गाय आनी घर भायर काडलें. हांवें आतां पळयल्ल्या घरच्यो सगळयो कुरवो त्या घरांत आशिल्ल्यो. फाल्यां जेन्ना केन्ना हांव हें घर आनी गाय पळयतलें तेन्ना म्हाका हे भोंवडेची याद जातली.

## माऊंट टिलीस सावन लुसर्न

माऊंट टिटलीस हो स्वित्झरलंडांतलो १० हजार ६२० फूट उंचायेचो पर्वत. वर्सूयभर हांगा झेल पडिल्लो आसता. ते खातीर हांगा सदांच पर्यटकांची गर्दी आसता. टिटलीस पर्वताचेर वचपाचो प्रवास तीन भागांनी करपाचो. युरोपांतली पयली रोटेअर, हिका रिवॉल्वींग गोंडोला अशेंय म्हणटात, तिजी सुरवात हांगच्यान जाली. आमी तिकीट काडून गॅटी भितर सरलीं. पयल्या भागांतलो प्रवास स जाण बसपी पाळण्यांतल्यान करपाचो. आमी ह्या पाळण्यांत-गोंडोलांत बसून माऊंट टिटलीस चडूंक लागलीं - सकयलो सुंदर भाग पळोवन तान भूक न्हिवली. पांचव्या कोराच्यो म्हणून कितल्यो शेड्स. एका केबला वयल्यान गोंडोला वयर चडटाले जाल्यार दुसऱ्या केबला वयल्यान सकयल देंवतात ते दिसताले. इतले उंचाये वयल्यान वता पूण भंय बी कांय दिसना. कितले बेगीन आमी ट्रसबी स्टेशन ह्या दुसऱ्या भागार पावलीं. थंयसून वयर वचपाक केबल कार आशिल्ली. हातूंतल्यान पंदरा एक जाणांक वयर वचूंक मेळटालें. हातूंत बसून मदल्या स्टेशनार वचूंक गेलीं. आतां लॅन्डस्केप बदल्लो. पांचव्या मळांतल्यान मदल्यान फेसाळ व्हांळ व्हांवताले. मदल्या स्टेशनार पावतकीर खरी मजा सुरू जाली. संवसारांतली पयली रोटेअर. वाटकुळ्या हारशांची लिफ्ट कशी आनी ही रोटेअर वयर चडटना स्वतः भोंवतणी वाटकुळीच पुंवता. ते खातीर चोय कडलें दिसता. पूण आतां सगळो झेलूच दिसतालो. मदीं मदीं धवे व्हांळ व्हांवताले. धवोफुल्ल झेल वोतांत चकचकतालो. सकयल्यान तिनूय भागांतल्यान वयर येवपाक आमकां पाऊण



वरा वयर लागलीं.

रोटेअरांतल्यान देंवतकीच लिफ्टान दोन मजले वयर वचूंक जाय. वयर पावलीं आनी किर्ते? नदर पावता थंय झेलूच झेल. झेलाच्यो दोंगुल्ल्यो ल्हान व्हड. किर्ते न्ही आमी कांयच कश्ट येना आसतना १०,००० फुटां वयर पाविल्लीं. हांगा आनी काजोल आनी शारुख खानाचे कटआवट्स लायिल्ले दिश्टी पडले. *दिलवाले दुल्हनिया ले जाएँगे* ह्या सिनेमांतले. ह्या सिनेमाचें शुटींग ह्या जाग्यार जाल्लें. सिनेमाचो प्रोड्यूसर यश चोप्रा हांकां हांगची सिटिझनशीप मेळळया अशें किर्ते वाचिल्ल्याची याद जाली. म्हणून तांच्या चडांत चड सिनेमांचें शुटींग थंय जाता खंय!

झेलांत भोंवपाक मजा येताली. दत्तराज, शौनक तर झेलाचे गुळेच करून शेवटूंक लागले. पयसुल्ल्यान चार जाणां बसपा सारको एक झोपाळो कसो. फक्त हाजेर बशिल्लीं सकयल पडचीं न्हय म्हणून एक आडवो दांडो आसता. हे दोंगुल्ले वयल्यान ते दोंगुल्लेचेर. मदीं खोल दरी. झणझणीत वारें. न विसरपा सारको एक अणभव. सकयल देंवलीं. हांगा झेलाच्यो यसरगुंड्यो. एका टायरांत बसले,झरझर करून सकयल. किर्तेंच करपाचें दवरलें ना. अर्दवर नाचून नाचून आयस् फ्लायरान बसून परतीं आयलीं. दनपारचें एक वर जाल्लें. आतां भूक लागिल्ली. परती लिफ्टान सकयल गेलीं. थंय रेस्टोरंट्स आसात. इंडियन रेस्टोरंटांत जेवलीं. भायर वचून आयसक्रीम खाली.

वयर गेल्लीं तशींच सकयल आयलीं. सकयल मुखारूच एक वडा पावची गाडी उबी आशिल्ली. वडा पाव, पावभाजी, सामोसा,



गुलाबजाम, गाजराचो हालवो मेळटालो. दत्तराज वचून चवकशी करून आयलो. मम्मा, साडेतिनशें रुपयांक एक वडा पाव. म्हाका दिसलें. हाका जाय म्हणून. 'तुका जाय रे?' 'हेंऽऽ कोणाक जाय इतलो म्हारग? शाळेच्या कॅन्टीनांत धा रुपयांक मेळटा.

आतां आमी लुसर्न शारांत वतालीं. हेंवूय शार स्वित्झरलंडाच्या हेर शारां भशेन तळयाचे देगेर वसलां. हांगा खंयच्याय तळयाचेर नदर मार तळयांत बदकां आनी साळकां आसतातूच.

पयलीं आमी लायन मॉन्यूमेंट पळोवपाक गेलीं. ल्हानशी तळी आनी ताका तेंकून आसा एका व्हडल्या फातराचेर कोरांथिल्लें जखमी शिंवाचें शिल्प. ताज्या भुजाचेर बाण घुशिल्लो आसा. तो मरुना. पूण मरपाचे धडेर आसा. हें शिल्प फाटलो इतिहास उगडून दाखयता. १७७२त फ्रान्साक राज्यक्रांती जाली. थंयच्या मस्त राजांची सत्ता ना जाली. तेदे वेळार पॅलेसांत रक्षक म्हणून कांय स्वीस सैनीक आशिल्ले. लोकांनी रागान तांकांय मारून उडयले. खरें म्हळयार त्या सैनिकांची कांयच चूक नाशिल्ली. ते बाबडे आपलें कर्तव्य करताले.

हरशीं स्वित्झरलँडाकडेन खूब कमी सैन्य आसा. संवसारीक पयल्या आनी दुसऱ्या महाझुजांत स्विस सैन्याचो प्रत्यक्ष संबंध नाशिल्लो. पूण झूजाचे परिणाम पळोवन रेड क्रॉसाची थापणूक जाल्ली. स्वित्झरलँडान संवसारीक राजकारणांत तटस्थ रावून आपल्या देशाची प्रगती केल्या. सैमाक सांबाळून पर्यटकांक सगळ्यो सुविधा तयार करून दिल्यात. स्त्झिरलँडाचे पश्चिमेक फ्रान्स, उत्तरेक जर्मन, पुर्वेक ऑस्ट्रिया आनी दक्षिणेक इटाली. पूण जर्मनीचो हिटलर, रोमाचो मुसोलिनी आनी फ्रान्साचो नेपोलियन हे शेजरा आसून लेगीत हांकां आपल्यो शिमो राखपाक सैन्याची गरज पडली ना. संवसारीक म्हाझूजांत शेजराचीं राष्ट्रां खिळखिळीं जालीं. पूण स्वित्झरलँड गिरेस्तूच उरलें.

लायन मॉन्युमेंट पळोवन येतना मदल्या पायणींनीं तावेर्नां आशिल्लीं. म्हळयार गोंयांत बी गांवांनी घरांत भायले वटेन खाणावळ बी आसता तशेंच किर्ते शें. एके कडेन स्विस फोन्ड्यू आसा म्हण तखटो आशिल्लो. म्हाका स्विस फोन्ड्यू कसो लागता तें पळोवपाक जाय आशिल्लें. सद्गुरू तर असलें कांयच रूच येवन पळोवपी न्हीं. हांव, दत्तराज,



शौनक आनी देयासेनी गेलीं. थोड्या वेळान मेजार एक ल्हान स्टोव्ह ताजेर हॅन्ड आशिल्लो एक पसरट तोप दवरलो. तोपांत फोन्ड्यू आशिल्लो. एके प्लेटींत दोन-तीन तरांचे ब्रॅडांचे कुडके दवरले. चार प्लेट्स दवरल्यो. लांब दांड्याचे कांटे दवरले. आतां कसो खावप काय हो फोन्ड्यू? कांयच कल्पना ना... भुरग्यांक खबर आशिल्ले दिसता. काट्यान ब्रेडाचो कुडको उखलप, फोन्ड्यूंत बुडोवप, घोळोवप, मागीर हो कुडको प्लेटींत दवरप. खावपाचो कांटो तोंपून तो कुडको खावप. फोन्ड्यू म्हळ्यार म्हाका दिशिल्लें सुपाचो एक प्रकार आसतलो म्हणून. पूण तशें न्ही. दोन-तीन तरांचें चीज यालून थोडी वायन आनी वयर थोडो जायफळाचो पिठो मारून केल्लो दाट पायस कसो. तो यट जावपाक जायना म्हूण आयदनां पोंदा स्टोव्ह दवरलेले. भुरग्यांनी तो आवडीन खालो. फोन्ड्यू बरोबर उदक पिवपाक जायना खंय! अशें किर्ते शें तिणें सांगलें. म्हाका आजयेची याद जाली. गरें खावन उदक पिवूं नाकात गो, निर्मळी जातली म्हणटाली ती.

आमी लुसर्न शार चलून भोंवपाक लागलीं. चडशीं घड्याळींचीं आनी सोविनिरचीं दुकानां. घड्याळांच्या दुकानांनी विंडो शॉपिंग करून आयलें. वज्रां, माणकां, मोतयां बसयल्ल्यो घड्याळी पळयल्यो. एक सादीशी घड्याळ घेतली. विद्राच्या ल्हान चित्रांचो एक सेट घेतलो. थोड्यो चॉकलेटी घेतल्यो. मुखारूच लुसर्न तळें. देग बांदून काडल्या आनी भायले वटेन चलपाक फुटपाथ आसा. थंय एक पासय मारली. नितळ निवळ उदक. हंस आनी मालार्ड जातीचीं बदकां पेवतालीं.

सात वरांचेर आमी लुर्सन तळ्यांत बोटींतल्यान भोंवडी करपाचीं आशिल्लीं. दोन वरां खातीर. अजून एक वरभर आशिल्लें. वेळ जालो कसो दिसूंक नाशिल्लो.



लुसर्न चौकांत बसपाक बांक आसात. थंय बसून हांव येतल्या वतल्यांक पळोवंक लागलें. थंयच बस स्टॉप आशिल्लो. बसी येताल्यो वताल्यो. बसीय लिप्प. थंय तशी लोकवस्तीय कमीच. आनी शीस्त, निवळसाण लोकांच्या रगतांत भिनल्या. सात वरां जालीं. आमी क्रुझार चडलीं. मेजां, कदेलां आशिल्लीं. आयकुवपाक स्विस संगीत... गीतां... जेवण इटालियन जेवणाक लागींचें... म्हळ्यार पास्ता, नुडल्स... तसलें... जेवन एक सुंदर सांज काळजांत दवरून आमी हासलेबर्गाक वचपाक गेलीं.

## युंगफ्राव आनी झुरीक

आमी आतां युंगफ्राव (Jungfraujoch) वतालीं. युंग्रफाव युरोपांतलो सगळ्यांत चड उंचायेचो पर्वत. ह्या सुंदर जाग्यार वचपाचो प्रवासूय तितलोच सुंदर! लावटरब्रूनन ह्या सोबीत अश्या स्टेशनार आमी आयलीं. हळदुव्या रंगाचे ट्रेनींत बसून. स्टेशनार देवपी ट्रेनी हळदुव्याच रंगाच्यो. ह्या लोकांचें कशें काय सगळेंच सुंदर. खंयच म्हणून कुरूप, हळशीक अशें कांयच ना. अशें येवजिता म्हणसर Jungfrau Joch बरयिल्ली चार डब्यांची तांबडीच ट्रेन आयली. आमी भितर चडलीं. बसपाक बरींऽ विमानांत बशिल्ले भशेन सिटां. स्क्रिनाचेर खंय पावल्यांत त्या जाग्याची उंचाय, कितलें अंतर चडून आयलीं तें आनी स्टेशनाचें नांव येतालें.

उब्या दोंगरार ट्रेन चडटाली. पर्वताचेर केन्नाच चार पावलां चडूंक नाशिल्लीं आमी कांय न्हय कशीं युरोपाच्या माथ्यार चडटालीं. लावटर ब्रुनन साकून युंग्रफाव हो प्रवास म्हजे खातीर एक सैमसुवाळो आशिल्लो. युरोपांतलो स्प्रिंग सिझन निकतोच सुरू जातालो. हळडुवीं, धवीं, गुलाबी रानफुलां तकली वयर काडूंक लागिल्लीं. सगळो वाठार पांचवोचार जाल्लो. दोंगरा वयल्यान धबधबे व्हांवताले. सायकल मार्गान वचपी सायकलवीर. ट्रॅकींग करपी पयसुल्ल्यान दिसताले. म्हजे सारक्यांक आनीक किर्ते जाय. युंग्रफाव पावतकीच किर्ते दिसता तें दिसूं. ह्या प्रवासानूच हांव तृप्त जाल्लें.

आमचे खातीर आनीक एक आनंदाची गजाल आशिल्ली. ही ट्रेन सुरू जाल्ल्याक ह्या वर्सा शंबर वर्सां पुराव जातालीं. ते खातीर ह्या वर्सा पर्यटकां



खातीर खूब रिकमी आशिल्ल्यो. तिकेट दितना हातांत एक पासपोर्ट दिल्लो. युंगफ्राव सेंटेनरी पासपोर्ट, १९१२-२०१२ फाटल्या पानार एक सर्टिफिकेट आशिल्ली. ह्या पासपोर्टाचो धनी आशिल्लो मनीस युरोपाच्या ह्या सगळ्यांत उंचायेच्या रेल्वे स्टेशनार येवन गेला म्हणून. ३४५४ मिटर म्हळ्यार ११,३३३ फूट उंचाये वयलें रेल्वे स्टेशन. वयर पावतकीच ताजेर स्टॅम्प मारून येवपाचो आशिल्लो. ट्रेनीचो इतिहासूय अदींमदीं स्क्रिनाचेर येतालो. हे ट्रेनीक कॉगव्हील ट्रेन अशें म्हणटात. रेल्वेच्या दोन रुळां मदीं दांत आशिल्लो आनीक एक रूळ आसता. ही ट्रेन मदींमदीं २५ ते ४० डिग्रीन वयर वता.

दिसलें, इतले वयर रानांत, दोंगरार रेल्वे व्हरपाचें काम कितलें कठीण! कोणांक सुचलें काय हें? कितले त्रास पडल्या आसतले! खरेंच आधुनीक तंत्रज्ञानाक सलाम!

इतल्यान स्क्रिनाचेर ट्रेन Scheidegg पावली. ६७६२ फूट म्हूण आयलें. आतां ट्रेन बोगद्यांतल्यानूच वचपाक लागली. व्हदोळच्यान थंड आशिल्लें. आतां कुडकुडो खावपाक लागलो. कानतोपी, ओवरकोट यालो.

Eigerwand, Eismeer स्टेशनां काडून युंगफ्राव पावलीं. हेंय स्टेशन बोगद्यांतूच आशिल्लें. थंय सावन लिफ्टान ११० मिटर उंचायेर गेलीं. ही सबंद आरशांची इमारत. हें स्वित्झरलँडांतलें फास्टेस्ट लिफ्ट. लिफ्टांतल्यान तेर्रासाचेर वचपाक गेलीं. तेर्रासाचेर वचपाचें दार बंद आशिल्लें. लोक दाराच कडेन उबे आशिल्ले. चार-पांच लोकूच तेर्रासाचेर दिसताले. आमी भायर वचपाक पावल यालें. म्हाका कांयच कल्पना ना. हांव वाऱ्यान झुम्म करून फाटल्यान आयलें. पडटां पडटां दाराक हात धरलो. आतां आवाशिवा करून एकमेकांचे हात धरून मात्शीं फुडें गेलीं. हांवें थंयच थपकल मारलें. ल्हवू ल्हवू धोपरांचेर उबें रावलें. आवज धुकें बी नाशिल्लें. मळब निवळ आशिल्लें. ल्हवू ल्हवू तशेंच चलत रेलिंगाक धरून उबें रावलें. धवी फुल्ल सुंदरकाय दोळ्यांत भरून घेतली. गेल्लें तशें परतें आयलें. तेर्रास वोलो जाल्लो. ते खातीर निसरून पडटालीं.

लिफ्टांतल्यान एक माळी सकयल देंवलीं. आयस् पॅलेस पळोवपाक. हांगा झेलाचीं तरेकवार आकाराचीं शिल्पां आसात. आनीक एक जनेल कशें आशिल्लें. ताजेर बरयल्लें टॉप ऑफ युरोप. थंय उबे रावन फोटो काडपाक मेळटाले. हीं सगळीं शिल्पां म्हळ्यार ग्लॅसीयरचोच एक भाग. ग्लेसीयरच्या पोटांत आमी पावप हें येवजूंक सुद्धां कुस्तार.

दनपरां जेवपाक सकयल आयलीं. बॉलीवूड रॅस्टोरंटांत इंडियन बुफे आशिल्ली. व्हेज, नॉनव्हेज. हांगा आनी इंडियन रॅस्टोरंट आसत म्हूण हांवें सपनांत लेगीत येवजूंक नाशिल्लें.

जेवन भायर आयलीं. पासपोर्टाचेर स्टॅम्प मारून घेतलो. तारीख ०१-०६-२०१२ आनी वेळ १५-३६... थंयचें तापमान तेन्ना -4°C आशिल्लें. थंयूय सोविनिर शॉप्स आशिल्लीं. दत्तराजान कीचेन बी असलें खटर खुट्टर घेतलें. परतीय झुकझूक गाडयेंतल्यान लावटरब्रुनन शारांत गेलीं.

आयज हासलेबर्गांतलो निमाणो दीस. चार दीस थंय राविल्ल्यान युरोपियन कन्ट्री सायड म्हळ्यार कितें ताजो अणभव तरी घेतलो.

व्हिक्टोरिया हॉटेलाक बाय बाय म्हणत झुरीक वचपाक भायर सरलीं. येदें व्हडलें २५० रुमांचें हॉटेल. त्या मानान स्टाफ सामको कमी. एकूच मनीस कितलींशींच कामां करता. हांगा मनशां खूब कमी. झुरीक वतना वाटेर रायनफॉल पळोवपाक रावपाचीं आशिल्लीं. हो युरोपांतलो सगळ्यांत व्हडलो धबधबो. शियान मात्सो हो शेकेल्लेवरीं जाता. पूण ह्या दिसांनी खळखळता. धबधबो सकयल पडटा त्या जाग्यार न्हंय खूब रूंद आसा. धबधब्या मेरेन वचपाक बोट आसा. खडपाचेर गॅलरी आसा. सोपणां चडून गॅलरींत उबें रावपाचें. ह्या स्वीस लोकांनी सैमाचो असो आनंद घेवप कितलें सोपें केलां. घो घो आवाज... आंगार थेंबे पडटात. पूण दिसता हांव त्या धबधब्या पोंदाक उबें आसा आनी चींब भिजतां. दूद कशें धबधबो रकता.

अश्या ह्या सुंदर जाग्यार खूब वेळ



घालयलो. झुरीकाक पावता म्हणसर दनपार जाली. महारानी कांय महाराजा नांवाच्या इंडियन हॉटेलांत गेलीं. झुरीक शार. पोरणें आनी नवें. पूण सुंदर शार. रस्ते चड व्हडले न्हय. पूण हांगा ट्रॅम चलतात. आतां आमी बानहॉफ स्ट्रस ह्या जाग्यार म्हळ्यार स्टेशन रोडार आशिल्लीं. थंय ट्रॅमाचें टिकेट काडलें. थंयच्या थळाव्या मनशाक विचारलें. बस स्टॉपार आशिल्ल्या टिकेट मशिनांत टिकेट काडली. तीन स्टॉप काडून देवलीं. अर्दवर थंय भोंवून परतीं आयलीं.

लिमाट न्हंयचे देगेर झुरीक शार वसलां. जिनिव्हा लेक पळयल्लो, लुसर्न लेक पळयल्लो. आतां हो झुरीक लेक. स्विट्झरलँडांत म्हाका अजाप दिसलें. म्हळ्यार खूब आवडलें, शाराच्या मदल्या भागांत व्हडलीं तळीं आसात. तांचे देगेर सुंदर सुंदर इमारती, इगर्जी, उंच उंच टॉवर्स आसात. थंय चलून भोंवतकीच जीव सुखावता. जिविता कडेन पळोवपाची नदर सकारात्मक जाता.

इतले दीस आमकां स्विट्झरलँडांत पावस लागूंक नाशिल्लो. म्हणून आमी बरे तरेन भोवूंक पावलीं. आयज मात पावसान घुमटी घाल्ली. मर्दी मर्दी शिरशिरून वतालो. सत्र्यो, कापोती आयज भायर काडिल्ल्यो. आमी बानहोप स्ट्रास्स रस्त्या वयल्यान सरळ भोंवपाक लागलीं. आयची रातूच आमी स्विट्झरलँडांत आशिल्लीं. ते खातीर जाता तितलें झुरीक पळोवन घेवपाक जाय आशिल्लें.

ग्रोस म्युन्स्टर इगर्ज, झुरीकांतली एक पोरणी इगर्ज. हे इगर्जेक दोन टॉवर आसात. ते पयसुल्ल्यान खंयच्यानूय दिसतात. हे इगर्जेक बरोच व्हड इतिहास आसा. दुसरी फ्राउम्युन्स्टर. हीवूय इगर्ज, पूण तश्यो भायल्यान पळोवपाक ह्यो इगर्जी कश्यो दिसनात. सोपणां चडून वयर गेलीं. ही चर्च पयलींचें कॉनव्हेंट. णवव्या शेकड्यांत तेदेवेळच्या गिरेस्त पराब्यांतल्यो चलयो हांगा येताल्यो. हेय चर्चीच्या जनेलांच्या आरश्यांचें नक्षीकाम तर खूबूच सुंदर. आर्कां आर्कां आनी लांबचे लांब पटे कर्शी जनेलां.

सेंट पिटर्स चर्च भायल्यानूच पळयली. काळोख जाल्लो आनी झुरीक शार लायटींच्या उजवाडांत झगमगतालें. पुलार उबें रावलें. दिव्यांचें प्रतिबिम्ब न्हंयत पडिल्लें. सुंदर दृश्य. स्विट्झरलँडांतली निमणी रात दोळ्यांत साठयत कितलोसोच वेळ थंयच उबें रावलें.



फातोर्डा, मडगांव-गोंय

मो.: ९८५०५३०१५२





गजाल



कृ. म. सुखठणकार

' बिम्ब' पुरस्कार आनी ' कुडचडे सेवा केंद्रा ' च्या पुरस्कारान सन्मानीत जाल्ले **कृ. म. सुखठणकार** हे कोंकणींतले विनोदी आनी त्रोसात्मक साहित्य रचपी आयच्या काळावेले एक लोकप्रिय विनोदी लेखक. तांचीं 'चिमटे धुमके', 'धंयार धुमके' 'धुमक्यार धुमके' तशेंच 'धोंगां आनी पोंगां ' हीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. ते गोवा हिन्दु असोसिएशनच्या अना म्हांबरो यादस्तीक पुरस्काराचे पयले मानकरी जावन आसात.

सुवात म्हणजे किर्ते हें दोन पांयांच्या प्राण्यांक सांगपाची गरज ना. कारण तांच्या मुलभूत गरजां भितर तिजो आसपाव जाता. अन्न, पाणी हांच्या वांगडा तांकां निवारोय जाय पडटा अशें आमकां आमच्या पाटील गुरुजीन सांगिल्लें आनी आमकां तें तेन्नाय पटिल्लें. एकदां मेळटकच ही सुवात फकत निवाऱ्या पुरतीच सिमीत उरना. 'राजास जी महाली सौख्ये कधी मिळाली ती सर्व प्राप्त झाली ह्या झोपडीत माझ्या' अशें म्हणपाक आमी राश्ट्रसंत तुकडोजी महाराज न्हीं. म्हणटकच आमच्यो ह्या निवाऱ्या पासून कांय अपेक्षा आसतात. ऊन पाऊस वारा हांचे पासून राखण करपी सुवात आमकां कांय तेंपान पावना हें आमचे लक्षांत येता. मागीर आमी व्हडले सुवातीच्या सोदांत ऊन, पाऊस, वारा हांकां झेलत फिरतात. ''आगो आतां भुरगीं व्हड जालीं न्ही गो! तांकां म्हणून तांची प्रायव्हसी नाका? आतां आमकां थ्री बेडरुम फ्लॅट पावना. राजन म्हणटा विलाच येंवया म्हणून!'' अशीं उतरां कानार पडटकच आमकां निवारो हो गरजेचोच. पूण ताजी लांबाय आनी रुंदाय तितलीच गरजेची हेंय लक्षांत येता.

आमकां चार वण्टी आनी वयर छप्पर मेळ्ळयार पुरो अशें कोणाकूय दिसता आसत जाल्यार तें पिशेपणाचें थारतलें. आमचे पुर्वज जांकां आमी आदीमानव म्हणटाले ते धोलिनी रावताले. मागीर तांणी धोलिनी रावपाचें सोडून दिलें आनी चार वण्टींचे घरांत रावपाक गेले. तपश्चर्या करपाची बी गरज पडल्यार आमचे पुर्वज धोलिनी वचून बसताले हें आमकां पुराणां वाचल्यार लक्षांत येता. मुनीजन, रिशी जाणी सुख सोयेचो त्याग केलो ते सगले आश्रमानी रावताले. धोलिनी न्हय. हाजो अर्थ आमकां रावपाक फकत सुवात मेळ्ळी म्हणून जायना. आमी ती सोदतना बाकिचे गजालिंचोय विचार करतात असो ताजो अर्थ जालो. मुंबय सारकेले शारांत सुयेचे पोंतार मावता तितली पसून सुवात मेळपाक खूब कठीण. जांकां ती मेळना ते बाबडे फुटपाथाचेर दीस सारताले. पूण आतां सल्मान खानाक ड्रायवींग लायसेन्स मेळिल्ल्याक थंय रात सारप म्हणजे जिवाचेर उदार जावप अशी परिस्थिती निर्माण जाल्या. कर्माचे भोग आनीक किर्ते!

आमी आज कांयच कश्ट घेनासतना एक्विसाव्या शेकड्यांत पावल्यात ही आमच्या खातीर अभिमानाची गजाल. फाल्यां आपणे तुमकां एक्विसाव्या शेकड्यांत पावयल्या म्हणून ताचेंय श्रय कोणूय घेत सांगू नजऽ. सोड. जरीय आमी एकविसाव्या शेकड्यांत पावले तरीय सुवाती खातीर आमी आदीं झगडटाले तशे आजूय झगडटात. आदीं दर एकल्यागेर सरासरी धा बारा भुरगीं आसतालीं. चार चवक्यांचीं घरां आसतालीं म्हणटकच सगलें उमेदीन जातालें. आज प्रत्येकागेर चडानचड दोन भुरगीं आसतात. तीं जाता सर किर्ते भोगता तें दर एकल्याक खबर आसता. तरीय



सुवात

आसतना आमकां सुवात पावना. द्वापार युगांत सुवाती खातीर येर्दे व्हडलें झुज जालें आनी भगवानाक थंय येवन शेर्मांव सांगचो पडलो. ताजोच मागीर बायंडींग करुन अठरा अध्यायांची गीता तयार जाली. हाकाच लागून जाग्या खातीर केसी कोर्टांत वतकच तिजेरुच हात दवरुन आमी सोपूत घेतात. भगवान श्रीकृष्णान पांडव धर्मान चलताले आनी तांचेर अन्याय जालो म्हणून तांची बाजू घेतली अशें म्हज्या कानार पडिल्लें. म्हणटकच हांवे ही केस म्हजे कडेन घेतली आनी ताजेर अभ्यास केलो. मागीर म्हजे लक्षांत आयलें की हे झुजांत जितले कौरव जापसाल्दार आसात तितलेच पांडवूय. भगवानान तातूंत (उज्यांत)पेट्रोल घालून आपली जापसालदारकी पार पडली. 'न धरी शस्त्र करी मी गोश्टी, सांगेन युक्तींच्या चार' अशें म्हणत ताणें कौरवांच्या कानांत घालें असो म्हजो अभ्यास सांगता. द्वापार युगांत जें कृष्णान केलें तें काम कलियुगांत आमचे दायजी करतात. भगवान कृष्णान कौरव आनी पांडव हांचे मदीं मध्यस्ती करपाचो येत्न केलो पूण झुकतें माप ताणें पांडवांकूच दिलें असो म्हजो जाहीर आरोप आसा. मध्यस्ती करपाच्या नांवान कृष्णान कौरवां कडल्यान पांच गांव मागले. ते गांव खंयचे ते पळयात, पणीप्रस्त (आयचें पानीपत), सोनप्रस्त (आयचें सोनीपत), वृक्षप्रस्त (आयचें बागपत), इंद्रप्रस्त (आयचें दिल्ली) आनी तिलप्रस्त (आयचें तिलपट). हीं जीं ठिकाणां जी पांडवांचे वतीन कृष्णान मागलीं तीं कुरुचे राजवटी खालचे समृद्ध गांव आशिल्ले. आनी ते राज्याच्या मदोमद अशे वसयल्ले. हे गांव कौरवांच्या हातांतल्यान गेल्ले जाल्यार ते भिकेक लागपाचे. ही मागणी आयकल्या बराबर दुर्योधनाची तळ पांयांची आग मस्तकाक गेल्ली आसूंक जाय. म्हणुनूच 'अर्थ राज्यच काय सुईच्या अग्रावर मावेल इतका भुमिचा धुली कणही मी जिवंत असे पर्यंत त्याना मिळणार नाही' अशीं उतरां ताज्या तोंडांतल्यान तिडके भरशीं भायर पडलीं. आमी ताजीं ही उतरांच झरयत बसले. पूण ताजे फाटलें कारण आमी सोदून काडलें ना. ही द्वापर युगांतली केस हांवें कलीयुगांत हातांत घेतकच ह्यो सगल्यो भानगडयो उक्ताडार येवपाक लागल्या. अश्यो नाका जाल्ल्यो मागण्यो करत जाल्यार तकली जाग्यार आशिल्ल्या मनशाची तकली फिरतली. आमी चवथेक आसतना दत्तान पाटील गुरुजी कडेन इतिहासाच्या पेपराक, 'सगळे प्रस्न भाऊसाहेबावर होऊन जाऊद्या' अशी मागणी केल्ली. तेन्नाय पाटील गुरुजीची तकली दुर्योधनावरीच फिरिल्ली. पूण ते मागणेचो जमनी संबंद नाशिल्ल्यान पाटील गुरुजीन सुयेचें अग्र बी मदीं हाडलेंना. सांगपाचो मुद्दो म्हणजे सुवातीचो प्रस्न येतकच देवाची मती लेगीत भ्रश्ट जाता ती अशी. माशेलांत देवकी कृष्णाचें देवूळ आसा. थंय वचून हांवें आनीक म्हायती काडली. कारण हांव खंयचीय केस हातांत घेतकच हांव तिजे मुळाक हात घालतां आनी तीं खणून काडटां. तुमचे म्हायते खातीर. थंय म्हाका म्हायती मेळळी ती अशी, थंय शाणो रवळू आनी पिसो रवळू, पोर्तुगेज जेन्ना गोंयां आयले तेन्ना तांणीं मयेंची आपली मूळ सुवात सोडून माशेलांत येवन आलाशिरो घेतलो. देवकी कृष्णाक घेवन त्याच समयार मयेच्यान माशेलांत आयली. ह्या दोगांयच्योय (शाणो रवळू आनी पिसो रवळू) फामाद जात्रा जातात बिये जात्रा आनी माल्नी पुनव. पूण पालखेंत आनी रथांत बसता कृष्ण. म्हणजे दोगांयची मानाची सुवात कृष्णान बळकायल्या. हाजो अर्थ कलियुगांत लेगीत ताजी संवंय मोडूना. आमच्या देवाऱ्यांत बाल गोपाळ हाजी दिमकुऱ्यांनी मूर्त आसा. हांव निवेद्य दाखयतना प्राणाय स्वहः अपानाय स्वहः अशें म्हणून दोळ्यांर हात दवरुन ताका निवेद्य दाखयतालों. देवाऱ्यांत देवां भितर होच धाकलो हो म्हजो भावार्थ. पूण ही केस हातांत आयिल्ल्याक हाज्यो करण्यो समजूंक लागिल्ल्याक आतां हांव निवेद्य शाळीग्रामाक दाखोवंक लागलां, तुमचे म्हायते खातीर. आमच्या देवांची ही स्थिती म्हणटकच आमचें आनीक किर्ते वेगळें जातलें?

बापूय वतकच रोखडेच आमचे मुंबयकार चवथीक आयले. वर्स पद्धती प्रमाण 'चकल्या चांगल्या खुशखुशीत जाल्या आहेत, चिवडा मार्दोलचा का? यंदा शेव नाही केला?' अशे सगले कॉमेण्ट्स जाले. मुंबयकार जाग्याची वाटणी करपाक आयल्यात असो आईक सुश्पेत मारिल्लो.

''ह्यानी सपनात येऊन मुंबयकराना काही कमी पडू देऊ नको हो असं सांगितलं होतं म्हणून सगळं खुशखुशीत व्हावं ह्याचावर मी भर दिला''- आई.

विघ्नहर्ता आयलो देड दीस रावलो. बापूय गेल्ल्यान उमेद मातशी कमी आशिल्ली. म्हणून फुगड्यो नाशिल्ल्यो. घालीन लोटांगण जालें. बाबुली भटान सगळ्यां खातीर बुद्ध मागली.

''हे बाहेर गावी असतात ह्यांच्यां साठी ज्यास्तच माग रे बाबा''. आईन बाबुली भटाक म्हणलें आनी बाबुली भटान 'ही मंडळी बाहेर गावी असते त्यांच्या बुद्धी कडे ज्यास्त लक्ष केंद्रीत करावे. मालमत्ता, जमीन जुमला ह्या विशयी कोणता ही क्लेश मनात डोकावता कामा नाहीस' अशें सांगून घेतकच टायगरान भायर स्टँडर्ड माराणाची कास पेटयली. मुंबयकारांनी आपले पोले फोडून घेतले. सावळ्यान भायर फडफडीत पांचवे बांगडे आनी तेंफळां हाडून दवरलेलीं. विघ्नहर्त्यान आपली सेवा इतले मेरेन बरी वेवस्थीत करुन घेतली. ताका, 'पुढल्या वर्शी लवकर या' अशें म्हणून पावोवन आयलों तसो आमच्या बोरिवलीच्या मुंबयकारान विशयाक हात घालो.

''त्या खालच्या शिरेचे काय करायचा विचार आहे?''

तेन्नाच लायट गेल्ल्यान म्हाका ताजें तोंड दिसनाशिल्लें. आई हुमणाचें रगड्यार वांट्ली.



शीर म्हणजे आमचें भाट. हे शिरेंत पणस, पोंट, आंबे, सावले, माड बी आसात, तुमचे म्हायते खातीर. ही शीर जर मुंबयकारांक गेल्ली जाल्यार आमच्या वांट्याक सकयलो एक आंबाडो, एक आंतेर, एक मशींग, एक जाम हें सगलें येवपाचें. थोडक्यांत कौरवांची जी स्थिती जाल्ली ती म्हजी जावपाची. म्हणुनूच आयचे तारखेक दुर्योधना विशयीं म्हाका सोफ्ट कॉर्नर आसा. आमगेल्या मदल्याक हांवें दुर्योधन नांव दवरपाचें थारायल्लें तें हिजे कुळारच्यांनी भायर मारलें. आईक लेगीत ताजेर ऑब्जेक्शन नाशिल्लें.

कृष्ण नांव दवरलें म्हणून कोण कृष्ण जाता? व्हड जातकच करण्यो दुर्योधनाच्योच जातात. ताजे परस पयलींच दुर्योधन नांव दवरलेलें बरें. ताज्या करण्यांक तरी नांव सोबऽ सारकें आसतलें अशें आईचें म्हणणें आशिल्लें. सोड.

तर, मुंबयकारान शिरेचो प्रश्न काडिना फुडें, 'मैं मेरी झाँसी नही दूंगी' अशी किळांच कानार पडली. मुंबयकार 'कोण ओरडलं कोण ओरडलं' अशें म्हणत धडपडलो. म्हाका ही ओरडली हें थंय बशिल्ले कडेन कळ्ळें. कारण ही तिजें पांपरुण लेगीत मागल्यार 'मैं मेरी झाँसी नहीं दुंगी' अशें म्हणटा. कित्याक तें हांवें अजून विचारूं ना.

''अहो झाँसी ह्याचा उल्लेख जाणून घ्यायची गरज नाही. भावना समजा.''- टायगर.

''शिरच काय सुईच्या अग्रावर मावेल इतका धुळीचा कणही मी जिवंत असे पर्यंत देणार नाही.'' हांव आड्डलों. तेन्ना म्हाका गोडे मुताचें आनी प्रेसांवाचें नाशिल्लें म्हणटकच 'मी जिवंत असे पर्यंत' हीं उतरां हांवें जोर दिवन काळखांत मुंबयकाराच्या तोंडार मारलीं, तुमचे म्हायते खातीर.

''सावळ आमी यातली, चरी आमी मारल्या, बेनुल्ल आमी काडल्या, मानाय आनी कामेरीं आमी यातली. वरुन वाटणी? अहो आमच्यावर प्रसंग काय? तुमी बोलता काय ह्याचं भान आहे का तुम्हाला? वरुन आता लायट पण गेली आहे. हे वाटणार कधी, हुमण करणार कधी ती पण चिंता. वरुन तुमची...!''-आई.

अनपेक्षीत मान्या सामकार मुंबयकारान आनीक विशय वाडयलो ना. पूण चवथी कडेन पयांत खेळी मेळीचें वातावरण आसपाक जाय आशिल्लें तें इल्लेशे शिरे खातीर नाशिल्लें हें हांगा नमूद करचें पडटलें.

द्वापार युगांत जशें सुवात खंयची हाका म्हत्व आशिल्लें ताजे परस चड म्हत्व आज कलयुगांत आसा. आज कोणीय अनवळखी मेळ्ळो जाल्यार तो नांव बी विचारुन जातकच 'तुमी रावपाक खंय आसता?' हो प्रस्न विचारता. हे प्रस्नाचे जापेर फुडल्या उलोवण्यांची दिका थारता अशें म्हाका दिसून आयलां. 'हांव रायबंदरा रावतां' अशें सांगतकच 'अशें? मेळूया केन्नाय' अशें म्हणून उलोवणे बंद जाता. उलोवपी उलोवप फुडें व्हरपाची उमेद दाखयना. हो अणभव खूब फावटीं मुंबय वतना (नलूगेर) बशींत येतला. कारण प्रवासांत उलोवपा खातीर कोण तरी जाय आसता. रायबंदरा रावता हें कळ्ळ्या बराबर तो उजवाड आसल्यार पेपर काडून वाचता आनी काळोख पडिल्लो आसल्यार न्हिंदाव्याक पडटा. एक फावट हांव आनी सोयरो मुंबय वताले. हो सोयरो भायर आसता (युएसए) आनी हांगा आसतां तेन्ना तो दोना पावला ताज्या फ्लॅटार आसता. तर, ताजें विझाचें कसलें तरी काम मुंबय आशिल्लें म्हणटकच ताणें म्हाका बराबर आफयलो. म्हाकाय हांगा काम नाशिल्लें म्हणून हांवें हां म्हणलें. आमी ट्रेनीन (सेकंड क्लास एसी) मुंबय वचपाक भायर सरले. सिटार यालून येतकच सोयऱ्याक अमेरिकेक वेव्हार कसो चलता तें कोणाक तरी सांगपाक जाय आशिल्लें. अमेरिकेक जरी रावलो तरी 'जे जे आपणांसी ठावे ते ते इतरांसी सांगावे. शहाणे करुन सोडावे सकळ जन' हें संत वचन तो विसरुना ही आमचे खातीर अभिमानाची गजाल. म्हाका ताणें घरा कडेन शाणो करुन सोडिल्लो म्हणटकच ट्रेनींत कोणाक तरी शाणो करपाक जाय देखून ताणें एकल्याकडेन वळख काडली. 'सेकंड क्लास एसींत देसेन्त लोक प्रवास करतात आं' अशें म्हाका ताणें डब्यांत चडटना सांगिल्लें, कित्याक तें हांवेंय विचारलेंना. म्हणटकच ताणें वळख काडिल्ली तो देसेन्तूच आशिल्लो अशें मानपाक हरकत ना. ताजे बराबर देसेन्त भाभी आशिल्ली. नांव विचारुन जातकच खंय रावता हो प्रस्न आयलो तशें हांवें जनेलांतल्यान भायर पळोवपाक सुरवात केली.



''तुमी रावपाक खंय आसतात?''- देसेन्त मनीस.

''अमेरिकेक वॉशिंगटन डिसी आनी हांगा दोनापावला.''

''दोनापावला? आरे व्वा!''- देसेन्त मनीस.

''फेसींग अरेबियन सी?''- देसेन्त भाभी.

''हय एग्जॅक्टली! बालकनींत उबो रावतकच सामकार तो विशाल दरयो. ईझ्स हेवन.''- सोयरो.

''आमकांय मांडवी झुळुझुळू करुन व्हांवता ती दिश्टी पडटा.''- हांव.

''तुमी खंय रावतात?''- देसेन्त भाभी.

''रायबंदरा. एबाव्ट एट किलोमिटर्स फ्रोम दोनापावला. ईट टेक्स हार्डली टेन मिनिट्स अर्ली ईन ध मॉर्नींग एण्ड ट्वेण्टी फायव मिनिट्स मॅक्स ईन ट्रॅफीक आवर्स''- हांव.

''आसूं आसूं''- देसेन्त मनीस.

''कळ्ळें कळ्ळें''- देसेन्त भाभी.

''तुमकां भुरगीं कितलीं?'' देसेन्त भाभीन हो प्रस्न सोयऱ्याक केल्लो कारण दोगांयनी आपली तोंडां णव्वद अंश कोनान फिरोवन सोयऱ्याचे दिकेन केल्लीं.

''एकूच चली. अमेरिकेक आसता''- सोयरो.

''शिकता?''- दे.म.

''ना एम्बसींत आसता.''- सो.

''ओह टेर्फीक!'' दे. भा.

एम्बसींत कामाक आसल्यार ट्रेफीक कित्याक म्हणलें हें म्हाका कळ्ळेंना. थोडो तेंप हांवूय पंचायतींत कामाक आशिल्लों हें सांगचें अशें म्हाका दिशिल्लें पूण हांवें तो मोह टाळ्ळो.

''लग्न जालां? भायर आसतकच रेखडींच लग्नां जातात अशें आयकलां. म्हज्या बापोल भावाच्या मेवण्याची मेवणी कॅनडाक आसता. तिणें एकोणीस वर्सांचेरुच थंयच शिकड्या बराबर जमयलें आनी



लग्न जालें म्हणून म्हणलें.''- दे.भा.

''सिख्स मेक १.५% ऑफ पोप्युलेशन ईन कॅनडा जस्ट फॉर युवर इन्फोर्मेशन!.'' हांवें शहाणे करून सोडावे सकळ जन केलें. पूण हांवें दिल्ली म्हायती कोणेंच कानामानार घेतलीना म्हणटकच हांवें परत जनेला भायर पळयलें. एसींत जनेला भायर कांय व्हडलें दिसना हें म्हाका खबर आसा. तुमी ताजेर चड तकली पिडेर करपाची गरज ना.

''म्हणटकच लग्नाचो विचार आसा बी? कारण म्हज्या साडवाचो चलो आसा. साड्डय दोनापावला रावता आनी चलो युकेंत. पळयात दोनापावला तुमी शेजारी शेजारी.'' दे. म.

''आमगेलेंय व्हडलें लग्नाचें आसा यंदा कर्तव्य आहें''.- हांव.

''करमळे म्हजे वळखिचो इलेक्ट्रिशियन आसा. व्हेरी टॅलेन्टेड. आमच्या ताळगांवच्या बंगल्याचें वायरींग ताणेंच केलां. बरो भुरगो न्ही गो?''- दे.म.

''हय तर! भांगर भुरगो! इलेक्ट्रिशियन म्हणून कमी लेकूं नाका आं! दे आर वेरी वेल ऑफ.''- दे. भा.

''शी शी तांकां कमी लेकु येता? आमचे लॉजांतल्यो तीन ट्युबलायटी इलेक्ट्रिशियनाक लागून घालच्यो उरल्या. आज तीन म्हयने जाले. ही सोयरीक जाल्यार त्योय ट्युबलायटी बसोवन जातल्यो. जांवय म्हणटकच घरच्या घरा खाडिपारा.''- हांव.

हें सगळें सांगन दिसलें कारण तुमी खंय रावतात हाजेर आज तुमच्या समाजाची पत निंबून आसा हें तुमकां सांगपाचें आशिल्लें.

हे भुंयेर सुवात मेळप कठीण तेच परीन दुसऱ्याचे काळजांत सुवात मेळप सामकें कठीण काम. एकवेळ ताळगांवां, व्हॅली, पाल्म्स असल्या नांवाच्या बिल्डिंगांनी फ्लॅट मेळत पूण दुसऱ्याच्या काळजांत सुवात मेळटली हाजी शाश्वती ना. 'काळीज' हें स्त्रीलिंगी आसल्यार ताजे नखरे खूब आनी तें काळीज अस्तुरेचें आसल्यार आनीक माणसुकी ना. 'देती है दिल दे बदले में दिल के' अशे म्हणल्या बराबर 'ये ये ये रे ये रे सायबा प्यार में सौदा नहीं' इतले सोंपेपणान ती सुवात मेळना. हें सगळें सिनेम्यानींच घडपाचें. केन्ना केन्ना सिनेम्यांत लेगीत हिरोक हिरोईनीचे काळजांत सुवात मेळोवपा खातीर मध्यांतरा आदीं दोन तीन पदां, मध्यांतरा



उपरांत दोन तीन विरह गितां म्हणचीं पडतात. मदीं तो खलनायका कडल्यान मार लेगीत खाता. हांवें वयर म्हणलां तशें काळजांत सुवात मेळप इतलें सोंपे काम न्ही. हांवें ताजो पुरेपूर अणभव घेतला. हांवें पदां म्हणू ना जायत पूण कश्ट मात भरपूर घेतल्या. मागीर यश पदरांत नाका पडूंक. गितेंत कर्म करा म्हणून सांगलां तें कर्म हांवें केलां. रेखा भुजंगराव हुबळीकरान म्हजी उमेद वाडयतकच म्हाका ताजे काळजांत सुवात मेळ्ळी असो भास जालो. हांवें फुडलीं पावलां उखल्लीं आनी भुजंगरावाक 'भैरुचे औत' हो धडो पाठ करुन धडाधड म्हणून दाखयलो. 'भैरु उठला' हांगाच्यान सुरु करुन 'दिवस मावळ्ळा औत सोडले औत घेऊन तो घरी गेला' हांगा सोपयलो. भुजंगरावाचो ताजेर व्हडलो परिणाम जालो ना. म्हाकां ताजे काळजांत सोड घरांत लेगीत सुवात मेळ्ळी ना. मागीर रुक्सानान ग्रीन सिग्नल दिल्ल्यावरी दिसलें. ताज्या अब्बाजानाक हांवें गालीबाचो शेर म्हणून दाखयलो. म्हणजे म्हाका उर्दू कळटा हें ताका कळ्ळयार कळ्ळें.

'कोई उम्मीद बर नही आती कोई सूरत नजर नही आती मौत का एक दिन मु'अय्यन है नींद क्यों रात भर नही आती' अशें म्हणून हांवें रुक्साना वटेन नजर मारली.

''ये लडका क्या बक रहे है? खाला आज खीमा करती गे?'' अब्बाजानान बावरचीखाना दिकेन पळयत खालाक म्हणलें. प्रश्न ताणें रुक्सानाक केल्लो हें तुमकां कळ्ळांच आसतलें.

''अब्बाजान खाला कू खीमा बनाने कू कह रहे हैं'' रुक्सानान दांत चिड्डीत हांसत म्हाका म्हणलें. 'तू बत्तिशी दिखाके क्यों हंस रही है?' अशें विचारचेंशें दिशिल्लें पूण विचारलेंना. थंयच्यान उठून घरा आयलों.



खालान खीमा केलो काय ना हें कळपाक मार्ग ना. रुक्सानाचो निकाह जालो त्या दिसा खीमा आशिल्लो. तो खालान केल्लो काय खबर ना. रुक्साना दुबय तोंड घेवन गेलें. शिरवैकारागेर सकाळीं सुंगटां घेतल्यां ही खबर कळ्ळ्या बराबर हांवें तांगेर शंकर छाप हिंग घेवन धांवप. हांव तो बेळगांवच्यान फैदासून हाडटालों, तुमचे म्हायते खातीर. बरडागेर फकत लक्ष्मी छाप हिंग मेळटालो. सांगपाचो मुद्दो इतलोच खरस्ती खावन लेगीत हाताक कांयच लागलेंना.

जाका एके सुवातेर रावपाक जायना तो मनीस जांव वा प्राणी, ताका समाज मानाची सुवात दिना. माकड एका झाडा वयल्यान दुसऱ्या झाडार उडी मारता म्हणून सदांच फंकांडांचो विशय जाला. 'माकडावरी उड्यो किर्ते मारतात? एका जाग्यार बसपाक जायना?' अशें आमकां जाण्टेले विचारताले तेन्ना आमचे पुर्वज माकडूच आशिल्ले हें ते विसरताले. सोड. भोंवरो हे फुला वयल्यान ते फुलार बसता ह्या खातीर तो कवींचो, गीतकारांचो आवडटो. मनशां भितरली चंचलता दाखोवपा खातीर तांकां तो उपेगाक पडटा. 'भंवरा बडा नादान है बगियन का मेहमान हैं' असलीं गितां भोंवऱ्यांक लागुनूच घडटा. तें कित्याक कवींनी मळबांतल्या कुपांक लेगीत सोडूंक ना. कुपां एके सुवातेर रावनात हें तुमी मान वयर करुन मळबांत पळयल्यार तुमकां कळटलें. 'इतना न मुझसे तू प्यार बडा की मै एक बादल आवारा कैसे किसी का सहारा बनु की मै खुद बेघर बेचारा' अशें मळबांत भोंवपी कुपां विशीं गीतकार बरयतात. कुपांक आवारा अशें तो दुशण दिता. कुपां आमकां पावस दितात हें खबर आसून लेगीत 'कैसे किसी का सहारा बनु की मै खुद बेघर बेचारा' हीं कुपां खातीर उतरां वापरल्यां . हाजे वयल्यान एक सुवात नाशिल्ल्याची परिस्थिती समाजांत किर्ते जाता ते तुमी पळयात. एके सुवातेर बसल्यार लेगीत समाजाक ताजो त्रास जाता. एकेच सुवातेर बसल्यार, 'थापो कसो किर्ते बसला?' अशी वासपूस जाता. शेजारचे राज्यांत 'गुळाचो गणपती' बी म्हणून वळखतात. सोड. कोणाच्याय भावनांक हात घालचो आसल्यार सुवात हे उतराचो बरो उपेग जाता. 'तू म्हजे सुवातेर उबो रावन पळय' वा 'तू म्हजे सुवातेर आशिल्लो जाल्यार किर्ते करतलो आशिल्लो?' अशें विचारुन म्हाका खूब जाणांनी नकार दिलो. 'खरें गो हांव तुजे सुवातेर आशिल्लों जाल्यार तेंच करपाचों. आमगेर मेळांय व्हरपाक येतालें तें मात बंद करुं नाका आं' अशें म्हणून हांवें जायते विशय थंयच बंद केले. अशें जरीय म्हजे बाबतींत जालें तरी मोगाक जेन्ना कोमरी फुट्टा तेन्ना मोग करपाक एकांत जाय पडटा. ह्या खातीर तांकां तश्यो सुवाती सोदच्यो पडटात. 'चाँद चुराके लाया हूँ चल बैठे चर्च के पिछे. ना कोई देखे न पहचाने बैठे पेड के निछे' अशें कवी म्हणटा हेच खातीर. आमचे नशिबांत अश्यो सुवाती नाशिल्ल्यो. आसल्यारुय मेळटलो आशिल्लों कोणाक? शिरवैकाराल्या सिमाक दर पंचमीक कवळ्यां देवळांत चौकार मेळटालों तितलोच.एकदां म्हज्या काळजांत ताजी सुवात दाखोवपा खातीर (हनुमान स्टायल) हांवें म्हज्या शर्टाचे बुतांव तटा तटा तोडून म्हजी छाती दाखयली. 'आंवंय तुजे छातयेक केंसूच ना मरे? फिरोज खानाक दाट केंस आसा. म्हाका फिरोज खान खूब आवडटा'. सिमान भर चौकार म्हणलें. हांव म्हजी छाती आशिल्ली तशी शिंवतलो म्हणल्यार वयलीं बुतांवां तोडिल्लीं.

आज मेळत तो सुवाती खातीर एकमेकाच्या जिवार उठला. दिसाळयार आपलें मुखामळ दिसचे खातीर सगळेजाण दीस रात धडपडटात. थोड्यांक पयले पानार सुवात जाय जाल्यार थोड्यांक तिसरे पानार (पेज ३). अश्या समयार म्हजे सारकेल्याक तोंड घेवन पयस वचचेंशें दिसता. संत तुकाराम म्हणटा, 'संताची या गावी प्रेमाचं सुकाळ नाही दुःखझवलेश तळमळ.' अशी सुवात खरीच आसा काय आतां? सावळयाक विचारचें पडलें!



रायबंदर-गोंय, मो.: ९८५०५३०७५६




सखाराम शेणवी बोरकार

# वेंताक चुकल्यार...



कोंकणी कवितेंत मोलाची भर घालपी **सखाराम शेणवी बोरकार** काव्य निर्मिती करपा वांगडाच ललित साहित्य लेखन, विनोदी साहित्य लेखन, पुस्तक समिक्षा तशेंच हेर भासांतलें साहित्य कोंकणीत अणकारीत करपाचो वावर सातत्यान करीत आसात.

'वेंताक चुकल्यार वांवाक चुकलो, वांवाक चुकल्यार गांवाक चुकलो' अशी एक म्हण कोंकणींत घोळटा. गोंयच्या एका आदल्या नामनेच्या राजकारण्यान कांय वर्सां पयलीं विधानसभेंत ती म्हण आपल्या भाशणांत वापरीली आनी मागीर ती खूब चर्चेंतय आयिल्ली. एक ल्हानशीच चूक कितली म्हारग पडूं येता असो ताजो अर्थ.

पूण ती पुराय म्हण अशी: 'सुताक-कुसाक चुकल्यार आंगळाक चुकलो, आंगळाक चुकल्यार वेंताक चुकलो, वेंताक चुकल्यार वांवाक चुकलो, वांवाक चुकल्यार गांवाक चुकलो'. हातूंतलीं सुत, आंगळ, वेंत आनी वांव हीं लांबाय मेजपाचीं मापां. आंगळ म्हळ्यार बोटाचे जाड्येचें माप. वेंत म्हळ्यार हाताचो आंगठो आनी निमणे बोट (करंगळी) हांचे मदलें चडांत चड अंतराचें माप आनी वांव म्हळ्यार दोन हात सरळ रेशेंत पसरिल्ले स्थितींत दोनी मदल्या बोटां मदलें अंतर. तुमचे म्हायती खातीर आयच्या काळार (अदमासान) सुत = ३ मि.मि, आंगळ = २ इंच, वेंत.= ६ इंच आनी वांव = १८ इंच.

आदल्या काळार मेजपा खातीर आयचे भशेन 'ब्रिटिश सिस्टिम' वा 'मेट्रिक सिस्टिम' उदेवाक येवंक नासली आनी त्या काळावेले आमचे गंवडे आनी मेस्त भाव जोख काडपा खातीर (लांबाय मेजपा खातीर) फक्त हाताचो वापर करताले. इतलीं वर्सां जावन लेगीत त्या तेंपावेल्या आमच्या गंवडे भावांनी बांदिल्लीं देवळां, इगर्जो, सांकव आजून लेगीत शाबूत आसात. आमच्या मेस्त भावांनी तेन्ना केल्लीं मेजां, कदेलां, ओल्तेरां, आलमारी आजून लेगीत अभिमानान मिरयतात. आनी हाजीं सगळीं जोखां काडिल्लीं फक्त एका हाताच्या भरवंश्यार!

आंकडे मेजपय हाताच्या बोटांचेर जाताले. अशिक्षित लोक तर 'विसांनी' वा 'इसानीं' मेजताले. ते शंभर म्हणिनासले पांच विसो म्हणटाले. सगळें मेजप हाताच्या बोटांनी. मेजतनां लेगीत 'हातचो' धरताले.

अश्या ह्या हाताक आमच्या संस्कृतायेन खूब पवित्र मानलां. हाताच्या बोटांच्या तोंकार लक्ष्मी, तळट्या मदीं सरस्वती आनी मुळसांत श्री कृष्ण आसता असो समज आसा देखून सकाळीं फुडें हाताचें दर्शन घेवचें असो 'कराग्रे वसती लक्ष्मी: करमध्ये सरस्वती । करमूले तूं गोविंद: प्रभाते करदर्शनम् । हो संस्कृत शिळोक सांगता.

'हाता' वेले वाक्प्रचार आनी म्हणी हांची गांथन करुन 'हातचलाखी' ही अप्रुपशी विनोदी कथा मनोहरराय सरदेसाय हांणी कांय वर्सां आदीं 'सुनापरांत' दिसाळ्यांत बरयिल्ली. हातूंत मनोहरबाबान आमच्या कोंकणी भाशेची तांक दाखयतनाच हातावेले साबार वाक्प्रचार आनी म्हणी हांचो अर्थय सांगिल्लो. मनोहरबाब धुंगट हांच्या कोंकणी म्हणीसागर ह्या तांच्या म्हणीवेल्या पुस्तकाचे दुसरे आवृत्तींत (२०१६) 'हातचलाखी' हे कथेचो आसपाव केला.

ह्या हाताचेर आमच्या कोंकणींत इतल्यो म्हणी आनी वाक्प्रचार भरल्यात कीं विस्तार जावपाच्या भंया खातीर मातशें 'हातचें राखून' बरयतां.

'धा जाणाले हात दुस्मानालो यात' अशें म्हणटात. असो हो यातमारो आजापीत हात.

हात केन्ना वयर केन्ना सकयल जायत तें सांगूक नज. म्हणून म्हणटात 'दितना हात वयर आनी घेतना हात सक्यल' आसता. केन्ना केन्ना दुसऱ्याक 'हात दाखोवंचो' पडटा आनी मागीर 'हात दाखोवन अवलक्षण' अशेंय घडटा.

खंयच्याय मनश्यार्चे चामटीपण दाखोवपाक 'उश्ट्या हातान कावळो लेगीत आमडीना' अशें म्हणटात. कसलीय अतिशयोक्ती दाखोवपाक 'वेंतभर तवश्याक हात भर बीं, वा 'हातभर तवशें सवाय हात बीं' अशें म्हणटात. जो गोड उलोवन दुसऱ्याक त्रासांत घालता ताजी वृत्ती 'हातार साकर मानेर कातर' अशी आसा अशें म्हणटात. जेन्ना हात पांय धड नासतात आनी कांयच काम करूंक जमना तेन्ना 'हात पांय रवले काय करूं बायले?' ही ओपार मारतात. जेन्ना काम करपाची शक्ती आसता आनी काम मेळना आनी जेन्ना पयशे आसतात तेन्ना जेवण करुन घालपाक बायल नासता अश्या दोट्टी त्रासांत मनीस पडटा तेन्ना 'हात-पांय हालयतना रोजी गेली खावपा जेवपा वेळार बायल मेली' अशी ओपार मारतात.

जेन्ना जिवार संकट येता तेन्ना लोभ सोडचोच पडटा ते वेळार 'हात सुटूं, कुल्ली वचूं' ही ओपार मारतात. ह्या म्हणी फाटली काणी अशी: एकदां खंय एका मनशान कुल्ली धरपाक म्हण खडपाचे खांचीत हात घालो. तो ज्युस्तच कुल्लेच्या दांग्यांत सांपडलो. कुल्ली ताजो हात कसोच सोडी ना. हात रक्तबंबाळ जालो. तेन्ना तो म्हणूंक लागलो कुल्ली माह्ली झक आपलो हात सुटल्यार पुरो!

थोडे पयलीं अपमान करतात आनी मागीर भोगसुंची मागणी करतात तेन्ना 'हातान दिवन पांय धरचें' ही ओपार मारतात. पयलीं हातान थापट मारप आनी उप्रांत आपली चूक उमगतगीर भोगसुणीं मागपाक पांय धरप. असो ताजो अर्थ. हे म्हणीचो दुसरोय एक अर्थ आसा





तो म्हळ्यार जो कोण उदार दिता ताका मागीर जाका उदार दिल्लें तें परतें मेळोवपा खातीर ताजे पांय धरचे पडटात.

हातांत पयशे नासल्यार मनशाची परिस्थिती खूब वायट जाता. मंगळुरी कोंकणींत एक म्हण आसा 'हातां ना कासु (पयशे) ताका खंयचो कैलासु?. पयशे नाशिल्लो खंयच पयस पावंक शकना असो ताजो अर्थ. ह्याच अर्थाची दुसरी एक म्हण आसा ती म्हळ्यार 'हातांतु कासु नातिल्ल्यान तार एकळाक दाटुंवका.' ह्याच अर्थाची गोंयांत घोळपी कोंकणी म्हण म्हळ्यार 'पयशे नाशिल्ल्यान तारीर पयलीं चडूंक जाय'. जेन्ना तार भरिल्ली आसता तेन्ना पयशे नाशिल्ल्याक कोणच तारीर चडपाक दिना.

जेन्ना कितलेंय कश्ट केल्यार लेगीत आपल्या हातांतल्यान तें काम जायना तेन्ना तें सोडून दिवपांत शाणेपण आसता त्या खातीर 'हात पावनाशिल्लें फुल देवाक' अशी म्हण आसा.

'हातांतल्यान पडल्यार काडयेत, तोंडातल्यान(उतर) पडल्यार जायना'. आपूण उलयतना खूब सादूर रावप गरजेचें अशें ही म्हण आमकां सांगता.

'हातान उबारनाशिल्ली साण भांगरांन बांदतगीर गळयार घाली'. ही हाताचेर आदारिल्ली एक फामाद म्हण. एकली नवीच घरांत आयिल्ली सून कांयच काम करिनासली. ल्हान सान वस्त लेगीत हांगची थंय करिनासली. खऱ्यानींच हिज्यान काम जायना काय पळोवंक घोवान बरी जडशी साण (फातराचो वाटकुळोच कुडको जो पाळां, वैखंड, चंदनाचें लाकूड झरोवपाक वापरतात) शेटीगेर व्हरुन तिका भायल्यान भांगराचो पत्रो लायलो. भांगराची ती साण पळोवन ती जड वस्त उबारुन गळ्यांत घालपाक लागली. घोव तिगेलीं सगळीं नाटकां समजलो. भांगराचो सोस दाखोवपाकय ही म्हण वापरतात.

'bird in hand worth two in the bush' हे इंग्लिश म्हणी सारकी एक कोंकणी म्हण आसा 'हातांतलें तांती खरें, उदारेची कोंबी कोणे पळयल्या?'

केन्ना केन्ना येस हाता तोंडाकडेन येता, पूण ऐन त्या वेळार एके ल्हानशेच चुकी खातीर वा कळावा खातीर तें येस आमकां मेळनां. त्या वेळार 'हाता आयिल्लें तोंडा पावना' ही ओपार मारतात. 'हातांत पडिल्लें पदरांत पडना' ही ह्याच अर्थाची दुसरी एक म्हण. सायबांचे भाशेंत तिका 'There is many slip between the cup and the lip' अशें म्हणटात.

जी वस्त सहज दोळ्यांनी दिसता ती पळोवपाक हारश्याची गरज भासना. तेन्ना 'हातच्या कांकणाक हारशी कित्याक?' ही ओपार मारतात. जेन्ना खंयचीय घडणूक तुमी तुमच्या दोळ्यांनी पळयिल्ली आसता तेन्ना तुमकां दुसऱ्या कसल्याय आदाराची गरज नासता असो ताचो गर्भित अर्थ.

रुचीक रांदपी बायलेक तिज्या 'हाताक्च सुवाद आसा' म्हणटात. थोड्या बायलांक कितलेंय रांदप म्हळ्यार 'दाव्या हाताचो मळ'. घरचीं मनश्यांय तिज्या कामांत 'हातभार' लायतात. जेवणाक आयिल्लो सोयरो जेवणार 'उबो, आडवो हात मारता' आनी मागीर

आपल्या ताणशेल्ल्या पोटार आसुदाय 'हात भोंवडायता'. तशेंच हॉटेलाच्या गल्ल्यार बशिल्लो कामदार वा बसीचेर आशिल्लो कंडक्टर जमिल्ल्या गल्लूयाचेर केन्ना केन्ना 'हात मारता'.

थोडे नुस्त्याक सामके जीव सोडटात. नुस्त्या बाजारांत 'हात सदळ सोडटात' आनी पयशांचें तोंड पळयनात. थोडे इतले नशिबवान आसतात ते 'हात लायतात तें भांगर' जाता. कोणाकय आदार करपाचो आसा आनी त्या मनश्याक आदार करपाक मेळना तेन्ना म्हजे 'हात फातरा पोंदा आसात' अशें म्हणटात.

आपल्या भुरग्यांक 'हातावेल्या फोडा' भाशेन जपपी आवय बापूय आसतात. भुरग्यांची चड अपुरबाय केल्यार तीं 'हाता भायर' वतात आनी मागीर आवय बापायाक 'कपलार हात' मारपाची पाळी येता. 'आपलो हात जगन्नाथ' ही म्हण आमकां सगळ्यांक खबर आसा. आपल्या हाताच्या बळग्याचेर आपणें सदांच विस्वास दवरचो. ह्या 'हाताची खबर त्या हाताक लावंक ना' दिवपीय लोक ह्या संवसारांत आसात.

'हात चलप', 'हात घालप', 'हात वयर मेरेन पाविल्लो', 'हात वयर करप', 'हाता - तोंडा गांठ पडना', 'हाता वयले पोटाचें', 'हात सदळ करप', 'हाताक रुच आसप', 'डाव्या हातचो मळ', 'हात आखडतो घेवप', 'एका हातान टाळी वाजना', 'हाताचीं पांचय बोटां सारकीं नासतात', 'हात धुवून फ़ाटीक लागप','हात पांय गळप', 'हातांत कांकणा घालप' अशे हातार आधारिल्ले आनीक्य कांय वाक्प्रचार!

एक मात जाणां जावंचें की एकदां हातांतल्यान गेल्ली वस्त तश्यातशी परती येना. कोंकणींत म्हणणीच आसा 'हाता भायर गेल्ली वस्त आनी तोंडा भायर गेल्लें उतर परतें येना'. हेंच आमकां संस्कृत भाशेंतलें एक सुभाशित 'पुस्तकम, वनिता, वित्तम परहस्ते गतागतमख' सांगता. हाजो अर्थ 'पुस्तक, बायल आनी पैशे दुसऱ्याच्या हातांत गेले ते परते मेळपाक कठीण!'

अशीं आसात ह्या हाताचीं अजापीत करपी कर्तुबां. 'हात खंय घालप' आनी केन्ना कसो आपलो 'हात सोडोवप' हें जो जाणां तोच मनीस आयज मुखार पावता. हात खूब किर्ते जोडटा म्हूण मनीस मोगी सांगता 'हातांत हात' मेळयात इश्टागत तिगयात.



मडगांव- गोंय, मो.: ९९२३३०६७५१





उमाळे



सुफला गायतोंडे

# कुळारचे भोंवडे



कोंकणी भास,साहित्य आनी संस्कृताय ह्या मळार एक वावुरपी म्हूण आपले परीन योगदान दिवपी **सुफला गायतोंडे** सातत्यान काव्य तशेंच ललित लेखन करतात. तांच्या लेखनांत भाशेचें सादेपण आनी संवेदनशील मन दिसता.तांचे 'घुस्पल्ले धागे','आम्रपाली',आनी 'म्हजे मनाचे देगेर'अशे काव्य संग्रह उजवाडाक आयल्यात

आयज घरांत चार दीस कोण आसचीं नात म्हूण हांवें वेळ वचपाक सगळे वॉलड्रोप निवळ करपाचें थारायलें. चडशें सांजमेरेन नितळ केले आनी आंगांतलो शीण घालोवंक नॅसकॉफेचें कप घेवन वारांदार बसलें. शेजरा व्हडलो गुलमोहर कुवकुवीत फुलून पातळिल्लो. भुरगेपणांतल्यान म्हाका गुलमोहर आवडटा तो पुराय फुलतगीर. खळखळून हांसता सो दिसता.

गुलमोहराक पळयतगीर म्हजी नदर थंयच रावली आनी म्हाका भुरगेपणांतले भोंवडे घेवन गेली. आमचें घर भाटांत. भाटभर माड आनी रेंदेर. त्या रेंदेरालीं कांतारां, तांच्यो कुल्यो. मन तातूंत रमतालें. पूण रेंदेर परकी न्हय. पाय, शेपाय, उमांव, इरमांव, तितीव, माम अशेच मायेच्या नात्यांतलेच कशे! ह्या लोकांमदीं हांव वाडलें, शिकलें, रडलें, हांसलें, पडलें. पूण आई नासतनाय पडलें म्हूण कोणेंच माडयलें ना. मायेन सांबाळलें. फुलावरी पापान सांबाळलें. सदांच म्हाका हांसत दवरलें. म्हाका बावयलें ना. म्हज्या तोंडावयलो तो हांसो शेणयलो ना. पोल्या वयली गुलाबसाण विरगळ्ळी ना.

आयज उतार वयार लेगीत मन भुरगेपणांत धांवता. दिसता हांवें जाण्टेपणांत पावल घालूंक ना. ती याद, ते दीस आजून म्हजेकडेन ह्या काळजांत आसात.

हळदीच्या आंगान, मेथयेन रंगयल्ले हात घेवन, जड पावलांनी म्हजें घर सोडटना हांवें म्हज्या घराक भरिल्ल्या दोळ्यांनी फाटीं वळून पळयलें. ज्या घरांत पापाच्या दोळ्यांचो धाक, आईचे मायेचो स्पर्श, आज्जेन केल्ली तोखणाय, काका-आत्याली अपुरबाय, वावराड्यांचो मोग आनी भावंडांचे वेंगेंतली ती मायेची ओलसाण, सगळें त्या खिणांक थंयच दवरून हांवें जल्माचें घर सोडलें. म्हजें जें कितें आसलें तें तांगेरूच दवरलें आनी म्हजें घरूच न्हय तर वाडो, लोक, गांव, भायर चौके वयले कुल्यांनी खेळपाचे खांबे, दारांतली तुळस, म्हजीं बिलू, कुतू सगळें सगळें म्हाका परकीं जालें. पोरण्यो यादी नव्यान सामकारा आयल्यो. त्या दिसा वयल्यान वर्सां गेलीं, वर्सां फाटल्यान तप गेलें तरी ह्या खिणांत त्यो यादी टवटवीतच आसात.

सासणाचें जड मनान सगळयो सुखदिण्यो गजाली म्हाका करच्योच पडल्यो. ज्यो आयज यादी जावन म्हज्या काळजाच्या कोनशांत चिकटपट्टी जावन दसल्यात. अनवळखी मनशांक हांवें म्हजो फक्त हात दिलो पूण तो म्हजे जिर्णेंत म्हजो जावन रावलो.

म्हाका लग्नाक उबें करचे पयलीं तो साखरपुड्याचो खीण म्हजी जीण बदलून गेलो. मागीर सगळ्याच शेजाऱ्यांचो बदल जालो. मन हेवटेन तेवटेन जातालें. हांव शेणिल्लेवरी जातालें. पुस्पतालें. सगळी तयारी जाता म्हणटासर नकळत मनाचीय तयारी करची पडली. ती तयारी आपुणूच जाता.

गळ्यांत मंत्रायिल्लो म्हूर्तमणी आनी

कुळारचें दावल गळ्यांत पडटकीर खरे घराची दोन वाटणी जालीच. दिल्लें घर आपलें आनी फाटल्यान उरलां तें कुळारा जालें. कुळारचें सगळें तांचें आनी ह्या घरांतलें म्हजे दिसूंक लागलें. पापा कडेन उलयतना आमगेर, तुमगेर उतरां जावंक लागलीं. ज्या परकी दादल्यान म्हजो हात धरिल्लो तो मनीस ताजी नदर, स्पर्श, उतरां सगळें परकी आसूनय आपलो दिसूंक लागलो. जो अनवळखी आसलो तो वळखिचो जालो. त्या घरांतलीं मनशां, वस्तू, कामेरीं, झाडां सगळें सगळें आपलेंच जालें.



आवयलें घर कुळारा जालें. उपरांत सगळेंच बदलत गेलें. आपले जिणेंत प्रत्येक खीण मायेचे ओलसाणिचोच न्हय तर जबाबदारीचो जालो. त्या जबाबदाऱ्यांनी इतलें म्हाका पुसपायलें. प्रत्येक जबाबदारी कर्तव्य म्हूण आपणायलें. भावना पयस करून जबाबदारीन जगचें पडलें. पूण खंत जाली ना. सगळ्यां खातीर हांवें करपाकूच जाय हें ध्यानांत दवरूनच पावल घालें. तें पावल घरांतल्या जाणट्यां वांगडा घाल्ल्यान तें थिरान घालें. जाणट्यां वांगडा, तांच्या मना प्रमाण वा तांचें मत घेवन घाल्लें पावल म्हळ्यार ताका जाय तशें केन्नाय केलें तर तें काम केन्नाच चुकना वा चुकलेंय जाल्यार कोण चूक काडना. आपलें हांशें जायना. वयल्यान मायेन समजून घेतात. मनाक धीर दितात आनी तेन्ना तीं मनशां आपले मायेचीं दिसतात. सगळें आपल्या वागण्याचेरूच आसता. त्या खिणांक हें घर आपलें आनी आवयलें घर कुळारा जाता.

उपरांत आवय-बापूय जाणटीं जावन गेलीं तरी कुळार ह्या उतराक गोडसाण आसता. जशी चॉकलेट आमी जिबेर घेवन चोखीत रावतात तितली चॉकलेटीची गोडसाण चड वाडत वता. निमाणें म्होंवा थेंबो जिबेर उरता तशेंच कुळार ह्या उतराची गोडसाण काळजांत उरता. पूण तेंच कुळार घरांतली धूव आसा सर पळोवंक मेळत हाजी शाश्वती ना. ताजेर बिल्डरांची नदर पडली तर बुल्डोजर केन्ना भोंवत हाजो नेम ना. घरार भोंवतना पेर, आतेर, दाळींब, केळी, पारजात, करबेल, तेंडलीण हांचें आनीक कोणाक पडलां? तीय नकळत बुल्डोझरा पोंदा चिड्डतली.त्या जाग्यार घर वचून बिल्डींग येतली. फ्लॅटार फ्लॅट. एकाचे तकलेर दुसऱ्याचें घर. थंय मोगरीं, जायो-जुयो वोवळां, सुरगांचो वास नासलो तरी गिरेस्तकायेचोच घमघम आसतलो. पूण थंय वतगीर कुळारचो परमळ ना, किर्तेंच पयलींचें ना.

'आवयरस्स! जळार चाबलें.' हांवें भुजार थापट मारून जळारेक मारली. पळय जाल्यार भायर काळोख जाल्लो. उठून वरां पळयल्यार साडेसात. हांव इतलो वेळ कुळारचे भोंवडेर वचून केन्ना परतलें कळ्ळेंच ना. जळारांनी काडिल्ल्या दादडार परत खरपूंक हात गेलो.



मिरामार-गोंय, मो.: 9823111917

कथा



आशा शानभाग

**आशा शानभाग** हांची वळख कोंकणी वाचकांक आसा ती कसलीच भिडमुर्वत बाळगिनासतना बरोवपी एक लेखिका म्हूण. तांणीं कोंकणी कथा आनी ललित साहित्य हातूंत आपली अशी खाशेली सुवात सुगूर केल्या. तांचो 'कोऽहंऽऽ' हो कथासंग्रह ताची गवाय आसा.'बिम्ब' पुरस्कारान भोवमानीत ही लेखिका आपले कथेंतल्यान वाचप्यांक शॉक ट्रिटमेंट दिता.

# तूपसाकर

शीला आनी विनय एका वर्साच्या अंतरान फाटोफाट रिटायर जालीं. एकलोच पूत तांचो. तोय शिकून सवरून शिर्वीस करतालो. दोगांयनी व्ही. आर. एस. पेवन रिटायर जावचे पयलींच शाराभायर एक फ्लॅट घेवन दवरिल्लो. आतां तांकां थंय तांच्या सपनांतलें घर बांदून सुशेगाद जीण सारपाची आसली. तेन्ना सवाय पडिल्ल्या फ्लॅटाक आयज हिसपा भायर मोल आयिल्लें. विनयाचे कांय इश्ट तो विकून मेळिल्ले पयशे म्युच्युअल्स फंडांनी घुरपावपाक ताका कुलायताले. पूण घोव-बायलेचें सपन एकूच आशिल्ल्यान तीं मातूय भुल्लुसलीं नांत. तांचो पूत अनूप तर त्या जाग्याच्या मोगानूच पडिल्लो. आंब्या-पणसाचे रूख... वडाचीं झाडां... कोंब्यार्चे रान जें वारो आयलो काय शिळोण्यो घालतालें... फाटल्यान दोंगुल्ली जाल्यार फुडल्यान सर्द वायंगण पिकपी शेतजमीन...वर्सभरय जी पांचव्याचार आनी पिकिल्ल्या भाताच्या धानानी भांगराळ्या रुपाचो शेलो पांगरूनच आसताली.

अनुपान आपल्या इंजिनियर इश्टांची गांठ माँ-पापाकडेन घाली. घराचें सपन मुर्त रूपांत जल्म घेवंक लागलें. तिगांयचींय सपनां वन-बाय-वन बंगल्याच्या रुपांत प्रत्यक्षांत आयलीं. अशा सोबीत घराची ही एरिया हाय-वे वयल्यान वचपी लोकांचे नदरेक भरताली. शारा भायर तरी घरा वयल्यान शार दिसता अशा अंतरावेल्या ह्या घरांत शीला-विनय आनी अनुप भुल्लुसून रावपाक लागलीं.

घर, गाडी, रूप आनी गडगंज पागमेताची शिर्वीस आशिल्ल्या अनुपाक सोयरिकोय येवंक लागल्यो.

''माँ... पापा... तुमकां जाय त्यो चलयो पळयात. तुमकां पटता ती सांगात. पूण हां म्हाका आवडली तरच फायनल.''

''हय रे... आमकां सून जायच... पूण ताजे परस आयुश्य तुमी एकामेकां वांगडा सारपाक जाय. सो फायनल चॉय्स तुमचोच.''

चड चाळणी न लायतां शीलान अनुपाक मानवलें तें अर्जिता. जें स्वता एके व्हडले कंपनींत काम करतालें.. ताकाच सून म्हणून हाडपाचें थारायलें. अनुप-अर्जिताची पसंती आसलीच. पूण ताजे परस अर्जिताची आवय आनी बापूय.. संध्या आनी हेमंत हांचेकडेन शीला-विनयची व्हेवलेंग्थय म्हत्वाची थारली. शीलान तर पयलीं सगळ्या देवांक 'अर्जिता आनी अनुप हय म्हणूं' अशी आंगवण सुद्धां केली.

व्हडा दबाज्यान लग्न सुवाळो जावन अर्जिता ह्या घरची सून जाली. शीला तर अर्जिता कडेन मांयचे परस मैत्रिणीचें नातें जुळोवपाक तयार जालें. जुळलेंय. आतां तर तांची स जाणांची व्हडली फामिल जाली. आनी दूद-साकर कशी एकमेकां मदीं भरसून गेली. पूण अर्जिताक मात... उदकाचो पेलो



लेगीत हातान हाडून दिवपी मांयच्या आनी बापाय परस चड मोग दिवपी मांवाच्या ह्या घरांत सूख तोपपाक लागलें. आपल्या हेर इश्टीणीं भशेन ताकाय विंगड घरांत स्वतंत्र संवसार करपाचे वेध लागले. पयलींच न्युक्लीयर आशिल्लें घर सुपर न्युक्लीयर जावपाचें जालें. आवय-बापायचेर जिवा परस चड मोग करपी अनुपाक ही घडणूक हून उदकाचो घोट जाली. गिळपय अशक्य आनी थुकपय.

तांची घुसफूस, अबोलो शीलाक जाणवलो. पुताचे घुसमटमारींत तेंय घुसमटल्लें. पुताची घुसमट सोंसपाक जायना जावन ताणेंच अनुपाक समजायलें आनी अर्जिताचे शारांतल्या सुपर-न्युक्लीयर संवसाराचें सपन खरें जालें. संध्या आनी हेमंतान आपले धुवेक समजावपाचो जायतो यत्न केलो. संध्यान शीलाक फोन लायलो.

''शीला म्हाका म्हजे धुवेच्या कर्तुपाची लज दिसता गो. सॉरी. आनीक कांयच शब्द ना म्हजे लागीं.''

''आसूं गो संध्या. भुरग्यांक स्वतंत्र संवसार करपाची आसता आवड. अर्जिताची कांयच चूक ना गो. तांची विचारसरणी जशी स्वतंत्र तशीच अलिप्त जायत आसा. हांव आनी म्हजें/म्हजो... बाकी सगळें परकें. हाजेफुडें तांचे गरजेक आमी धांवप. पावपच तरी तांचे कडल्यान आमकां परतफेड जावची ही आस्त न धरप हें हांवें तरी थारायलां. आमचें कर्तव्य करत रावप. ताणीं कर्तव्य करचेंच म्हण सांगप ना. केलें तर आमी नशिबवान... नाजाल्यार?''

''शीला म्हाका तुमगेर येवपाक सुद्धां तोंड ना गो. हांवें चिंतलें लेगीत नासलें हें अशें करत म्हूण. सॉरी गो.''

''ना... नाऽऽ संध्या.. तशें चिंतप लेगीत ना. आमच्या चवगांयचेंय फ्युचर तीं दोगांच. केन्नाय फुडें तिगां-चौगां जातलीं पळय तेन्ना तांकां कळटलें गो.



आगो धर्तरी गोल आसा आनी घुंवत आसता.''

शीलान संध्याक जाता तशें समजायलें... पूण? संध्याच्या मनांतली खंत कमी जाली ना. उलटी वाडत्तूच गेली.

तशें अर्जितान दोनूय घरां सोडलीं नांत. म्हयन्या दोन म्हयन्यांतल्यान एकदां शारांतल्यान दिसपी सासर आनी ताजे मात्शें भायल्या कुळारा पासय मारतालें तें. बेस बरें करून मांय-मांव, आवय-बापूय सगळ्यांची खबर घेतालें. आपल्याक लागून दुसऱ्याक त्रास जावनये ही जतनाय घेवपी शीला पुता-सुनेक समजून घेवन आपलें रुटीन लायफ जगतालें. पूण मनांतल्यान खंती जाल्लें विद्या मात अर्जिता कडच्यान पयस वचपाक लागिल्लें. हेमंताकय धुवेची वागणूक मानवली नाशिल्ली. पूण तो दाखोवन दिनासलो.

हालीं हालीं अनुप आनी अर्जिता आपल्या कंपनीच्या कामांत इतलीं गुल्ल जाल्लीं आनी प्रोमोशना खातीर जीव धाडायतालीं की चार-पांच म्हयने जाले तरी हांची चवकशी करपाक पावनांत. ना म्हळ्यार केन्नाय मात्सो वीस-पंचवीस सेकंदाचो फोन आसतालो म्हणां! ह्या बोवाळांत दोनूय सिनीयर जोडपीं एकमेकां मदीं बरीं भरसलीं. 'पानी तेरा रंग कैसावाले' विद्यान सगळयांक आपल्या रंगान रंगयल्लें. अश्टविनायक यात्रा. धर्मस्थळ... महाबळेश्वर, पंचगणी... दोन दिसां खातीर दांडेली-मालवण अशे हांणी चवगांनीय सुरू केलें. सगळें प्लॅनिंग करून शीलान सांगलें की संध्या-हेमंत ना म्हणनाशिल्लीं इतलीं तीं ह्या रंगीले पानींत मिसळून गेल्लीं.

अशा विंगड-विंगड प्लॅनां भितर हांचे भितर एक वेगळोच प्लॅन शिजलो. जावंय-धूव म्हणा वा पूत-सून हीं ह्या चवगांचींय भुरगीं. तीं भोगूंदी तांचें सूख, आमी आमचेमदीं सोदुया ह्या विचारांत संध्या आनी हेमंतान आपली बिटकी कवळ्ळी आनी डायरेक्ट शीला-विनयागेर पावलीं. चवगांयचो एकठांय संवसार बहरलो. हेमंतान आपलें रावतें घर सरळ भाड्याक लायलें आनी एक फिक्स येणावळ सुरू केली. चवगांनीय आपापल्या भुरग्यांच्या कानार लेगीत ही गजाल घाली ना. तांकां गरज अशी लेगीत दिसलीय ना.

एके राती कडेन लायटशें जेवण घेवन चवगांय खबऱ्यांक बशिल्लीं. संध्याचो मोबायल वाजलो. अर्जिताचें नांव क्लीक जातकींच संध्यान बाकी तिगूय सिनीयर सिटिजनांक ओग्गी रावपाची कुरू करून फोन घेतलो.

''माँ.. जेवली?''

''हय गो आतांच जेवल्यांत आमी.''

''माँ आमी तुमकां प्रमोशन दिवपाचें चित्तात.''

''आरे व्वा.. केन्ना गो?''

''माँ फाल्यां दोतोराकडेन वचून कन्फर्मेशन घेतात आनी येतात तुजे कडेन.''

''अर्जिता.. कितल्यांक पावतलीं आमगेर?''

''सांजचीं गे पांच साडे पांचांक. जेवपाक येतलीं.''

''एक काम कर. तूं पयलीं अनुपागेर वच. शीला आनी विनयाक पयलीं सांग. मागीर जेवपाक आमगेर यो.''

हांची भासाभास आयकून बाकीचे तिगूय सिनीयर सिटीजन अजापीत. प्रमोशन. आमचें घर... अनुपाचें घर... तिगांयच्याय तोंडार प्रस्नचिन्नाचें जाळें जाल्लें.

''माँ यू आर ग्रेट... चल बाय. गुडनायट.''

'बाय गुडनायट...''

''शीला ए शीला आमचीं भुरगीं आमकां चवगांकय प्रमोशन दितात खंय!''

हे एकेच गजालीन चवगांय उचांबळीत जालीं.

''आगो संध्या केन्ना येतात... केन्ना पावतात तीं हांगा?''

''शीलालें जालें सुरू... भुल्लुसलां पळय.'' विनयान थोमणो मारलो तर तें



कांयच प्रत्युत्तर न दितां संध्याकडेन पळयता.

''आगो वेंऽऽ तें पळय शार. भायर सरल्यार ट्रॅफीक ना जाल्यार अर्दवर पुरो आनी किर्ते सोयरीं तीं? आपल्याच घरा तर येतात.'' पोन्नो घावो न विसरिल्लें संध्या बडबडलें. शीलाक समजून आयलें आनी ताणें विशयांतर केलें. फाल्यां चवगांकय एकठांय पळोवन तांचें किर्दे रिॲक्शन जायत? दोतोर कोण आसत काय? ह्या पोरांक किर्दे कळटा? हाजेर दोनूय दादल्यांनी एकामेकांक मारिल्ले दोळे... दोगांय भुरगीं दांगांनी वाडल्यांत म्हणून व्हड... ह्या सगळ्यांचेर भरपूर भासाभास करून दोनूय जोडपीं न्हिदलीं.

दुसऱ्या दिसाची फांतोड बेगीनूच उजवाडली. दनपारय लागीं पावली.... सांज बेगीन वेवंदी म्हूण शीला वाट पळोवंक लागलें. पड्याळाचो कांटो हालता तशी दाखयनां जरी जालीं तरी सगळ्यांचीच काळजां हालपाक लागलीं. गाडी गेटी भितर सरली... शीला विनय दोगांय पूत सुनेक वेलकम करपाक गेलीं.



जाल्यार चार दोळे वयले माळये वयल्यान, पडद्या आडच्यान चोरयां हांकां पळोवंक लागलीं. हीं चवगांय भितर ये मेरेन संध्या-हेमंत बेगोबेग सकयल येवन फुडली तयारी... जी शीलान 'करपाक जाय' सांगिल्ली.. ती करपाक लागलीं.

उगत्या दारांतल्यान चवगांय भितर सरलीं. जाल्यार? भितरले वटेन पंचारत येवन ओवाळपाक राविल्ल्या संध्याक पळोवन अर्जिता अजाप... ''माँ.. तूं हांगा?''

''हय.. माँ आनी हांवय. हांगाच आसात आमी.'' आपली भडास काडपाचे तयारेन हेमंत सुरू जावपाक इतल्यान शीलान ताका आवाज दिलो. 'हेमंत' आनी शांत रावपाची कुरू केली. अनुप मात अजाप. सदांच अर्जिताचो पप्पा म्हणपी माँ... डायरेक्ट हेमंत शी म्हणटा? तो समजलो... ताका कळ्ळें की हीं चवगांय जाणां एकामेकां मदीं भरसल्यांत.

''हेमंत.. बसुनी तांकां.''

''ओके शीला... चल रे विनय.. यो आमीय बसुया.''

अनुप आनी अर्जिता तांची ही सहजतायेन चलिल्ली भासाभास आयकून आनी तांची एकामेकां कडेन वागपाची रीत पळोवन सामकीं अजापलीं.

च्या-खाणां.. दोतोरान दिल्ल्या गूड न्युजाचें कन्फर्मेशन सगळें जालें. सय जाणांनी प्रमोशना खातीर सय जाणांक वीश केलें आनी अचकीत संध्या सुरू जालें.

''अर्जिता.. तुवें विंगड संवसाराचें सपन पळयत सावन हांव घुरमटलें. शीला सोशीक खरें.. पूण तेंवूय भितरले भितर घुरमट्टालें.''शीला संध्याच्या खांदार मायेन पोशेवंक लागलें.

''बी कूल गो.''

''पळय.. भितरली घुरमट चिड्डून हें जगप म्हजे कडेन शक्य ना. शीलाचे सोशीकपणाक विनयान साथ दिली. म्हाका आनी हेमंताक वित्राग आयलो.''

अर्जिताचें तोंड उगतेंच.

''हांव बापूय म्हणून खंय उणो पडलों म्हणून म्हजे धुवेन शीला-विनयाचो एकुलतो एक पूत तांचे पसून पयस केलो? ह्या विचारान हांव मरपाक पावलों.'' हेमंतान वित्राग उक्तायलो.

''हेमंत-संध्या.. तुमी खंयच उणीं पडलीं नात. वेळ ती.''

''पळय अर्जिता ही तुजी मांयूच मगो? अशी मांय मेळप म्हळ्यार नशीब. पूण तूं?''

''संध्यान सांगलें आमचे धुवेचे चुकेचें प्रायश्चीत आमी घेवया. ह्याच विचारान म्हाका चिंतपाक आयलें आनी आमचें घर भाड्याक दिवन हांगाच रावल्यांत. स म्हयने जाले.. तुमकां कळयलें सुध्दां ना आमी चवगांनीय. हाजे वयल्यान समजात तुमी किर्दे तें.'' हेमंत भरभरलो.

''अर्जिता अनुप.. तुमी आमची चिंता सोडात... आमी दोनांचीं चार जाल्यांत. एकामेकां मदीं भरसल्यांत. तुप-साकर जाल्यांत.''

काणकोण-गोंय, मो.: 9404145337

## तेफ्ळां

डॉ.वामन रा नायक



**डॉ.वामन रा.नायक हे निवृत्त प्राध्यापक. ते कथा, कविता, आनी ललित साहित्याची सेवा करतात. कांय काळ ताणीं 'वांगडी' नांवाचें एक नेमाळेंय चलयलें. ते 'भांगरभूंय' तशेंच हेर नेमाळ्यांनी सातत्यान लेखन करतात.**




# थांवती भेंट स्कॉटलँडची

खूब वर्सां पयलीं वाचिल्ली एक काणी म्हाका याद जाता. ती अशी. खूब वर्सां पयलीं एक राजा आशिल्लो. तो मरतकच ताजे खाजगी पेटयेंत एक चीट मेळ्ळी.राजान तातूंत बरयल्लें, 'हांवे चवदा वरसां राज्य ऐश्‍वर्यांत पालयलें. रावपाक बऱ्यापयकीं राजवाडो, वाड्या भायर परमळीत फुलांचे मळे,धुईधुई नाचपी कारंजा, पांचवीचार हिरवळ, दोळे दिपकावपी झाडां, वेली, खावपाक दिसपट्टीं पंच पक्वान्नां,आंगार घालपाक उंची कापडा/वस्त्रां,भांगर शिंगर,कसल्याचेंच उणेपण ना. अशे तरेन सगळे तरेचीं सुखां म्हज्या मुखार हात जोडून उबी आसलीं. हया चवदा वर्सांतले खरे सुखाचे दीस कितले ते हांवें मेजले. ते आसले चवदा. ते चवदा दीस खंयचे? तर ज्या वेळार हांवें बऱ्यांतले बरे ग्रंथ वाचले ते दीस जावन आशिल्ले.

वयले काणये वयल्यान सहज मतींत येता की बऱ्यांतले बरे ग्रंथ वाचतकच बरें गिन्यान मेळटा, म्हायती मेळटा, दुसऱ्यांच्या अणभवा वयल्यान शिकूंक मेळटा,आनी सुखय मेळटा,खोस मेळटा. जगांतले व्हड मनीस विवेकानंद, गांधी धरून, खूब वाचपी आशिल्ले, इतिहास ताका गवाय दिता. म्हाका पयलीं पासून आत्मकथा आनी प्रवासवर्णनां वाचपाक आवडटात. आत्मकथांची हांवें बरीच पुस्तकां वाचल्यांत आनी ताजो म्हाका खूब फायदो जालो, वेव्हारीक नदरेन आनी व्यक्तीशः बी. प्रवासवर्णनां त्या मानान हांवें कमी वाचल्यांत. पूण जेन्ना म्हाका नव्या, अनवळखी वा परदेशांत वचचें आसता, तेन्ना पयलीं हांव त्या सुवाती विशीं म्हायती एकठांय करता. नव्या सुवातींची म्हायती आसतकच थंय वचप सोपें जाता, आनी त्या थळांचो आस्वाद, आनंद, आपरोस बरे तरेन घेवपाक मेळटा.वैदीक संस्कृतायेंत प्रवासवर्णनाचें बीं सांपडटा. प्रवासवर्णन हो प्रकार पाश्चात्य साहित्याच्या प्रभावान उदरगतीक आयलो. लेखक बरे तरेन बरयतलो जाल्यार ताजो अभ्यास, वाचन योग्य संवेदना आसपाक फाव स.रवीन्द्रबाब म्हणटाले, 'इतलीं वर्सां कोंकणींतल्यान बरयलां, पूण अजून म्हजी भास म्हाका सारकी येना. ते निमणे मेरेन कोंकणी शिकताले.

कोंकणींतल्या प्रवासवर्णनांचो आंकडो सद्या वाडत आसा ही बरी गजाल. स.रवीन्द्रबाब केळेकारांचें 'हिमालयांत' आनी ' जपान जसा दिसला' (जाचो कोंकणीत 'जपान पळोवन आयलों' माया खरंगटे हाणीं अणकार केला) तशेंच दिलीपबाब बोरकारांचें 'गोमांचल ते हिमांचल.' वयल्या दोनूय पुस्तकां खातीर तांकां साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार मेळिल्लो, तेन्ना वाचिल्ल्याची याद जाता. कांय वर्सां पयलीं हांवें हर्षा स.शेटये हांचें 'आनंदयात्रा' हें पुस्तक वाचलें.रवीन्द्रबाबान ताका आपले तरेन अपुर्बायेचो आशिर्वादय दिला. हीं पुस्तकां म्हाका आवडलीं.माया खरंगटे आनी शीला कोळंबकारय हो प्रकार आपले तरेन हाताळटात.

जाणकारांच्या मतान प्रवासवर्णन बरोवप्यान सुवाती कडेन मुल्तपिल्ए ल्न्स्लस् वेगवेगळया तरांनी पळोवंक जाय. देखीक थळाचें म्हत्व, इतिहास, सैम, समाज, संस्कृताय, जेवण, खाण, न्हेसप, लोकजीण, राज्यवेवस्था, मनीसण, सहिष्णुताय, भाशा, तांचो आर्थीक बदल, फुडार आदी. वयलीं पुस्तकां वाचतूकूच म्हाकाय दिसलें हांवें हालींच केल्ले परदेशवारीविशीं -स्कॉटलँडा विशीं बरोवप.आनी फाटल्या अंकांतल्यान हांवें स्कॉटलंडा विशीं बरोवपाक सुरवात केली. ह्या अंकांत तें चालू दवरलां. चार वर्सां पयलीं आमी लंडनाक गेल्लीं. सद्या म्हज्या चल्याची फामिल स्कॉटलँडाक आसता,ते विशीं बरयलां.

युके कडल्यान स्कॉटलँडाच्या लोकांक फारकत घेवपाची ना असो तांणीं मतदानां वरवीं निर्णय घेतलो. पयलीं युकेक गेल्ल्यान

थंयचे थंडेची आनी वट्ट वातावरणाची खबर आशिल्ली.दर एका देशाची थरलेली जीवनशैली आनी सभाव आसता. इग्लंड/ग्लासगोकूय तें वेगळें आसा तें दिसून आयलें.

थंय सादारणपणान चार रूतू आसात. समर,ऑटम,विंटर आनी स्प्रिंग.समरांत फांतोडेर पांचाक उजवाडटा आनी रातच्या १० वरांचेर काळोख जाता. ऑटम, विंटर आनी स्प्रिंगमदें उसरां उजबाडटा आनी काळोखय बेगीन म्हळयार सांजेच्या चार वरांचेर जाता. विंटरांत तापमान सगळ्यांहून चड म्हळयार पाच ते स इंच अशें कमी अदीक आसता. हे प्रदेश उत्तर ध्रुवाच्या लागीं आशिल्यान थंय थंडी खूब आसता.

समरांत मात तापमान १८ अंश जालें तरींय लोकांक गरमेची लाट आयल्या सारकें दिसता. प्रत्येक दिसा हवामानाचो अदमास घेवन लोक प्लेनींग करतात, पयस वचपाचें वा ना तें!थंय पावस केन्नाय येता. पावसाळो असो वेगळो रूतू ना.

हांगाची वाहतूक वेवस्था जगांतली सगळयांवून बरी वेवस्था म्हणची पडटली. म्हारग आसा पूण एकदम बरी आसा. रेल्वेचें नेटवर्क हें प्रायव्हेट कंमन्यां कडेन सोंपयलां, तातूंत बदल जाता.

रेल्वेचे सीट/डबे बरे स्थितींत आसतात. पेपर, कचरो, बाटल्यो दिश्टी पडनात. दारां आपोआप उगडटात. धांवून वचून गाड्येक लोंबकळत रावप, गाडी धरप असले प्रकार दिसनात. रेल्वेंत सुण्यांक, ल्हान भुरग्यांच्या बाबा गाड्यांकूय प्रवेश मेळटा. तशेंच खाजगी कंपनी थंय सरली बस वाहतूक सांबाळटा. रेल्वे प्रमाणेंच सुण्याक आनी ल्हान भुरग्यांच्या बाबा गाड्यांक प्रवेश प्राधान्यान मेळटा. चडपा उतरपाचे मार्ग वेगवेगळे आसतात. रेल्वे आनी बसीच्या तिकेटींचे दर गर्दीचे वेळे प्रमाण कमी अदीक आसतात. तशेंच शेनवार आयतार आनी सुटयेच्या दिसांनी कमी आसतात. एकाद्री ट्रेन रद्द जाली वा रातची ट्रेन नासल्यार,पर्यायी वेवस्था स्टेशना भायर केल्ली आसता. खंयचेच परिस्थितींत नागरिकांक व्हाऱ्यार सोडिनात.

थंयसर वाहतूक वेवस्थेंत पादचाऱ्यांक खूब म्हत्व दितात. रस्तो क्रॉस करपा खातीर 'सेल्फ ऑपरेटेड सिग्नल्स' आसात. पयलें पादचाऱ्यांक क्रॉस करपाक मेळटा, ते खातीर गाडयो रावतात.पादचारी वतकूच क्रॉस करतात. पादचारीय मार्क केल्ले सुवातीं वयल्यान क्रॉस करतात.

तशेंच एखादया वेळार कार रिव्हर्स घेवपाची आसल्यार तो रस्तो कितलोय गर्दीचो आसल्यार रिव्हर्स घेवप पुराय जायसर सगल्यो गाडयो रावतात आनी कोणूच हॉर्न वाजयनात. भितरले रस्ते आमच्या सारखेच तरीय ल्हान व्हड वाहनां बोवाळ करी नासतना येतात वतात हॉर्न वाजयनात. ड्रायव्हिंग लायसन्स मेळोवपा खातीर सुर्वेक थरिल्ले दीस प्रॅक्टीस करचें पडटा आनी लायसन्स मेळप कठीन आसता.

हांगासर घरचें काम आनी हेर गजाली स्वतःच करच्यो पडटात. नोकर चाकर,मोलकरीण कोण दवरीनात. कोणेय दवरली तर त्या खातीर खूब पयशे फारीक करचे पडटात.देखून आयदना धांसप, रांदप, गार्डनींग,घराक रंग काडप, नितळसाण, सायकल आनी गाड्येक वारें मारप आदी गजाली दर एकल्याक करच्यो पडटात. इतलेंच न्हय तर पेट्रोलपंपाचेर पेट्रोल आपल्याकूच भरचें पडटा. उपरांत बिल ऑफिसांत व्हरून भरचें पडटा.

पयली सावन इंग्लंड आनी स्कॉटलँडांत सेगीत झगडी झुजां चालू आसतालीं. इंग्लंडचे तुलनेंत स्कॉटलँड आर्थीक नदरेन बरेंच फाटीं आसा. नोकरी वेवसाय,आर्थीक उलाढाल,आधुनिकीकरण अशे दर एके बाबतींत इंग्लंड वयर आसा.

हांगा एक गजाल बरी दिसली ती म्हळ्यार लागीं लागीं आशिल्ले पार्क. एका पार्का सरभोंवतणी भोंवपाक एक वर तरी लागता. लोक लांब भोंवपाक/धांवपाक,सायकल चलोवपाक चड म्हत्व दितात. वत येताशें जायना फुडें लोक भायर सरतात.

ब्रिटन आनी सरभोंवतणचो वाठार आतां मल्टीकल्चरल जाला.वेगवेगळया देशांतले लोक हांगा कामा निमतान पयलीं सहजतायेन येताले. आता हेर देशांतल्यान येवपी लोकांचेर बरींच बंदना आसात. नोकरी खातीर व्हिसा मेळप कठीन जालां.

सैमाचो स्कॉटलँडार बरदहस्त आसा. ग्लासगो हें स्कॉटलँडांतलें सगळयांवून व्हड शार. थंयसरलें ग्लासगो विद्यापीठ पळेतकच मन खुशालभरीत जाता. जगभराचे विद्यार्थी हांगा शिकतात. चड करून युवरोपांतले. त्या भायर हेर विद्यापीठांय हांगा आसात जीं बरींच पयलीं म्हळ्यार १४५१ आनी १७९६ सालांत स्थापिल्लीं. ह्या शारांत व्हड बंदर आशिल्लें. ल्कायड नदी हांगा दर्याक मेळटा. भोंवडेकारां खातीर बरींच पर्यटनथळां हांगा आसात. म्युझियम,आर्ट गॅलरी जंय पळोवप्यांची गर्दी आसता. कॅलवीन ग्रोव हे



व्हड म्युझियम बारीकसाणीन पळोवपाक वेळ पावना. तशेंच एक म्युझियम पळोवपा सारकें आसा तें म्हळ्यार ग्लासगोचें ट्रान्सपोर्ट म्युझियम. हया संग्रहालयांत पोरण्या काळांतले घोडे,गाड्यो,जहाजां, बोटीचे वेगवेगळे मॉडल्स,पोरण्यो मोटारी,घोडयान ओडपाच्यो गाड्यो,रेल्वेची पोरणी इंजिना आदी, हातूंत ट्रान्सपोर्ट आनी वाहनांनी कसो बदल आनी सुदारप जालां तें दिश्टी पडटा. त्या भायर हांगा सायन्स म्युझियम बी वेगवेगळे म्युझियम आसात.

ऑगस्ट म्हयन्यांत स्कॉटलँडात 'एडिंबरा फेस्टिव्हल' जाता.जातूंत बरेच कलाकार भाग घेतात आनी आपली कला पेश करतात. ग्लासकोच्यान एडिंबर वचपाक सुमार देड वर लागलें. एडिंबर हें संस्कृतीक केंद्र तर ग्लासगो उद्येगीक क्षेत्रांत मुखार आशिल्लें शार. एडिंबराक वतकच इतिहासीक काळांत प्रवेश केल्ल्या सारकें दिसता. ही सुवात खूब सोबीत आसा.भोंवडेकार एडिंबराक व्हडा संख्येन वतात.थंयसरलो किल्लो दोंगर माथ्यार आसा. त्या परिसरांत वतकच इतिहासीक काळांत प्रवेश केल्ल्या सारकें दिसता. हो किल्लोच न्हय तर हया पुराय शाराची नाळ इतिहासाकडेन जोडलेली आसा, हें गांव खूबच सुंदर आसा. सैमान नटलेलें आसा. गावांची रचणूक, मांडणी वेगवेगळ्याच धर्तीचेर आसा. हांगा परत परत येवचेंशें दिसता. हांगाचे लोक हांसऱ्या मुखाचे आनी मनशांमदें मिसळपी.भोंवडेकारांक आपलेशे करपी. आमी किर्ते तरी पळेतालीं थंय आमकां कोणतरी कोंकणी उलयता तें आयकूंक आयलें. लागीं वचून चवकशी केल्यार तें कुटुंब मडगांवचें नायक. सुटयेंत एडिंबर पळोवपाक आयिल्लें. इस्कोलांत शिकताना बॅग पायपर हो गायक नट म्हूण आमकां सांगताले. खास कपडे(कल्ति) घालून ते वाजयतात.स्कॉटलँडाचें खाशेलेपण म्हणल्यार बॅग पायपर. आमचे कडेन जी प्रतिश्ठा शेनायक आसा तशी थंय हया वाद्याक आसा. स्कॉटलँडांत पळोवपा सारकें खूब आसा. शेनवारा, आयतारा सुटयेच्या दिसांनी भायर वचप जातालें. देड म्हयन्यांत तें पुरायेन पळोवप शक्य ना. ताजे ग्लिम्पसेस हांवें दिलां.फामाद शेक्सपियरचो हो वाठार आनी स्कुलांत आसतना सर्वेत आनी णवर्वेत वाचिल्ली डॅफोडिल्स(फूल) कविता विल्यअम वर्डसवर्थाची. तीं फुलां हांगा पळोवपाक मेयळीं. वर्डसवर्थाचें निवासस्थान थंय स्मारक म्हूण फामाद आसा,जंय ताजे विशीं म्हत्वाची म्हायती दिल्या.

आर्थिक नदरेन पळयल्यार हो विकसीत वाठार शिक्षण,कला,साहित्य, मनरिजवण हया प्रकारांत नामना जोडिल्ल्यांचो ते फाव ते प्रमाणांत आदर करतात, तांचो मान राखतात हें वेगवेगळ्या यादस्तिकां वरवीं दिसून येता.



पुणे. मो: ९५२७७४४९९०





पासय



शुभांगी नेवरेंकार

**शुभांगी नेवरेंकार** म्हळ्यार आदलींचीं रंजन सुखठणकार. तांकां बरोवपाचो वसो सुखठणकार घराब्यांतल्यान आयला अशें म्हणूंक हरकत ना.ताणीं भांगरभूंय, जाग तशेंच बिम्ब नेमाळ्यांतल्यान लेखनाक आरंभ केलो. व्यक्तिचित्रां, ललित,प्रवासवर्णन आदी साहित्य प्रकार केळोवपाची तांकां आवड आसा.

आमी जेन्ना गोंयां येवपाक ट्रेनींत भायर सरलीं, तेन्ना बापायचे खूबशे इश्ट ताका निरोप दिवपाक आयिल्ले. कारण आमी मुंबय सोडून गोंयां रावपाक वतालीं. कायमचीं. तातूंतलो ताजो एक इश्ट म्हणपाक लागलो, 'आजीकडे भात घाल म्हणू नका, शीत घाल म्हणायचे.' आमी 'शिता'क तेन्ना 'भात' म्हणटालीं. मुंबय रावतालीं आनी जल्मा पासूनच मराठी उलयतालीं. गोंयां येतकीच कळ्ळें 'भात' कित्याक म्हणटात तें. तांदळांत आसल्यार ताका 'आशें' म्हणटात.

गोंयांत पयलीं जितलो खाणां जेवणांचो आक्त आशिल्लो, तितलो मुंबय आमी पळोवंक नाशिल्लो. सकाळचो च्या, मागीर शाळेंत वतना खावपाक आसतालें. दूद येतलें, गेलीं शाळेंत, येतकीर जेवण बी. तशेंच दनपरां च्या, खावपाक सुकें खाण, रातचें जेवण. जालो सबंद दिसाचो प्रोग्राम.

गोंयांत येतकीर आमी पळयलें, बायलांचो पुराय वेळ रांदचे कुडींतूच वतालो. दिसभर जेवण आनी खाण करपाक. तांकां भायली दिशाच दिश्टी पडनाशिल्ली. पूण तांकां तातूंत समाधान मेळटालें हेंवूय तितलेंच खरें. कोणाक कितें आवडटा तें करून घालपाक आनी तें आवडीन खातकीर समाधान मेळटालें. हांवें पळयलें तेन्ना गोंयांत रांदनीचेर रांदप आसतालें आनी वानाचेर वांटप आसतालें. तरी बायलां कंटाळो करिनासतना सगळो वावर उक्ला काडटाल्यो, कोणाक रावऽ नासतना.

आमचो आजो फांतोडेर पांचाक उठ्ठालो. ताका उठना फुडें च्या लागताली. म्हूण बाबडी आजी ताजे पयलीं उठून रांदनीक उजो घालून ताका च्या करून दिताली. तें करचे पयलीं रांदन शेणान सारोवन घेवप. तेन्ना एक समज आशिल्लो की, रांदन शेणान सारयल्यार ती शुध्द जाताली. दूद दवरपा आसलें आनी समजा रांदनीर शितार्चे तपलें आसत जाल्यार ते रांदनी वयलें तपलें काडून ती रांदन सवळी करपाक ताजेर तो शेणा उदकाचो बोळो फिरोवप. तेन्ना सवळें भश्टें खूब आसतालें. परतो परतो हो वावर आसतालो,रांदन सवळी करपाचो.

आदोळ्यो सुध्दां वेगळ्यो आसताल्यो. कांद्यांची वेगळी, भाजयेची वेगळी, नुस्त्याची वेगळी, लसणीची फातर वेगळी. वानार लसूण वाटप ना, नुस्त्या फाटल्यान कांदो आनी लसूण भ्रश्ट समजतालीं. आयदणां, ताटां पसून वेगळीं आसतालीं नुस्त्याचीं. आतां हांव तुमकां हांवें भुरगेपणांत पळयल्लो म्हजी आजी आनी आवयचो पुराय दिसाचो प्रोग्राम सांगतां.



# पयलींच्यो आमच्यो अन्नपुर्णा

दोगांय न्हावन धुवन जीं रांदचे कुडींत भितर सरतालीं तीं बद रातचीं न्हिदपा वेळार भायर सरतालीं. सकाळीं च्या दिवप, भुरग्यांक दूद, हें सगळें जातालें आठ साडेआठ मेरेन. मागीर धा वरांचेर कॉफी आनी खावपाक. मागीर ते फोव आसूं, सांजो आसूं नातर कांद्या भाकरी वा गवां पिठाची गोड सोय घालून आसूं,कितें ना कितें



आसतालेंच. तें जातकीर मागीर रोखडेंच पेजे तपलें चडटालें. साडे इकरांक सुमार पेजे थाळें दवरतालें. आमकां भुरग्यांक पेज आनी तोंडाक लावपाक केन्ना केन्ना खतखतें आसतालें. डांगर बी. ताजे मागीर देडाक-दोनांक सुमार सुशेगाद जेवण.

म्हजो आजो, बापूय नुस्तें खायनाशिल्ले म्हूण तांचे खातीर शिवराक आसतालेंच. भाजी, कोशंबीर, फोडी मागीर त्यो माडयेच्यो आसूं बटाटांच्यो वा केळ्यांच्यो. तांचे खातीर हे नग आसतालेच. बायलां, भुरगीं नुस्तें खातालीं म्हणटकीर, मागीर तांचे खातीर हुमण, तळिल्लें नुस्तें, मागीर केन्ना केन्ना वेगवेगळे तरेचें सुकें, आंबट तिखट, तेफळांचें, कांद्यांचें धबधबीत अश्यो सगळ्या नुस्त्यांच्यो तरा करतालीं. बांगड्यांची उड्डमेथी म्हणून करतालीं. पयलींच्या बायलांक कसलोच वाज येनाशिल्लो. उरफाटीं उमेदी आसतालीं करपाक. जेवणा बराबर सोलांची कडी आसताली. तातूंतय तीन तरा आसात.सोलांची फुटीकडी, लोसणीची आनी हरवे मिरसांगेची, फोण्णां बुडकुल्यांत घालतकीर आनी बरी लागताली. हातूंत ती एक कडी जेवणार दोनूय वेळार आसताली. तीन साडेतीनांक च्या जाताली. जेवणां जातकीर म्हजी आजी रांदचे कुडींतले बसपाचे पाट आडवे करून तांचेरूच मातशी आड पडटाली. कारण रोखडोच च्या करपाक जाय आसतालो न्हय. च्या जातकीर सांजच्या पांचांक-संक सुमार कॉफी. सामकी सवाद आनी काफे दळून केल्ली. ताजे बराबर कितेंय खाण आसतालें. सत्व म्हणा फोव पूण आसतालेंच. मागीर रातचें जेवण. सकाळची भाजी, रोस आसल्यारूय शीत आनी कडी परती करताले. पापड-लोणचें तर आसतालेंच. रातचीं जेवणां जातकीर म्हजी आवय सगळें जाग्यार घालताली.

संधेक दवरिल्ले पाठ उबे करून दवरप आनी जेविल्लीं ताटां विसळून घालूंक उडोवप, रांदन सारोवन पेवप दुसरे दिसा खातीर. सगळें जाग्यार पडलांशें दिसतकीर मागीर न्हिदपाक वचप. अश्यो ह्यो पयलींच्यो सुग्रणी. आयज तुमकां वखदाक न्ही, अश्यो आशिल्ल्यो म्हणून दाखोवंक पासून मेळच्योनात. म्हजी आजी आनी आवयच न्हय गोंयच्या प्रत्येक बायलांच्या हाताक रूच आसताली. मना पासून, जीव ओतून जेवण करतालीं. लोकांनी आवडीन जेवचें म्हूण कोणेंय फाटलें फुडलें पेवन जेवले, भुरके मारीत आनी पोट भरून जातकीर ढेंकर दिलो काय तांकां तांच्या जेवणाची पावती मेळटाली. हें पळोवन तांच्या तोंडार समाधान झळकतालें. हें तेन्ना त्या बायलांचें सूख आसतालें. रांदची कूड हें तांचें साम्राज्य आसतालें. थंय फकत तांचें राज्य आसतालें. हांवें सांगलां तो तांचो सदांचो दिनक्रम. पूण हरशीं पणसा तेंपार घोणस, तवसळी, सत्व सगळें घरांत करप आसतालें. सणांक सगळें गोड्शें, कण्ण, मणगणें, पायस, सांजोऱ्यो, सुकूरउणे, हालउणे, सान्ना रोस, पुरणपोळयो नांवां येतात तितलीं थोडीं. पुरूमेंता तेंपार पापड, लोणचें जालेंच. हालवे करून दवरप चपाते बराबर खावपाक. तेन्ना ब्रेड, बटर पद्धत नाशिल्ली. घरच्या खाणांचेर मनीस संतुश्ट आसतालो. आयज घरांत बायलां आसून तोंडाक, उंडे भायल्यान येतात. कारण पयलीं भशेन विचार ना घरांतलेंच खावपाक जाय, किंवा करपाक जाय. हाका कांय घरां अपवाद आसात. आजूनय घरांत करतात.

आतां खूब सुधारणां जाल्यात. म्हणजे बायलो पयलीं नोकऱ्यो करिनाशिल्ल्यो. भायर काम करप कमीपणाचें समजतालीं. तेन्ना शिकिल्ली बायलां, डिग्री येतिल्लीं बायलां पसून घर सांबाळून भुरग्यांक वयर काडटालीं. आतां डिग्री घेनाफुडें नोकरी सोदतात, पयशांची गरज आसूं नासूं. भुरग्यांक खाजगी पाळणाघर, घरांत आजो-आजी आसल्यार तांचेर, ना जाल्यार बायल दवरून भुरग्यांक सांबाळपाक दवरतात. पूण नोकरी करप हें सुधारकाचें लक्षण. ताजे फायदे - आयिल्लो गेल्लो लागना, नातें लागना, जबाबदारी ना. घरांतच कोण मनशां ना म्हणटकीर तांगेर वचऽ बी नात.

म्हाका इतलेंच सांगपाचें आसा कीं जीद मनशां शिकून पसून नोकरी करना तांकां तुमी कमी लेखूं नाकात. हें बरोवपा कारण गोंयां गेल्ले कडेन, कोणेंतरी म्हाका म्हळें, 'घरा बसता त्या बायलांक कितें उद्देग आसतात? रांदपाचें, वाडपाचें आनी ढवळ्यो करपाच्यो.' उरफाटें तांचेर जी जापसालदारी आसता ती नोकरी करणाऱ्या बायलांचेर नासता. घरचें काम चोवीस तासांचें. येणारो, वचणारो, नातें गोतें लागता. भायलें भितरलें सगळें सांबाळचें पडटा. टायमींग नासता, नोकरी करपी बायलांक आसता तसो आनी स्वताचेय फॅमिलीचें करता म्हणटकीर पागार्मेत बी मेळना. पूण हें सगळें सांबाळून ज्यो नोकऱ्यो करतात त्या बायलांक म्हजो सलाम. सोपी गोश्ट न्ही ती संवसारय करप आनी नोकरीय करप. आसात अश्यो बायलो आमच्या गोंयांत, दोनूय करपी. प्रत्येक बायलेचें खरें रूप घरची लक्ष्मी आनी अन्नपुर्णा आसता. पयलीं तेंपार तेंच आशिल्लें. घरची लक्ष्मी सुखी आसल्यार, घर सुखी समाधानी आसता असो समज आशिल्लो आनी तें खरेंय आसतालें. आतां घरची लक्ष्मी खऱ्या अर्थान लक्ष्मी जावन जितलें सुखी घर ना तितलें नांवाक लक्ष्मी आसून आशिल्लें. खरी आतां लक्ष्मी (जोडपी) आसून दिश्टी पडना.

पयलींच्यो आमच्यो बायलो आनी आतांच्यो बायलो जमीन आसमानाचो फरक आसा. पूण बायलां करता जे काम तें कोणूच करूंक शकना. तें मागीर रांदप आसूं वा ऑफिसांत आसूं, वा रणांगणार वा खंयच्याय क्षेत्रांत. अश्या बायलांचो आयज म्हाका अभिमान आसा आनी सदांच उरतलो.



पुर्णे, मो.: ७८७५४४७५२



कथा



रमेश
घाडी

आयच्या काळार कोंकणी साहित्याच्या मळार कविता,कथा आनी ललित आदी साहित्य प्रकारांत आपली खाशेली वळख निर्माण करपी **रमेश साजू घाडी** हें कोंकणी साहित्यांत फुडाराची आस्त जागोवपी एक व्यक्तिमत्व. तांच्या साहित्यांत कोंकणी मातयेचो परमळ मुखेलपणान जाणवता.

# दि टिफिन

गोठ्या कडल्यान गायरी कडेन , गायरी कडल्यान तणाच्या कुड्या कडेन, तणाच्या कुड्या कडल्यान परत घरांत ..दोन अडेच वरां हांव आईच्या फाटल्या फुडल्यान भोंवत रावलों.

पूण ती आयकून घेवपाक कशीच तयार नासली . दायक वीस रुपया दिवंक परवडना अशेंय नासलें, पूण तिणेंन एकदां ना म्हटल्यार हय म्हणप म्हटल्यार म्हां कठीण.

तिज्या तोंडांत एकूच ब्रह्मवाक्य चालू आसलें ...,

'तू धुड्युडो , पडशीत जाल्यार दोको मोडून बी घेतलो..फुडल्या वर्सा चल ...तुका हांव अंदु कशीच धाडीना '.

दुसऱ्या दिसा सोमारा पयशे दिवपाचो निमणो दीस आसलो.पूण ती आपलें नन्नाचें उतर बदलपाक आजुनूय कशीच तयार नासली.

हांव तीनसाण जायसर तिज्या फाटल्यान भोंवत रावलों.

राखणेंक गेल्लीं गोरवां हामेत गोठ्यांत भितर सरलीं ,गोयना मामान थोड्यां म्हसरांक माडाक , थोड्यांक भेणयेच्या खुट्यांक आनी गोरवांक गोठ्यांत खावणीच्या खुट्यांक बांदलीं.

आई खोपींत वचून पेणीचो तोप घेवन परत गोठ्यांत आयली.

हांवें सदां भशेन अडुळश्याच्या आड्याक बांदिल्ल्या ढवळुच्या वासराक सोडलें, चारूय पांयार नाचत वासरूं गोठ्यांत धांवलें .

दोन मिण्टांनी ढवळु पानेतकच हांवें वासराक फाटी वोडलें आनीं खावणीचे म्हेडीक बांदलें.

लोटयेंतल्या उदकान वटयेचे बोम बरे धुवून ...साफ करून आई दूद पिळपाक लागली.

''फकऱ्यालो मदु वयता , मिशीनकारालो सुरेश वयता, दोवलेकारालो दानयल सुद्धा वयता ..एकदाच गे आई!!''

हांव सारको काकुळटेक आयल्लों.

पूण त्या दिसा आई म्हजें कांयच आयकून घेवपाच्या मुडांत नासली.

''फिलिप सरान सांगलां गे आपूण सगळ्यांचो केर घेतां म्हणून ''

हांवें निमाणीं गुगली घातली, पूण तिका कांयच फरक पडूंक ना,ती लोटयेंतलें दूद तोपल्यांत वतोवन, कोनश्यांतलो शेणाचो पाटलो माथ्यार उखलून घेवन तो गायरींत खाली करून , कांयच उलयनासतना परत घरांत गेली.

वासराक लुचोवंक सोडून हांव जड पावलांनीं घरा फाटले बांयचेर वचून वगीच बसलों.

साखळेचें दत्तमंदिर,हरवळेचो धबधबो, बोंडलाचें अभयारण्य,उसगांवचो साकर कारखानो आनी मिरामारच्या वेळे वयल्यान पणजेच्यान परत अशी ती आमच्या स्कुलान आयोजीत केल्ली सहल आसली. आठवेच्या वर्गांतल्या म्हज्या सगळ्या इश्टांनी आपले पयशे भरिल्ले पूण आई म्हाका सहलीक धाडूंक तयार नासली.

तिनसणां इंगर्जेंत आयमोरेची घांट वाजली तरीय हांव काळखांत तसोच बसून रावलों.

''रमेस ओ रमेस, काळोख जालो चल घरांत यो..''

पोरसांतले खोपींत उदक तापयत बशिल्ले आवयन खोंकली काडीत म्हाका आवाज दिलो.



हांव स्कुलांतल्यान घरांत आयलो आनी उलयनासतना वोगीच वसरे वयल्या सोप्यार बसलो.

दोन दीस आमच्या घरांत म्हाका सहलीक धाडचो काय नां हाजेर वाद चालू आसलो.

म्हादुल्याच्या दुकानार गेल्लो दाय आठांक सुमार घरा आयलो. म्हज्या फुगिल्ल्या गालघांक पळोवन ताका परिस्थितीचो अंदाज आयलो,म्हजेर एक साणटी नदर मारीत तो आपले कुडींत गेलो.

ताटलेंत वाडिल्ल्या उकड्या तांदळांचे पेजेची चार कुयां हांवेन कशी तरी तोंडांत धुकल्लीं , आनी कोणा वांगडाच उलय नासतना मोन्यानी वचून म्हज्या हातरूणार धोपरां पोटाकडे घेवन... तखले वयल्यान चादर घेवन तळमळत न्हिदलों.

सकाळी हांव कोणा वांगडाच उलोवंक ना, दूद काडल्या उपरांत वासराक लुवूंक सोडले,बांयर वचून हात पाय धुले आनी घरांत वचून वग्गी म्हजें युनीफोर्म घालें .

आईन बशर्येत न्हिवत घातिल्ली चाव दोन घोटानींच सोंपोवन,भाकरी खाय नासतना गळयांत दफ्तर घालून तसोच स्कुलाचे वाटेक लागलों.

''रमेस...ए रमेस..''

आईन म्हाका वसरे वयल्यान मल्लांचे खार्चीतल्यान तोंड घालून व्हडल्यान उलो मारलो. पूण वळून फाटीं पळय नासतना हांव तसोच घरा फाटल्या साकवा वयल्यान चलत रावलों.

आमचें 'माटर डे हायस्कुल' घरा कडल्यान सुमार अडेच किलोमीटर अंतराचेर आसलें .

पुनाजी भाऊचो नंदकिशोर, भगवंत मिशीनकारालो सुरेश, दवलेकारालो दानयल अशे तीन चारूच भुरगे आपल्यो सायकली घेवन स्कुलांत येताले. बाकी चडशे आमच्या सारके पादीशेर भुरगे शिमित्रीच्या बांदा वयल्यान,लखुच्या घरा सकयले पायणींतल्यान चलत येताले.

हरशीं प्रार्थना सुरू जावचे पयलीं दोन तीन मिण्टां कसो तरी हॉलांत पावपी हांव त्या दिसा बद्द धा पंधरा मिण्टां पयलींच पावलों .

''लेट लतीफ केम अर्ली टु डे म्हरे...!''

रेंदरागेल्या अनामारीयान हांसून म्हाका थोमणो मारलो.

हरशीं तेका तोंड भरून परत सागवात दिवपी हांव त्या दिसा तकली खाला घालून वोगीच रावलों.

म्हज्या मनांत आजुनूय राग खतखततालो. गोरवांक तण घालताना, व्हाळार म्हशींक धुवूंक व्हरतना , वाड्यावयल्या धा बारा घरांनी कवचेच्यो बाटल्यो सांबाळीत दूद पावोवंक वयतना हांव ल्हान ,आबूत...धुड्डो नासलों , मात सहलीक वचपाक पयशे मागतकच म्हाका हीं सगळीं बिरूदां घेवन दशिल्लीं .

म्हजें काळीज भरून आयलें .म्हज्या दोळयांतल्यान म्हाका कळऽ नासतना चार मोतयां खाला देवलीं.

प्रार्थनेच्या वेळार हांव कोणाच वांगडा उलोवंक ना. प्रार्थना सोंपतच वोगीच वचून वर्गांत बसलों .पयले पिरेडीक सकाळीं सकाळींच सहलीक कोण येतात आनीं कोण येनात हाजेर भुरग्यांचें उलोवप सुरु जालें. म्हजें बाविल्लें मुखामळ पळोवन चडश्या जाणांक हांव सहलीक येनां म्हूण कळिल्लें,चडश्या जाणांक वायट दिसलें , पूण फाटल्या बांकार बसतल्या,निकल्योच मिशयो फुटूंक लागिल्ल्या, वयान मात्शे व्हड आशिल्ल्यां जड्ड्यांक मात फकाणां ...मस्करी करपाक हो एक ताजो विशय मेळ्ळो.

''आरे तुका अंदू सहलीक धाडी ना जाल्यार कांय नजो,दोंगरपुरा वन भोजनांक मात धाडटली ..तेन्नां मजा कर म्हरे!''

गणपत परब आनी सिरील मोंतेर फाटल्यान फुतफुर्तोक लागले.

दफ्तरांतली दाट लाकडाची फुटपट्टी काडून तांच्या कानसुलार मारचीशी म्हाका दिसली..पूण ते म्हज्या परस तीन आंगळां तरी उंच आनी आंगान दाट आसले ..हांव म्हजो राग गिळून दांत वोंठ किल्लयत..खाला पळयत वोगीच रावलों.

एक वेळ मनांत विचार आयलो घरांतल्यान पळून वचपाचें , पयस खंयच्यातरी हॉटेलांत वचून वेटराची नोकरी करपाची आनी स्वतःचे पयशे जोडपाचे...

वीस रूपयांक लागून ही लाचारी करपाची मागीर म्हाकां गरज पडची ना.

पूण अजित आनी जयप्रकाशाची म्हाका याद जाली आनी मनांत म्हटलें नाका ह्यो घरांतल्यान पळून वचपाच्यो भानगडी...ते दोगूय अशेच रागान घरांतल्यान पळून गेल्ले. दुसरे दिसा फांतोडेर तांका मडगांवच्या रेल्वे स्टेशना वयल्यान पोलिसांनी धरून हाडिल्ले. आतां देड दोन वर्सां जालीं तरीय आजुनूय सगळीं भुरगीं तेंची फकाणां करतालीं . टिचरीय केन्नांय फकाणां करपाच्या मुडांत आसतकच तांकां runaway boys म्हणटाली.

दुसरी पिरियड सुरु जाली आनी म्हज्या पोटांतल्या भुकेल्ल्या कावळ्यांक जाग येवंक लागली . तिसरी पिरियड सुरू जावच्या पयलींच ते नेटान आड्डोपाक लागले. आदले राती हांव पेजूय सारकी जेवूंक नासलों. म्हजे अभ्यासा कडेन कशेंच लक्ष लागना जालें . भुकेच्या वायान बोंबलेकडेन वळमाटे येवंक लागले.

फुकट केलो हो पोटाचेर राग आनी भाकरी खाय नासतना उपाशीं उपाशीं स्कुलाक आयलों अशें मनांत दिसूंक लागलें .

सकाळी फुडें नाश्तो म्हणल्यार बऱ्यो गवां नासण्याच्यो दाट भाकऱ्यो , केन्नांय आमचे आवडीचे उकड्या तांदळांचे पोळे, आदल्या दिसाची आटयल्ली कुरत्याची कडी, ना जाल्यार हळसाण्यांचें धबधबीत सामारें, इंटेरवालाक कँटीनांत चार आण्यांची पोळी -भाजी खावपी भुरग्यांची जाल्यार संख्या खूब कमी आसली.



पॉकेटमनी नांवाचो वायरस आजून आमच्या घरानूच न्ही पुराय गावांत जल्मांक येवंक नासलो.

चार वरां हे भुके फुडें हांव कसो तिगतलों हो यक्ष प्रश्न म्हज्या फुडल्यान बांगर रेड्याभशेन व्हडले तोंड उगडून उबो आसलो.....

इतल्यांत म्हाका सायकली वयल्यान दाय येतना दिश्टी पडलो. राजाराम पठाणा कडली सायड स्टँड मोडलेली ..कळमेल्ली भाड्याची सायकल तार्णे लायटीच्या खांब्यांक तेकोवन दवरली. पोरन्या गेटींतल्यान भितर येतना तो वाट चुकलो आनी वॉलीबॉल ग्राउंडार पावलो , थंयच्यान परत तायखुळो, चिड्ड्यांच्या कमरभर वाडिल्ल्या झोपांतल्यान चलत आंवाळयाच्या झाडा खायले निसड्डे वाटेंतल्यान आमच्या वर्गा फुडल्यान पावलो. एका हातान लुगटाची पोती आनी दुसऱ्या हातान पांय दोडिल्ली आपली खाकी पँट सांबाळीत आमच्या वर्गा फुडले सरयेच्या जाळये फुडल्यान येवन तो मात्सो नर्व्हस ...काचाभूल जावन उबो रावलो . ताजी आमच्या इंग्लिश स्कुलांत येवपाची ही पयलीच वेळ आसली. तेका किर्ते करचें तें कळना जालें..ताजे बिटबिटे दोळे म्हाका वर्गांत सोदपाक लागले.

म्हाज्या फाटल्या बांकार बशिल्ल्या सगुण पेडणेकारान ताका पयलीं पळयलो ..तशी सगुणाची नदर वर्गांत कमी आनी भायर चड आसताली.

'' रमेश , तुजो दाय म्हरे !''

सगुणान म्हाका हळूच फाटीक बोटां तोपीत सांगलें खरे पूण ताजो हालींच फुटूंक लागिल्लो आवाज अर्द्या वर्गाच्या कानार वचून आदळ्ळो.

वर्गांतली थोडी भुरगीं उबीं रावून दायक पळोवंक लागली. आमच्या वाड्यावयली हिंदु भुरगीं 'रमेशाचो दाय तो ' म्हणत ओळख सांगूंक लागलीं ....किरिस्तांव भाटकाराची भुरगीं...



'आय नो हीम.ही ईज साजुलो.ड्रायव्हर ..'म्हणून खिदळपा लागलीं.

वर्गांत बोबाळ जालो, खडू येवन बोर्डार बरयतल्या मीस मोनीकान तांबडे दोळे करीत रागान फाटीं पळयलें

" Everybody sit down.."

मिस मोनिका व्हडल्यान आड्डली. खिणभर तिज्या दोळ्यांतल्यान शिगम्याच्या होमखणाचो हुलप भायर पडिल्ल्यावरी दिसलें.

''Miss ... Ramesh's father ..''

कोण तरी म्हाज्या काना फाटल्यांतल्यान धेकेलो.

हांव लजेन घुसमटून अर्दोमेलोसो जालों . किर्ते करपाचें म्हाकां कांयच सुचना जालें ..म्हाज्या कानांतल्यान गरम हुलप भायर सरिल्ल्या भशेन दिसलें ...

''टिचर, रमेस सकाळीं घरा कडल्यान उपाशीं इस्कोलाक येयला...तेका डबो घेवन येयलां. ''

वर्गातल्या सगळ्या भुरग्यांच्यो नदरो ताजेर थिरावल्यो...आनी म्हाजी प्रतिक्रीया पळोवंक लागल्यो.

'Ramesh what is your father's problem..? I will give you five minutes, and tell your father not to ever disturb my class again. This not your eaH$mar embm ...this is English High School understand ? '

सदां भशेन मिस मोनिका म्हजी मराठी शाळा वयर काडटली हें म्हाका पयलीच खबर आसलें ..हांव लजेन तांबडोच जावन भायर आयलों. म्हाका दायचो भयंकर राग आयल्लो. किर्ते गरज आसली स्कुलांत येवन म्हाका लजेन घालपाची....!

''बाबा तू उपाशी येयलाय आनी आई थंय तुज्या हुस्क्यान जाम पडल्या ..चल तुकां पोळे करून धाडल्या ''

तार्णे म्हाका आपले वेंगेंत वोडीत सांगलें.

'' म्हाकां कांय नाका ...म्हाकां भूक ना''

दोळे पुशीत हांवें जाप दिली.

म्हाजो राग अजुनूय कमी जावंक नासलो.

वीस रूपया दिवपाक जायना ..आनीं स्कुलांत येवन हीं व्हडली प्रेमाचीं नाटकां करतात!

तिरशे नदरेन वर्गांतलीं भुरगीं आमकां पळयत रावलीं. फाटी वयल्यान मायेन हात वोडीत तार्णे म्हाका आवाळयाच्या झाडा फाटल्यान व्हेलो.

ल्हवूच तार्णेन आपल्या पाकिटांतल्यान



धा धा रूपयांच्यो चुरिल्ल्यो दोन नोटी काडून म्हाज्या कलसांवाच्या बोल्सांत धुकल्ल्यो.

''आईन सांगलां सहलीक वच म्हणून!''

म्हाज्या तोंडा वयल्यान आपलीं खरखरीत खिणांळ हातीचीं बोटां मायेन वोडीत तार्णे सांगलें .

''बाबा जेवणाकडे असो राग करीनात रे शाण्या! ''

फाट थोपटीत ..म्हाज्या भिसट्या केंसांचो आपल्या बोटानीं भांग काडीत तार्णे आपल्या बोल्सांतल्या लेसान ल्हवू ल्हवू म्हाजीं व्हांवतीं दुकां पुसलीं.

आवाळ्याच्या आडव्या पाळार बसून तार्णे पोतर्येतल्या डब्याचें धाकणें उगडलें . आईच्या जुनेराच्या कुडक्यांत रेवडावन बांदलेले म्हज्या आवडीचे उकड्या तांदळाचे पोळे तार्णे जतनायेन भायर काडले, वाटर्येतली आटयल्ली आदल्या दिसाची बांगड्याची कडी वयर यातली आनी म्हाका मोगान भरोवंक लागलो .

जन्यालाचे जाळर्येतल्यान पारेतीच्या आडोसाक रावोन मिस मोनिका आमकां बापूय - पुताक ल्हवूच ...खायले नदरेन पळयत रावली.

''फाटीक वाग लागला किर्ते रे ...? गालाक मारूं नाकां ..सवकास खा...''

फाटीर हात मारीत ..आमच्या वर्गांतल्या भुरग्यांचेर साणटी नदर मारीत तार्णेन सांगलें.

त्या दिसाचो तो डबो ..म्हजें पयलें टिफिन म्हाजे यादींत सासणांक उर्ले .

सहलीक वचूंक दिल्ल्या त्या वीस रूपयां परस आवळेच्या झाडाच्या आडव्या पाळावर बसून आपल्या हातांनीं भरयल्ले उकड्या तांदळांचे पोळे आनी ताजे वयली आदल्या दिसाची आटयल्ली बांगड्यांची कडी म्हाका म्हाज्या बापाय बद्दल खूब किर्ते सांगून गेली.

तार्णेन पोतर्येतल्यान तांबड्या Bayer's Tonic चे बाटलेंतलें उदक म्हाकां पिवूंक दिलें आनी जतनायेन ती बाटली आनी डबो परत पिशर्वेत यातलो .

परत त्याच तायखुळ्याच्या झोपांतल्यान वाट काडीत तो रस्त्यार गेलो,खांब्याक तेंकून दवरील्ली पठाणाची भाड्याची पोरणी सायकल तार्णेन सवकास भायर काडली आनी पेडल मारीत फाटी पळयनासतना पिन्टो बेकरीच्या वोल्ता वयल्यान नाच जालो.

तो गेलो तरीय हांव दोळ्यांतली दुकां पुशीत कितलो तरी वेळ त्या आवळेच्या झाडाच्या खोडाक धरून तसोच उबो रावलों .



साळगांव-गोंय. मो. : ९८५०४५३३५५.





## काव्य फुलोर



### हारसो कमी पडलो....

'कशें दिसतां हांव?'
हारशाक प्रश्न केलो
'सुंदर! ' अमुरकोच हांसत
तार्णे जाबाब दिलो
'फाटीर धोलपी केंस
काजळ माखिल्ले दोळे
गुलाबी तुजे गाल
वोंठार मोगरे कळे
हाताच्या मनगटार
कांकणां धरतात ताल
नाजूक तुर्जे कमर
आनी हरणां वरीं चाल
साडयेचो पदर तुजो
सांभाळटा पळय वारो
कोणांचीच नदर तुका
लागना जाल्यार पुरो '
हारशाचीं उतरां आयकून
गळो आयलो दाटून
खीणभर दोळे म्हजे
येतले हांवें मेटून
गळळ करून गालार
देंवलीं दोन दुकां
केंस , पदर सैर-भैर
उद्वस्त जिर्णेचीं पाखां

खारसाणींच्या त्रासान
नितळ जाले गाल
थरथरपी वोंठांनी
व्यक्त केले हाल
दोळ्यांत म्हज्या उदेले
लिपोवन दवरिल्ले भाव
उक्ताडार आयले म्हज्या
काळजाक पडिल्ले घाव
त्या खिणांक हारसो
हड्डे फुटसर रडलो
सांगून 'तुका वळखूंक
हांव कमी पडलों....!'



- ग्वादालूप डायस
गोंय. मो. : 942

### फ्राकेझ

हांवें बुन्याद मारिल्ले खेप
तुवें म्हाका तेच बुन्यादींत
धुकलून उडयलो
मागीर हांव
पर्थून वयर आयलों
ती म्हजी कापाड्यादाद...

आयजूय हांव बुन्याद मारतलों
पूण आयज मात म्हाका बुन्यादींत धुकलतगीर
तूं म्हजेर फतकल मारून वग्गी बस...
यद्ये तुका उब्बो चिरून जर हांव पर्थून वयर आयलोंच
जाल्यार मात ती तुजी नक्कीच फ्राकेझ आसतली...

- आर.रामनाथ
कुर्टी,फोंडें-गोंय.
मो.:9850458763



## काव्यफुलोर



## भंय

मनशाचो सामको लागींचो इश्ट
फाट मात कोणाची सोडना
ताका वेंगेन येंवन पोशेवपाची
आनी अपुरबाय करपाची
आवड मात सगळ्यांक आसा

ओग्गी मात बसत जाल्यार
विंगड विंगड रुपान तो
रेवाडो यालत आसता
भिजूह मनशाचो मात तो
लागींचो सोयरो
आदेशाप्रमाण ताका चलचें पडटा

जण एकल्याक आसता
आपल्या भविश्याचो भंय
मरण ह्या सत्याक मुखार दवरून
आपल्या सांजवेळची तयारी करची पडटा

- अलका असोल्डेकार
मडगांव-गोंय.
मो.: 9822981107



## कुकर

तिका कुकर खूब आवडटा
आपल्याक जाय तेन्ना भितरली वाफ
टर्येतल्यान सोडून दिता
ानी मेकळो जाता
न्ना केन्नाय तिका दिसता
जे कडेन अशीच एक शिटी आसपाची
न्ना जेन्ना शिटी वाजता तेन्ना तिका दिसतालें
जे भितरलीच वाफ भायर येवंक सोडता
स बारीक वा मोटो करूंक मेळटा
जे खातीर तिका कुकर
शिबवान कसो दिसता

कितलेशेच फावटी तिका
काळजांत घुस्मटून येतालें
तेन्ना ती कुकराची शिटी तोंडार दवरताली
शिटी वाजनाशिल्ली
पूण भितरली वाफ दोळ्यां मेरेन पावताली

एक दीस गॅसार दवरिल्ले कडेन
कुकराचो स्फोट जालो
आनी तिजो हात जळ्ळो
तेन्ना कुकरांतली वाफ
थोडी हाताचेर
आनी थोडी दोळ्यांतल्यान भायर आयिल्ली

काल रातीं बॅडरुमाची वणत ड्रॉईंग रुमा मेरेन पावली
तेन्ना तार्णे म्हळें
ह्या जल्मांत भेर्हीं, खूब जालीं
फुडल्या जल्मांत आनीक तूं नाका

दुसरे दिसा फांतोडेर
कुकरा वाट्याची ती गॅसार चडली
तिका आतां फुडल्या जल्मांत
कुकर जावंक जाय

मूळ गुजराती कविता - एशा दादावाला
कोंकणी अणकार - नुतन साखरदांडे

## दुर्वा

वचत थंय
दुर्वांचें रान मातचें
नहणी किल्लुपाक
सुवात लेगीत उरची न्हय

आनी कोर्णेय
दुर्वा हुमटावपाचो
यत्न लेगीत केल्यार
जमनींत उरिल्ल्या पाळांनी
परत परत जीव धरचो

## माड

तो माडा इतलो उंच जालो
अशें म्हणचें कोर्णेय
माड कितलोय कणको आसलो
मळबाक वेंगावंक लागलो तरी
सोंपेपणी जमनींतलीं पाळां
धील सोडिना.
आनी जमीन रेंवट आसली तरी
म्होंवाळ आडसरां
पेंडीर धोलोवंक विसरना
माड कोणाक आड येना
माडाक कोणूय आड आयल्यार
माड आपली दिका बदलता
वांकडो तिकडो जाता
पूण तरी सुर्याचेच दिकेन फुडो करता
माडाक म्हाका
म्हज्यांत केळोवंक जाय
म्हाकां माडावरी जावंक जाय

- उदय म्हांबरो
वळवय-गोंय.
मो.: 9420766769





# काव्यचंवर

## तुळशीक निरांजन

सूर्य अस्ताक लागला वचूंक
सावळ्यो जावंक लागल्या लांब
शितळ वारें लागलां व्हांवूंक
आमोर काळोख लागला दाटूंक
तुळशीकडेन लाय गो निरंजन

आमोर काळखांत वारांगना भोंवता
पळोवन उजवाड पयस धांवता
घरांत वास्तु देवता वावुरता
तथास्तु, तथास्तु, तथास्तु म्हणटा
तुळशीकडेन लाय गो निरंजन

पळोवन दारांत उजवाडा परजळ
लक्ष्मी येता चलत घरांत
नंदी फाटीर जावन आरूढ
शंकर-पार्वती करता भोंवड
तुळशीकडेन लाय गो निरंजन

धुंवन हात,पांय,वदन
दीप ज्योतीक करया नमन
बरे विचार,बरें आचरण
मुखी घोळूं आशिर्वादा वचन
तुळशीकडेन लाय गो निरंजन



-डॉ.उल्हास गो.नास्नोळकार
करंजाळें-गोंय.

## कविताय येता वयार

कविताय येता वयार
उतरांचो शिरंगार माळून
संदर्भाचे
दोळे मोडीत
काळजाचो
माग काडीत

हय!
कविताय येता वेळार..
उतरा कणकणी
शिरशिरायत
आंकवार नदर
भिरभिरायत..
उत्फक्र्यांक
मोनेळायत

हय!
कविताय येता वेळार
मुदयाळ्या संवसारांत
तिर्जी मुदयाळीं सपनां
आनी
सपनांत आंकऱ्योय
सपनाळ्यो
हय
कविताय येता वयार
तेन्ना!

- भालचंद्र गांवकार
किटलें, बेतोडा.
मो.: ९१५८०५८६६३

## यो रे पावसा यो

वर्सावरीं ओंदूय आमी केल्या तयारी
दाळ्ळीं लाकडां,शिंवलो गोठो नळेय परतिले
मिरसांगो, हळसाणे,सोलां आनी सालां
पापड,लोणचें तशेंच तोरां घाल्यां खळा
बांगडे सुके,कांद्या मोवळ्यो
चुली वयर बांदल्यो
भिकणाय कोनशाक लायलीं मातयेक
उरचीं देखून पुरूमेंताक

सांगू नज तूं केन्ना येत
देखून दोंगुल्लेर बियां कालूच घालीं
दुदी,भेंडे,चिबडां,घोंसाळ्या वाली,तवशीं
येवंदी रूजून घसघशीत तांकां
तुजेच कृपेन फळटली फळावळ पावशी

जळीं मळीं मातचो तायखिळो
आळवां,तेन्याक येवंदी खोलो
अळम्या रुच आयल्या म्हाका
यो रे पावसा आतां कळाव लावं नाका

बाय म्हजें आपयता तुका
ताज्या उल्या जापेक यो
ताजे वांगडा आंगमांत म्हज्या
भुरगो जावन खेळूंक यो
यो रे पावसा यो रे बेगीन
यो रे पावसा यो..

- गीता सीताराम स्वार
मावळंगतड-सांखळी
९८२३४९६०९५

# ऑल्तेर



नं.ध. बोरकार

**कोंकणी आनी मराठी ह्या दोनूय भासांनी सातत्यान लेखन करपी नं.ध. बोरकार हे सध्या बसपगारी शिक्षक जावन आसात.ज्ञानपीठकार रवींद्र केळेकार हांचे यादीक दवरिल्ल्या बिम्ब पुरस्कारान तांचो भोवमान जाल्लो आसा. कोंकणीत तांच्यो पांच कादंबऱ्यो,तीन नाटकां आनी तीन ललित निबंधाँटीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत.आयुश्य विद्यादानांत सरिल्ल्यान ते उतारपिरायेर आजूय आदर्श शिक्षण परंपरेंत रमतात .**



-5-

नारायणदादाकडेन प्रशिक्षणाचो अभ्यासक्रम पुराय करपा पासत आयिल्ली शकू टिचर नारायणदादाच्या नांवान बोटां मोडीत बसली. तिका जाय आशिल्लें नारायणदादान टिचरीचेर फावोर केल्लो. आयज फावोर केल्या बगर कसलींच कामां जायनांत.

ही शकू टिचर नारायणदादाली दुस्मान नासली. तरीय द्वेशी मात खास आसली. नारायणदादालीं कुन्नाटपणां करपाक आनीक एक व्हड कारण आशिल्लें.

शकू टिचर ही त्या स्कुलाची स्टुडंट आनी नारायणदाद हो त्या स्कुलाचो ज्येश्ठ शिक्षक. ताका लागून नारायणदादाची नदर पुराय स्कुलाचेर आसताली. जाण्टयां तशी नेण्टयांचेर. कांय शिक्षकांक आनी शिकपी भुरग्यांक तर नारायणदाद पारखून आशिल्लो. अशें जरी आसलें तरी कांय व्यक्तींच्या सभावाचे बाबतींत नारायणदाद नापास जातालो. शकू टिचरीचे बाबतींतूय नारायणदाद साप्प फसलो.

तें जालें अशें, शकू हें थंड सभावाचें चली नारायणदादाल्या वर्गांत शिकतालें. तें थंड दिसतालें खरें, पूण आशिल्लें मालकिर्याद. आपल्यांतले वायट गूण कशे लिपोवचे, हें ताका कोणें शिकोवपाची गरज नाशिल्ली. मांजर आपले हुशारेन हुंदीर कसो पकडटा तशे तरेन शकून नारायणदादाक पकडलो. नारायणदादाच्या फाटल्या फुडल्यान बोवाळप. ताजे कडेन म्होंवाळ आनी गोड उतरांनी उलोवप. तो कसलेय अडचणेंत पडल्यार ताजे मजतीक धांवून वचप.

नारायणदाद हिन्दीचो शिक्षक आनी प्रचारक. शकूक तार्णे आपल्या प्रचारकार्याक आसपावन घेतलें. शकूचें इत्सेन.

नारायणदादान चिंतलें, शकू बरें देखीचें भुरगें. सगळे कडेन मानान जगता. आपुणूय दुसऱ्यां कडल्यान मान घेता आनी हेरांकूय दिता. तेन्ना नारायणदादान चिंतलें, हे विद्यार्थिनींक हिन्दीच्या राष्ट्रीय कार्याक तयार केल्यार कित्याक वायट? आनी तार्णे केलेंय तशें. शकूक, आपले प्रिय विद्यार्थीनीक हिन्दीची प्रवीण परिक्षा दिवंक प्रोत्साहीत केली. आनी तें प्रवीण पास जालें.

केन्ना केन्नाय वेवस्थापनाचीय स्कुलाचेर बारकायेन नदर आसता. स्कुलाची हेडमिस्ट्रेस आपलें कायदेशीर काम करतालीच. पूण मॅनेजराचोय दोळो स्कुलाचेर आसतालो.

नारायणदादालें आनी शकूलें बरें पट्टा हें स्कुलाच्या मॅनेजराच्या लक्षांत आयलें. एक दीस सहजतायेन तिर्णे नारायणदादाक म्हणलें - ''सर, शकू हें एक बरें देखीचें भुरगें. तुजें आनी तेजें जोमताय बरें. तेजी हिन्दीय बोरी आहा, अशें तुजें म्हणणें आहा.''

''फुडल्या जून म्हयन्या पासून आमकां एके हिन्दी टिचरीची गरज आहा. तूं जोर शकूचेर सातिसफेत आहा तोर व्हाय नॉट आमी तेका अपोयंट कोच्चें? भायली टिचर अपोयंट केल्यार ती भायलीच उरतली. आमची जायतूच म्हूण सांगों नोजो. आतांच्यो टिचेरी मार्शें किर्तेय जाल्यार रोखडयोच असोशिएशनाक वोसोन मेवताय. शकू आमचें स्टुडंट जाल्ल्यान आनी फुडें टिचर जाली जाल्यार ओसल्यो आयट कोरण्यो कोरीत कोर्हे दिसोना.''

मॅनेजरान केल्ले सुचोवणेन नारायणदाद

खोशी जालो. कुड्डो मागता एक दोळो आनी देव दिता दोन, अशें जालें ताका.

ज्युनियर आनी सिनीयर हांचे मदें सदांच जमीन आसमानाचो फरक आसता. ज्युनियर सिनियरांनी दिल्लें काम केलें म्हणटकीच सुट्टात. पूण सिनियरांचें तशें नासता. तांचे कडेन अधिकारान आविल्लें काम तांकां कोणाय भशेन, खंयचेय परिस्थितींत तांकां पुराय करचेंच पडटा.

नारायणदाद आतां रिटायर्ड जावपाचे वाटेर आशिल्लो. ताका जाता तितल्या उण्या कामाची गरज आशिल्ली. कोंकणी, मराठी आनी हिन्दी भासांचो ताबो ताजेकडेन आशिल्लो. जाण्टो जालो तरी कसलेंच काम करूंक तो फाटीं सरनासलो.

आतां ताका शकूच्या रुपान बरी हिन्दी टिचर मेळपाचे आसार दिसूंक लागिल्ले.

आनी जालेंय तशेंच. त्या शिक्षणीक वर्साचो जून म्हयनो सुरू जालो. स तारखेक टिचरींनी स्टाफरूम भरलो. मे म्हयन्यांत कोणा-कोणागेर किर्ते-किर्ते घडलें तें तालसुरांत, उच्च स्वरांत सांगून मेकळीं जालीं.

टिचरींचें हें 'हा-हा, हू-हू' आनी किंळचाळें हांसप भायल्यान भुरगीं आयकतालीं. नारायणदादाक हो बोवाळ मानवनासलो. पूण किर्ते करततलो? ताकाय हेर टिचरींच्या उतराक उतर घालून, नकली हांशांतले दांत दाखोवचेच पडटाले. ना तर ताका कसल्याच कामाक तांचे कडल्यान सहकार्य मेळचें नासलें. तो एकलो पडटलो आसलो!

आतां टिचरांच्या बोवाळा मदें कोनशांतल्या एका कदेलार बसून नारायणदाद किर्ते तरी बरयत आसलो. ताज्या म्हऱ्यांत शकू बसून आशिल्लें.

सगळ्या स्टाफाक खबर आशिल्ली, शकूक वेवस्थापनान शिक्षिका म्हणून कामार घेतलां, तेन्ना शकूची वळख-बिळख करून दिवपाची गरज नाशिल्ली.

शकूचे नेमणुकेचे बाबतींत आनीक एक गजाल हांगा मुजरत सांगची पडटा. शकूची नेमणूक कायदेशीर जावंक नासली. ती कायदेशीर जातली जाल्यार सरकारान घालून दिल्ले सोपस्कार पुराय करपाची गरज आशिल्ली. ज्या अर्थान तें जालें ना, त्या अर्थान हांगा उबोच भ्रश्टाचार घडला हें दिसून येता हें नारायणदादाल्या लक्षांत येवनूय तो गप्प बसला. आनी तोंड उक्तें करून करतलो तरी किर्ते? विरोधाचें आड्मेळें हाडलें जाल्यार शकू भायर पडटलें. हातूंत नारायणदादालेंच लुकसाण जावपाचें.

नारायणदाद खूबशे बाबतींत सतान वागूंक सोदतालो. पूण ताका तें जमनासलें. कारण सत्ता खंयचे वाटेन फुडें येवन दत्त म्हूण उबी रावत हें कोणाच्यान सांगूं येता? आनी सत्ते फुडें शाणेपणां चलनात, हाजी पुराय जाणीव नारायणदादाक आशिल्ली.त्या भायर शकूल्या आदाराचीय आस आशिल्ल्यान नारायणदादान एक गरजेची कार्यावळ फुडें काडली. तशी ती कार्यावळ शिक्षणखात्याची आशिल्ली आनी नारायणदादाक ते कार्यावळी अंतर्गत दिल्लीक वचपाक निवडिल्लो.

शिक्षणखात्याचे येवजणे प्रमाण, नारायणदाद दिल्लीक वतालो, थंय स्वता सांस्कृतीक कार्यक्रम शिकून येतालो आनी मागीर हेर शिक्षक-शिक्षिकांच्या पालवान तो ती भुरग्यांक शिकयतालो. अशी रीत जाल्ली त्या स्कुलाची. ताकाय कारण आशिल्लें. नारायणदादा सारको कश्टाळू आनी उमेदीचो शिक्षक नाशिल्लो त्या स्कुलांत. टिपरी नाच कोणें शिकोवंचो तर तो नारायणदादान. भुरग्यां पासत नाटक बरोवन तें माचयेर कोणें हाडचें, तर तें नारायणदादान! अशें एकूय सांस्कृतीक मळ उरूंक नाशिल्लें की जाचेर नारायणदादालो प्रवेश जावंक नासलो.



नारायणदाद आतां कसल्या तरी बरपांत गूंग जावन आशिल्लो. म्हऱ्यांत शकूबाय पांयार पांय उडोवन बसून आशिल्ली. पुराय स्टाफरूम टिचरींनीं भरिल्लो. टिचरींल्या खांद्यावेलीं रंगयाळीं बॅगां कदेलांक हुंबकळून आशिल्लीं. चडशा टिचरींचीं तोंडां वाऱ्यार पडिल्लीं आशिल्लीं. कोण किर्ते उलयता हें तांकांच कळनासलें.

नव्यानच टिचर जाल्ली शकूबाय, येदोवेळ भोवतेक मनांतल्या मनांत म्हणटा आसुंये, 'आमी वर्गात माल्सो बोवाळ केल्यार

आमचेर तापतालीं. आमकां दिमयो घालूंक लायतालीं. आतां ह्या म्हातान्यांल्या तोंडांक कुलपां घालूंक कोण लॉयतलो? जावं किर्तेय, आमचें आमी पळोवया.' निदान नारायणदादाच्या तोंडाकडेन पळयत बशिल्ल्या शकूबायक पळोवन नारायणदादाक मात तशें दिसलें.

नारायणदाद येदो वेळ बसून बरयतालो काय स्टाफ रुमांतलें नाटक शकूक दाखयतालो हें समजूंक मार्ग नाशिल्लो.

शकू शिटूक आशिल्लें. थोड्याच वेळांत तार्णे नारायणदादाल्या मनांतलें खूब किर्ते समजून घेतलें.

अशे तरेन स्कूल सुरू जावन दोन सेमानां सरलीं जावये! नारायणदादान शकू कडल्यान भरपूर काम करून घेतलें. काम म्हणचे परस शिकवणी म्हणप उचीत थारतलें. कारण नारायणदादाल्या प्रत्येक कार्यांत कसली ना कसली शिकवण आसतालीच. तें मागीर राष्ट्रप्रेम आसूं, ना तर देसप्रेम! मात ही शिकवण सगळ्यांकूच पचपा सारकी नाशिल्ली.

शकूच्यांत आतां इल्लो इल्लो बदल जायत रावलो आनी नारायणदाद आतां बरोच धारतेलो. तरी तो धीर सोडपी मनीस नाशिल्लो. ताका येवजिल्लें कार्य कशेय भशेन तडीक व्हरचें आशिल्लें. तेंच शकूल्या पालवान.

नारायणदादा आतां भारतीय भासांचो ज्येश्ठ शिक्षक म्हूण वावुरतालो. अर्थांत तीन-चार शिक्षय-शिक्षिका ताज्या मार्गदर्शना खाला कार्यरत आशिल्लीं. ह्या शिक्षकांक मार्गदर्शन करतना केन्ना केन्नाय नारायणदादाक आपलो आवाज वाडोवचो पडटालो. तशें केल्लेंना जाल्यार ताजी जापसालदारकी नारायणदादाचेर येवन पडटाली.

शिक्षक पद्वीधर आनी प्रशिक्षीत आसलो तरी ताजे कडल्यान चुको कश्यो घडटात हाजी म्हायती एकदां नारायणदादान मुजरत दिली.

एक कोंकणी शिक्षिका कसलो तरी मसुदो घेवन तो तपासपाक नारायणदादा म्हन्यांत आयली. मसुदो वाचून पळयल्यार पुराय मसुद्यांत कसलोच विराम म्हूण दिसलोना. शिक्षिकेक विचारीत जाल्यार तिर्णे सांगलें की ती अशेंच बरयता.

आनी एका शिक्षका कडेन नारायणदादाची गांठ पडली. हो शिक्षक तकलेन सारको आशिल्लो काय किर्ते तें हांव सांगूं नकळो. पूण तो केन्ना-केन्नाय म्हयन्याक ३५-३६ दीस हाजेरी मार्क करतालो.

हीं दोगांय शिक्षक-शिक्षिका शिक्षणतज्ज्ञ आशिल्लीं. तांच्या मुखार नारायणदादालीं शाणेपणां कशीं चलतलीं? आयज हांगा खरेल्या शिक्षणा परस प्रमाणपत्रांक म्हत्व चड !

**(चलता)**





व्यक्ती तितल्यो प्रकृती



स्मिता तिंबले

# एरिक कोस्ता



शास्त्रीय संगिताची रुची आशिल्ल्यान स्मिता तिंबले हाणीं संगिताचें शिक्षण घेतलां. सद्या स्मिता शाळेंत शिकयतात.तांचें 'यादे माई' हें आपले आवयच्यो पुंजायल्ल्या यादींचें पुस्तक खूब लोकप्रिय थारलां. तांकां कवितांचीय आवड आसा.तांचें 'आपालिपा','गोंयच्या फेस्ताक'हीं न्हान भुरग्यां खातीरचीं पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत.भुरग्यांची शिक्षणीक पुस्तकांय ताणीं तयार केल्यांत. समाजांतलीं विंगड विंगड व्यक्तिमत्वां रंगोवप होय तांचो एक छंद.

पाँवसाचो हुंवार, पावळेक ना थार. दाटिल्लीं पावशी कुमां मातशीं विरविरीत जाल्लीं पळोवन आमी पासयेक वचपाक पांयांत बूट चडयले. उदकांतल्यान वाट काडीत आमी रस्त्या वयल्यान चलूंक लागलीं. भायर सदर्चेच चित्र पूण पावसान यासून पुसून चकचकीत केल्लें. सुर्यप्रकाशांत झाडाचीं पानां चमकतालीं. गजानन म्हाराजांच्या देवळाचो परिसर प्रसन्न दिसतालो. दरेक घरा भायले पोरसूं पावसान तरतरीत जाल्लें. सदचे भशेन म्हजी नदर पानां-फुलां, वालींचीं आर्कां, सजयल्ले बाल्कांव, रस्त्या कुशीचीं रानफुलां हांकां सोदीत वताली. पोरसांतलीं घमघमीत चांफीं, पारजतां, कणेरां ह्या फुलांच्या परमळान सुगंधीत रस्तो हुंगीत आमी चलतालीं.

कांय घरां भायर वेवस्थीत लौन आनी लौनाच्या भोंवतणी एन्थुरीयमाचीं तांबडीं धवी काळजां धोलतालीं. तणाचो पाचवोच विलूद पिर्शे लायतालो. इतल्यांत पावसाचे थेंबे म्हज्या वक्लाचेर पडूंक लागले. आतां हो पावस आमकां आमचें घर गांठपाक दिवचो ना, हे जाणून आमी त्या लौनान सुशोभीत केल्ल्या घराच्या पोर्च्यां भितर सरलीं. फाटकांतूच घरमालकान आमकां येवकार दिलो. ''येयात,येयात. भितर येयात.'' बंगल्याच्या भायर आशिल्ल्या सुंदर गेरेजी कुशीक नक्षीदार तिजुल्यांनी बांदिल्ल्या मोटव्या पाऱ्यार आमी बसलीं. घर मालक आपल्या हातांत उदकाचो पायप घेवन गेरेजीचे तिजुले स्वच्छ धुयतालो.

''हो बंगलो कितले वर्सांचो आसतलो अशें तुमकां दिसता?'' ताजी पयली गुगली.

अशे वेळार करतात तसो निर्व्याज चेहरो करून आमी म्हळें, ''धा-पंदरा..?''

''तीस वर्सां!''

ताणें आमकां चकीत केलें. पयल्याच वाक्यांत ताणें 'आपली घराची आवड, आपूण करता ती घराची निवळसाण आनी आपल्या घराक इतलीं वर्सां जाल्यांत हे तांचे तिजुले पळोवन कोण म्हणचो ना' अशें अभिमानान सांगलें. आमचे सारके कोण उत्सुकता दाखोवपी श्रोते मेळटकूच ताजी कळी श्रावणांतल्या कणेरा भशेन पुराय फुल्ली. एकूण, सभावान सपैस आनी उलोवपाक म्होवाळ आशिल्ली वल्ली.

हांवें ताजे कडेन निरखून पळयलें. आपल्या शिडशिडीत शरिराक फाव सारको धोंपरा मेरेन पावता तसलो, पावशी कुपांच्या रंगां कडेन सर्त करपी कुडता, मातशे विरळ जाल्ले मुदयाळे केंस. सदांच उलोवपाक तयार आशिल्लो ताजो सादोच चेहरो. हांसरेच दोळे! हे व्यक्तीन आमचे सकाळचे पासयेचें अर्द वर आपल्या नांवार केन्ना करून घेतलें, हें आमकां कळ्ळेंच ना.

''म्हजें उलोवप तुमकां तुमचे भशेन, म्हळ्यार कोंकण्यां भशेन दिसले ना?'' ताजी दुसरी गुगली.

आमी 'हय,हय' अशा अर्थान तकल्यो हालयल्यो. ते बराबर, ताणें मडगांवच्या सुप्रसिध्द शाळेचें नांव घेवन आपूण 'पयली ते पांचवी मेरेन मराठींत शिकलों' अशें परतून मोठ्या अभिमानान सांगलें. मागीर-उच्चभ्रू, सुशिक्षीत, सुसंस्कृत, संगिताचो कान, शेजार, भाटकाराचो गर्व अशे शब्द वापरुन आनी त्या शब्दांचे इंग्रजी अर्थ घेत ताणें



आपलो बापूय 'रायचो भाटकार, ताका आपल्या भाटकारपणाचो गर्व आसा. आपल्याक मात गांवांत रावपाची आवड ना. सुशिक्षीत लोकांच्या सहवासान रावपाची आपली आवड आशिल्ल्यान आपूण मडगांवां येवन सुसंस्कृत लोकां मदी स्थायीक जालों' अशें मोठ्या अभिमानान सांगलें.

आशा भोसले हे श्रेश्ठ गायिकेचेर ताजी निरसीम भक्ती आशिल्ली. आशाची एकान एक गितां ताका पाठ आशिल्ली. भावगितां- 'हे सूरांनो चंद्र व्हा', नाट्यगीत 'कठीण कठीण कठीण किती', लावणी- रेशमांच्या रेघांनी काळ्या काळ्या धाग्यांनी, हिंदी फिल्मी पॉप 'मोनीऽ ऽ ऽ का ओ माय डार्लींग.' हीं सगळीं पदां ताज्या तोंडांतल्यान खळखळून उड्यो मारीत भायर आयलीं. सकाळच्या स्वच्छ वातावरणांत, पावसाच्या पार्श्वसंगिताचेर, तीस वर्सांच्या 'नव्या ताल्ल' बंगल्या भायर, नक्षीदार तिजुल्यांच्या पाऱ्यार आमी बशिल्लीं. एका हातांत उदकाचो पायप घेवन दुसऱ्या हातान तन्मयतेन तानो घेत एरीक कोश्ता ही वल्ली आमच्या दिसाचें भांगर करताली. ही ताजी फडफडीत सकाळ एरीक कोश्तान सुरिली केल्ली. 'आशा भोसलेक लेगीत खबर आसचें ना, तिणें कितलीं गितां गायल्यांत, तांचे संगीतकार, गीतकार कोण आशिल्ले, आपूण ते सगळे तोंडपाठ सांगूंक शकतां.' असो ताका सार्थ अभिमान आशिल्लो. ताज्या उतरां उतरांतल्यान आशा भोसलेच्या गितांची वळेरी- गीतकार संगीतकारां सयत फुडलीं धा-पंदरा मिनटां आमच्या कानांर पडत आशिल्ली. आशाच्या व्हरसटायल आवाजाची खासीयत, कसलेंय तरेचें गीत त्या त्या आंगांनी गावपाचें कसब, आवाजांतलो चढाव, तितल्याच सहजतेन खर्ज लावप, आवाजांतली फिरक, हरकती, सगळे मोठे रसीकतेन, योग्य शब्दांनी दखल घेत एरीक कोश्ता आमचे मुखार दवरतालो. केवळ पांच यत्ता मराठी शिकला आनी मराठी पुस्तकां वाचल्यांत हे बैठकीचेर ताणें आपलें मराठी प्रेम आनी हिंदी-मराठी गितांचें प्रेम जागृत दवरिल्लें. आशा भोंसले विशींचें प्रेम तर इतलें ओतप्रोत भरिल्लें कि, निमाणे ताणें तिजे विशीं काडिल्ले उद्गार याद उरले ते अशे, 'हांवें एक फावट देवाक विचारलें, देवा तुवें म्हाका आशा भोंसलेचो पूत म्हणून कित्याक जल्माक यालूं ना? आयुष्यभर तिजो हांव पूत म्हणून सांगपाक हांव स्वत:क धन्य मानून घेतलों आशिल्लों!'

एरीक खूबश्या मडगांव संस्कृतीक मंडळां कडेन संपर्कांत आशिल्लो. तांचे कडेन ताजी बरी वळख आशिल्ली. एरीका कडेन आशिल्ल्या आशा गितांच्या भांडाराक लागून लोक ताका वळखताले. ताणें जपून आनी वाडीक लायिल्ली आपली रसीकता, संगीत प्रेम लोभस तितलेंच अजापीत करपी आशिल्लें.

नवी वळख जाल्ल्याचो आनंद व्यक्त करीत ताका 'हात दिवन' आमी आमच्या घरा कडेन वळ्ळीं. दिसभराचीं कामां तकलेंत घोळूंक लागलींच. खंयतरी एक सुवात एरीक कोश्तान व्यापून गेल्ली. सगळ्या व्यापांतल्यान आपलें संगीत प्रेम ताजें दवरपाक तो शकतालो, आमकां कित्याक तें शक्य जायना? नकळत ह्या विचारान म्हाका घेरलें....सुरांच्या तळ्यांत पेंवपाक हांवूय आतूर जालें....हो कसलो चमत्कार!










# जंगल शाळा

(आधुनीक काळाचें हितोपदेश)

## तिसरो दीस
## गज्जू हती शिवराक कसो जाता?



शाळेचो तिसरो दीस आशिल्लो. आतां मेरेन सगळीं भुरगीं जंगलांत खोशयेन राविल्लीं. सकाळचो रुचीक नास्तो केल्या उपरांत सगळीं भुरगीं एके मेकळे सुवातेर जमलीं. प्राचार्य हती आनी हेर प्राणी एके वटेन बसले जाल्यार भुरगीं आनी बिंगो दुसरे वटेन. मागीर हतयान तांकां आपली काणी सांगपाक सुरवात केली.

तो हतयांच्या कळपाचो मुखेली आशिल्लो. ताजें नांव गजराज आशिल्लें. पूण सगळे मोगान ताका गज्जू म्हणटाले. एका काळार,आदीं गज्जू आनी ताजे हती इश्ट भोवच क्रूर आशिल्ले. ते जंगलांत दिसता त्या खंयच्याय प्राण्याची शिकार करताले. शींव आनी वाग लेगीत तांकां भियेताले. दर दिसा ते कितलेश्याच प्राण्यांची शिकार करून ताजेर ताव मारताले.

तर एक दिसा त्या जंगलांतल्यान एकलो बुध्द सन्याशी वतालो. ताका पळयना फुडें गज्जू आनी ताज्या क्रूर सांगात्यांनी ताजेर हल्लो केलो आनी ताका जिवेशीं मारपाचो लेगीत प्रयत्न केलो.

पूण तो बुध्द सन्याशी पळून गेलो ना. तो आशिल्लो थंयच उबो रावलो आनी ताणें गज्जूक थीर नदरेन पळयत म्हळें,''गज्जू तूं हें कितें करता? म्हाका तूं कित्याक मारूंक सोदता? तुजे पुर्वज एका काळार गौतम बुध्दाची पुजा करताले, ताणेंच तांकां अहिंसेचो संदेश दिलो. गज्जू, हतयांच्या राजा बसून घे.''

सन्याश्याच्या आवाजा भितर इतली शक्त आशिल्ली देखून गज्जू रोखडोच थारलो आनी मोन्यानी सकयल बसलो.

सन्याशी गज्जूच्या शेजराक आसनमांडी घालून बसलो. ताणें बुध्दाचें नामस्मरण करून ताका म्हळें,''गज्जू ,तूं ह्यान फुडें खंयच्याच जनावराक मारपाचो ना. हो तुका बुध्दाचो संदेश जावन आसा. आयज साकून हतयांचो राजा गज्जू आनी ताजे सगळे सांगाती ह्या मुखार शिवराक रावतले म्हणपाचो सोपूत घेतले. ''

'' ह्या मुखार तुमी सगळे फक्त फळां, भाजी आनी तणूच खातले. अशें केल्ल्यान तुमी निरोगी आनी घटमूट जावंक पावतले आनी तुमचेर बुद्दाचो सदांच आशिर्वाद आसतलो.'' अशें म्हणून सन्याशान ताज्या माथ्या वयल्यान मोगान हात



भोंवडायलो. हे घडणुकेन गज्जू इतलो प्रभावीत जालो की तार्णे थंयचे थंयच सन्याशा मुखार, 'ह्यान फुडें खंयच्याच प्राण्यांची शिकार करचों ना आनी शिवराक रावतलों 'म्हणपाचो सोपूत घेतलो.

मागीर गज्जून मोठ्यान गर्जन करतकच हेर सगळे हती ताजे वटयां आयले. तेन्ना गज्जून तांकां लेगीत आपले वरीं सोपूत घेवंक सांगलें.

रुखांच्या माथ्यार आशिल्ल्या माकडांच्या कानार तांचो हो संवाद पडलो. ह्या रुखा वयल्यान त्या रुखार उडयो मारीत हो संदेश तार्णी जंगलभरच्या सगळ्या प्राण्यां मेरेन पावयलो.''हेय! सगळे आयकात! हतयांचो राजा गजराज आनी हेर सगळे हती ह्यान फुडें खंयच्याच प्राण्यांची शिकार करचे नांत म्हणपाचो तार्णी सोपूत घेतला.''

शींव आनी वाग, हरणां आनी सोंशे आनी हेर सगळ्यांनी ही बातमी आयकली आनी तांचे खोशयेक शीम मेर उरली ना. सगळीं उमेदीन आनी खोशयेन नाचूंक-गावंक लागलीं.

बौध्द सन्याशी वचूंक उठलो तेन्ना गज्जून ताका सोंडयेन उखल्लो आनी आपले फाटीर घेतलो आनी म्हळें, ''मानादीक सन्याशा, ह्या जंगलांत शींव आनी वाग हरणाची शिकार करतात, लांडगे मेंढरांची करतात, व्हड प्राणी ल्हान प्राण्यांक मारतात. तुमी ह्या जंगलांत आनीक थोडे दीस रावून तुमचो अहिंसेचो हो संदेश शींव, वाग आनी लांडग्यांक कित्याक दिनांत? अशें केल्यार ते सगळे सोपूत घेवन हेर प्राण्यांक मारचेनांत. ''

बौध्द सन्याशान ताजी विनवणी मानून घेतली. माकडांनीय तांकां खूबशीं फळां दिवपाचें उतर दिवन सहकार्य करपाची तयारी दाखयली.

अशे तरेन जंगलांतले सगळे प्राणी शिवराक जाले. शींव हरणाचे इश्ट जाले, वाग सोंशांचे जिवाभावाचे सांगाती जाले आनी मेंढरां लांडग्यां सांगाताक भोंवूंक लागलीं. सगळयांनी सन्याशाक दिनवासलो आनी ताका मुखावयल्या प्रवासाक शुभेच्छा दिल्यो.''

भुरग्यांक ताजी काणी भोवच आवडली.

'' आरुश, ती काणी न्हय.'' रेहानान म्हळें.''अशें खऱ्यानीच जंगलांतल्या प्राण्यांच्या जिवितांत घडलां.''

''आमीय शिवराक जालीं जाल्यार?'' अनुष्का पुटपुटली.

'' प्राण्यांक मारून तांचें मांस खावप म्हळ्यार क्रुरताय न्हय?''नताशान विचारलें.

'' हय, आमीय शिवराक जावपाचो सोपूत घेवया.'' खुशीन म्हळें.

''पूण म्हाका चिकन आनी नुस्तें आवडटा न्हय!''रणवीर पिरपिरलो.

''रणवीर तुवें मात तरी त्याग करूंकच जाय.'' रायनान ताका म्हळें.

''आमच्या घरच्यांक आदीं विचारूंया.''मायरान म्हळें.

''ना. ना.आमी घरा न विचारिल्लें बरें.''आरुशान म्हळें.

''तीं म्हणटलीं नाका जाल्ल्यो भानगडी करूं नाका.''मानवान सांगलें.

'' आमी हांगाच थारावया.'' अवंतीन म्हळें.

''ओकेतर! आमी आयच्यान शिवराक जावपाचो सोपूत घेवया. नो चिकन,नो मटण. तांतयां आनी नुस्तेंय ना. जालें न्ही?'' मानवान विचारलें.

''हय!''सगळ्या भुरग्यांनी एकाच सुरान हयकार दिलो.

'' पूण बिंगोचें कशें जातलें? ताका तर मटणा बगर मातूय जायना.''रणवीरान दुबाव उक्तायलो.

बिंगो शेंपडी हालयत भोंकलो.

''पळयात,बिंगोय तयार जालो.'' रायनान म्हळें.

गज्जू आपल्या दोळयांतल्यान खोशयेचीं दुकां हाडीत हांसलो.भुरग्यांनी घेतिल्लो निर्णय ताज्या काळजाक लागिल्लो. जंगलांतल्या सगळ्या प्राण्यांनी तांकां खोशयेन येवकार दिलो. माकडांनी आनी वांस्वेलांनी मुखार सरून तांकां वेंगायलें आनी तार्णी घेतिल्ल्या निरोगी जीवनपध्दतीच्या निर्णयाची तुरत तोखणाय केली.

(चलता..)

मूळ इंग्लीश - दत्ता दामोदर नायक
(द जंगल स्कूल-ए मॉडर्न डे हितोपदेशा)
कोंकणी अणकार-मानसी धाऊस्कार



# ल्हान ल्हान गजालीचेर लक्ष

-वैष्णवी संदेश सावंत

गांवच्या वाड्या वयल्या शाळेच्या वर्गांत बोवाळाचो आवाज कानार येतालो. शामू, रिमू, गुणू, हांसत आसले. साती-माती एके कडेन उलयत बशिल्ले. अपूर्व किर्ते तरी बरयतालो. ताजें पेन सकयल पडलें आनी रामनाथाचो ताज्या पेनाचेर पांय पडलो. अपुर्वाक आयलो राग. ताणें दिलें ताज्या गालाचेर चार. हें पळोवन सगळीं नेटान हांसलीं. रामनाथाक आयलो राग. ताजें मार्थे आसलें नरम तें जालें गरम आनी ताणें अपुर्वाचेर पांच वाजयलीं. ताजो गाल तांबडोच जालो आनी ताजें रगत गरम जालें. ताजे दोळे तांबडेतांबडे जाले आनी धेऽ ताणेंय एक फुलयता म्हणसर झगडीं सुरू जालीं.

इतल्यान शाळेची टिचर वर्गांत पावली. तिणें दोगांक्य किर्ते घडलें काय विचारलें. दोगांयची एकूच जाप, 'ताणें म्हाका मारलें, ताणें म्हाका मारलें.' टिचरीन दोगांक्य म्हऱ्यांत आपयले आनी म्हळें, ''थंय पयस किर्ते आसा? जनेलांतल्यान भायर पयस पळयात.''

दोगांयनी जाप दिली-''वायर!''

टिचरीन म्हळें, ''वायरिचेर किर्ते दिसता?'' दोगांयनीय बारीकसाणेन पळयत म्हळें- ''दोन मुंयो टिचर!''

''आतां हांव सांगतां म्हाका किर्ते दिसता तें. पळयात मुंयो एकामेकाक सांगातान चलतात. मोगान. खाद्य जेवण तांच्या तोंडांत आसा.''

टिचर भुरग्यांक सांगपाक लागली - '' आमी मनीस अशेच. आमी व्हड व्हड गजालीं कडेन चड लक्ष दितात. ल्हान ल्हान गाजलींत लक्ष कमी दितात. पूण एक मनीस व्हड फात्राक आपटून केन्नाच पडना. आमी दोंगराक आपटून केन्ना पड्टात? ना! मनीस सदांच ल्हान फात्राक आपटूनच पड्टात.''

त्या दोगांयनी आपली आपली चूक मानून घेतली आनी अशेच हांसत खेळत व्हड जाले. आजूनय तांकां ही गजाल लक्षांत आसा आनी आमींय लक्षांत दवरचें.



रवीन्द्र केळेकार ज्ञान मंदिर, मडगांव





# गुलबकावली

- डॉ. जयंती नायक

## गुलबकावली- २४
## गुलबकावलीचो पुनर्जल्म आनी ताजाचें सुखी जीवन

गुलबकावलीचें देवूळ जे जमनीर आशिल्लें, ते जमनीर कांय तेपान एक गरीब शेतकारान शेत रोवपाचें थारावन , जमीन कसली आनी थंय सांसवेचे बीं फेर्ले. तार्जे शेत बरें तरतरून आयलें आनी भरपूर पीक जाली. ती पीक विकून त्या शेतकाराक भरपूर धन मेळ्ळें. ज्या शेतकारान थंय शेत रोयिल्लें तागेर लग्न जावन खूब वर्सां भुरगें जावंक नाशिल्लें. पूण ह्या शेतांत रोयिल्ल्या सासवेचें तेल खातांच ताजी बायल गुरवार जाली आनी तिगेर एक अतिशय सुंदर कन्या जल्माक आयली. खरें तर देवूळ मातये भरवण जाताच. गुलबकावली थंयचे मातयेंत एकरुप जाल्ली आनी थंयचे मातयेंत किल्लल्या सासवेचें तेल जिर्णे पयलें खालें त्या शेतकाराचे बायलेच्या पोटांत तिर्णे नव्यान जल्म घेतलो.

शेतकाराचे कन्येच्या रुपाची खबर चारूय दिकांनी पातळ्ळी. इतकी सुंदर कन्या त्या वाठारांत कोणागेरूच जल्माक आयली नाशिल्ली. खबर ताज उल्मुकाच्या कानार पावली. तो तिका पळोवपा खातीर शेतकारागेर गेलो. ते कन्येचें रुप पळोवन तो सामको अजापीत जालो. ती सारखी गुलबकावलीच दिसताली. तो मनांतल्या मनांत समजलो की गुलबकावलीनच पुनर्जल्म घेतला. तार्णे त्या शेतकाराक खूब धन-द्रव्य दिलें आनी ते कन्येचें बरें लालन पालन करपाक सांगलें.

कांय वर्सां गेलीं. कन्या बारा वर्सांची जाली. तिका लग्ना खातीर मागण्यो येवंक लागल्यो. पूण शेतकारान म्हणलें, ''ताज शाहजाद्याक विचारले बगर आमी तिज्या लग्नाचो निर्णय घेवंक शकनात.''

आतां गुलबकावलीचे बरे दीस परत आयिल्ले. ते खातीर तिज्यो साडेतिनशें परयो, शेतकाराच्या घराकडेन अदृश्य रुपान रावन तिजी राखण करताल्यो. तांचे मदीं एक सुमनरू नांवाची परी आशिल्ली. तिर्णे एक दिसा गुलबकावलीची भेट घेवन तिका तिज्या आदल्या जल्माची याद करून दिली आनी मागीर तिका उंची वस्त्रांलंकार दिवन म्हणलें, '' तुका हे इंद्रदेवान दिल्यात. आयच्यान तूं शापमुक्त जाली. आयच्यान तूं जाय तशें जीवन जगूंक शकता.''

ते उंची वस्त्रांलंकार घालून गुलबकावली शेतकाराच्या आनी ताजे बायलेच्या पांयां पडली आनी म्हणले, ''बाबा, तुमी म्हजो खूब बरे तरेन सांबाळ केलो. पूण म्हाकां आतां म्हज्या जगांत परत वचूंकच जाय. म्हजो शौहर म्हजी वाट पळयता. तुमची म्हाका सदांच याद उरतली. तुमी तुमची काळजी घेयात. केन्नाय गरज भासली तर म्हाका उलो करात हांव धांवन येतलीं''. मागीर घराच्या एका कोनशाक बोट दाखोवन तिर्णे म्हणले, ''हांगा एक धनाचो हांडो आसा.



तांतुतलें धन विकून तुमी तुमचें उरिल्लें जिवीत सुखान सारात .

गुलबकावली पऱ्यांच्या विमानांत बसून महापरीच्या महालांत पावली. थंय ताज आनी महापरी गजाली करीत बशिल्लीं. तिणें महापरीक म्हणलें, ''भयणी महापरी, तुका जर हो शाहजादो जाय जाल्यार आत्तांच्या आत्तां आमचे बरोबर येवपाक भायर सर!''

गुलबकावली आनी तिजो तो साडे तिनशी पऱ्यांचो तांडो पळोवन ती भिली . हांव एका पांयान तयार आसां पूण तुवें मात म्हाका माफ करूंक जाय! .

गुलबकावलीन म्हणलें, ''केलें माफ.''

त्याच वेळार सिंहलद्विप राजा हो किर्ते बोवाळ हें न समजून महापरीच्या म्हाला कडेन आयलो. ताजान ताका हाताक धरून भितर हाडलो आनी एका मंचकाचेर बसोवन सगळी खबर सांगली. ती आयकून ताणें गुलबकावलीक म्हणलें, ''बेटी म्हाका माफ कर. म्हजे कडल्यान अक्षम गुन्यांव घडला. म्हाका लागून तुका खूब त्रास भोगचे पडले!''

गुलबकावलीन म्हणलें, ''अब्बाजान ते त्रास म्हज्या नशिबांत आशिल्ले. तुमी फक्त निमित्य. पूण आतां दुक्खाचे दीस सरले आनी सुखाचे दीस सुरू जाल्यात. तुमी आमकां निरोप दियात!''

सिंहलद्विप राजान भरिल्ल्या दोळ्यांनी पूण आनंदान आपले धुवेक, जांवयाक आनी गुलबकावलीक निरोप दिलो. निरोप दितना ताणें खूब मुल्यवान भेटवण्यो तांकां दिल्यो. वांगडा नरमला आनी चिला नांवाच्यो दोन दासयो खास आपले धुवेचे दिमतीक दिल्यो.



आपल्या ह्या दोन राणयां सयत ताज आपले निगारीन नगरात पावलो. ताका पळोवन महमुंदा आनी दिलवराक खोशयेचें रडणें फुटलें. तांणीं धांवत वचून ताजाक वेंग मारली. उपरांत ताज आपल्या चारूय राणयांक येवन सुखान -समाधानान रावंक लागलो.

ताज सुखरूप आपल्या नगरांत पावला ही खबर कळटकच फिरोजशाहा , मुझफरशाहा आनी झैन उल्मुख हांकां खूब खोस भोगली. ते तिगीय जाण आप-आपल्या बेगमां सयत ताका मेळपाक आयले. गुलबकावलीची बापोल भयण रुहअफजाय आपल्या आवय-बापाय बरोबर थंय आयिल्ली. तेन्नाच ताजाचो इश्ट वजीर दादा बेहराम थंय पावलो. रुहअफजा आनी बेहराम दोगांय एकमेकांक पळयतां खिणाक मोगांत पडलीं. एके राती बेहरामान तिजया शयनकक्षांत प्रवेस करून आपलें मनय तिजे कडेन व्यक्त केलें. पूण फुडें कांय यद्धूक पावलेंना. रुहअफजा आपल्या आवय-बापाय बरोबर आपल्या देशांत परत गेली.

बेहराम तिज्या मोगान पिसो जाल्लो. तो रुहअफजेच्य राज्यांत गेलो. थंय वचून तार्णे सुमनरू परी कडेन दोस्ती केली. तिर्णे ताका मदत करपाचें उतर दिलें. सुमनरू परीची भयण बनफशा ही रुहअफजेची दासी आशल्ली. ती तिजे केंस वळोवंक सदां तिज्या म्हालांत वताली. सुमनरून बेहरामाक बायलेचो भेस धारण करपाक लायलो आनी बनफशाक सांगलें, ''ताई, हिका तुज्या नगराची मजा दाखय.''

अशेतरेन बनफशा बरोबर बेहरामान बायलेचो भेस धारण करून रुहअफजेच्या म्हालांत प्रवेश मेळयलो. बायलेच्या भेसांतय रुहअफजा ताका वळखली. तिर्णे बनफशाक म्हणलें, ''हे तुजे दासीक कांय दीस म्हजे कडेन दवर.'' बनफशाक कांयच खबर नशिल्ली. तिर्णे ताका थंय दवरलो.

आतां रुहअफजा आनी बेहराम हांच्या मोगाच्या खेळाक भार आयिल्लो. कोणाक आपलें गुपीत कळ नये म्हण रुहअफजा जादू करून बेहरामाक दिसाचो कीर करताली आनी रातीचो मनीस.

रातभर तांची मौजमजा चलताली. एक दिसा मुझफरशाहाक हें सगलें गौडबंगाल समजलें. तार्णे शिपाया कडल्यान पोपटाचो पांजरो हाडून घेतलो आनी तार्जे आंग तपासलें. तर ताका ताज्या गळ्यांत एक तावज बांदिल्ली मेळ्ळी. ती तावज काडले बरोबर बेहराम मनीस जालो.

मुझफरशाहा रागान थरथरलो. तांणें शिपायाक एक मोठो फोंड खणपाक लायलो आनी तातूंत अग्नी पेटोवंक लायलो आनी त्या अग्नीकुंडांत बेहरामाक उडोवपाची तयारी करता आसतनाच बेहरामाचें नशीब बरें म्हण आकाशमार्गान गुलबकावली भ्रमण करता आसतनाच तिजी नदर थंय पडली. वांगडा तिजे बरोबर ताज उल्मुख, दिलवर, महंमुदा, महापरी सगळीं जाणां आशिल्लीं.

तीं सद्द करून सकल देंवलीं. तिर्णे शिपायांक म्हणलें, ''रावात ताका कुंडांत वडय नाकात!''

गुलबकावलीच्या आवाजांतली जरब पळोवन शिपाय थंयचे थंय थांबले.

मागीर तिर्णे बेहरामाक पडिल्ली सगली गजाल विचारून घेतली. तार्णे कांयच लिपयनासतना सगळें सांगलें.

तशी ती हात जोडून आपल्या काका मुखार उबी रावली आनी तिर्णे म्हणले, ''चाचाजान ,म्हजें लग्न म्हज्या आवडट्या दादल्या कडेन जावचें म्हण तुमी कितके यत्न केले. आज तुमी ताज्याच इश्टाक मारून वडोवंक फुडें सरल्यात. ..? हो तुमचे कन्येक फावो सो वर आसा. तांचें दोगांयचेंय एकमेकांचेर प्रेम आसा. तुमी मोठे खोशयेन तांचें लग्न लावन दियात!''

धुवडेचें तें उलोवप मुझफरशाहाक्य पटलें. आपली चूक ताका कळून आयली. हुरनआरानय फुडेंसरून गुलबकावलीच्या म्हणण्याक तेंको दिलो.

मुझफरशाहान रोखडेंच मोठ्या धुमधडाक्यान रुहअफजाचें आनी बेहरामाचें लग्न लावन दिलें.

गुलबकावलीन हम्माला याक्षिणीक आपोवन आपल्या म्हाला सारको एक म्हाल बांदून घेतलो आनी रुहअफजाक आनी बेहरामाक लग्नाची भेट म्हण दिलो. त्या बंगल्यांत तीं दोगांय सुखान रावंक लागलीं.

**(....सोंपता....)**



**( पड्डो वयर सरता, माचयेर चवथीची सजावट दिसता, घरच्या सालाचो जागो. सालांत मदींच मखर सजयल्लें दिसता.चवथीचो दुसरो दीस आसता. पूण मखरांत गणेश मुर्ती आसना. एक तरणाटो, सुमार सोळा वर्सांचो येवन मखरा सामकार उबो रावन, दोळे बंद करून, हात जोडून प्रार्थना करता. 'वक्रतुन्ड महाकाय सुर्य कोटी समप्रभा निर्वीध्न कुर्मेव देव सर्व कार्येशू सर्वदा' असो मंत्र म्हणिल्ल्याचो आवाज येता. शंख वाजता आनी तरणाटो दोळे उगडटा. ताका मखरांत गणेश मुर्ती दिसना, तो सामको उचांबळ जावन.)**

भावेश : आरे ! मखरांत बाप्पाची मुर्ती ना !! हें आनी किर्ते? ? म्हजे दोळे तर सारके आसात न्हय? म्हजी नदर तर वचूंक ना न्हय? ( स्वताकूच दोन बोटां दाखयता ) हीं बोटां कितलीं? ? दोन. हय दोनूच तर बोटां आसात हीं. ( पांच बोटां दाखयता ) हीं कितलीं? पांच. हय पांचूच आसात बोटां. म्हजी नदर तर सारकी आसा. पूण मखरांत मुर्ती कित्याक ना? हे बाबा , आई. बेगीन येयात, पळयात मखरांत बाप्पा ना. बाबा!

बाबा : ( येवन ) किर्ते जालें रे, बोबाळटा कित्याक? ?

भावेश : बाबा-बाबा, पळयात मखरांत बाप्पा ना!!

बाबा : मखरांत बाप्पा ना ? किर्ते सांगता रे तूं? ? ( मखरांत पळयता ) खंय गेलो? ? बाप्पा खंय गेलो रे?

भावेश : खबर ना बाबा! हुंदीर आसा, पूण बाप्पा ना!!

बाबा : विचार ताका , बाप्पा खंय गेलो तें विचार ताका.

भावेश : पूण बाबा, कोणाक विचार म्हणटा? ?

बाबा : हुंदीर मामाक विचार म्हणटां हांव!

भावेश : हुंदीर मामा तें कशें सांगतलो? ( सोदता )

बाबा : मागीर. कोण सांगतलो तर, बाप्पा खंय गेलो तें ?

आई : ( येवन ) किर्ते जालें? ? कोणाक सोदतात तुमी?

भावेश : आई, बाप्पा मखरात ना, खंय गेलो खबर ना, सगळ्याक सोदलो, मेळच ना. किर्ते करचें कांयच कळना.( सोदता )

आई : ( हात तोंडार दवरून ) किर्ते सांगता रे तूं? ? बाप्पा शेणलो, आमचो बाप्पा शेणलो, आरे देवा हें आनी अशें कशें?

# बाप्पा आमच्या घरांत

अविनाश कुंकळकार







जालें? ( कपलार हात दवरून मखराच्या दारांत बसता. )

बाबा : आगे. थंय बसल्यार बाप्पा परतून येतले? चल सोद तांकां. रांदचे कुडींत बी वचूंक ना मगे ते?

आई : रादचे कुडींत ना ते! आतांच तर हांव आयलां रांदचे कुडीतल्यान.

बाबा : चल तूं म्हज्या वांगडा, आमी शेजाऱ्यागेर वचून पळवंया. ( तिका उठयता. )

आई : ( उठतानाच ) हे देवा , खंय म्हूण गेले देवा तुमी? आमचें किर्ते चुकलें बिकलें जाल्यार आमकां माफ करात देवा आनी परतून येवन मखरांत बसात.

बाबा : आगे चल गे बेगीन, तिनसांज जाली. आरत दाखवपाचो वेळ जायत आयलो. ये भावेश, तूं हांगाच राव हां, आमी रोकडींच येतां. ( तीं वतात आनी दोगां भुरगीं येतात. एक चली एक चलो.)

अमन : भावेश तुमचो बाप्पा खंय गेलो, अशें आयकलां आमी.

भावेश : हय खरें तें. बाप्पा मखरांत ना !!

लता : अशे कशे रे ते गेले ??

अमन : म्हाकां दिसता तांकां मखरांत बसून-बसून वाज आयलो आसतलो! कितलो वेळ म्हूण बसतले एकटेच मखरांत?

लता : हय जायत. बसून-बसून पांये दुखले आसतले म्हणून पासयेक गेल्या आसतले!.

भावेश : पासयेक गेल्ले जाल्यार , इतल्यान येतले आसले! आतां बरोच वेळ जालो ते ना जाल्यार.

अमन : म्हाकां दिसता तांकां कोणाचेंय किर्ते वायट बी दिसलां आसतलें. म्हणून ते घर सोडून गेले.

लता : भावेश तुका सामकी याद आसा न्हय?? रातीं देड दिसान बी पावोवंक ना न्हय तुमी बाप्पाक?

भावेश : ना गो देड दिसान कसो पावयतलों? आमचो वार्षीक पांच दीस.

अमन : म्हाकां दिसता कोणाचें तरी, किर्ते तरी चुकलां आसतलें. चला आमी प्रार्थना करूंया, घारांणे घालूंया,बाप्पा परत येवचे खातीर विनवणी करूं या.

लता : हय, चला म्हणा म्हज्या वांगडा. ( ती प्रार्थना करता ) देवांचो देव तूं , गणाचो अधिपती. ( ते दोगूय लतान म्हणलां तशें म्हणटात. )

लता : मायेचो सागर तूं , असो आमचो गणपती. ( ते दोगूय म्हणटात. )

लता : विश्वाचो विधातो तूं , बुध्देचो दातो तूं . ( ते दोगूय म्हणटात. )

लता : रथीचो म्हारथी , असो आमचो गणपती. ( ते दोगूय म्हणटात.)

लता : मानाचो धनी तूं , रिध्दी-सिध्दीचो पती. ( ते दोगूय म्हणटात.)

लता : विद्येचो दानी तूं , असो आमचो गणपती. ( ते दोगूय म्हणटात.)

भावेश : ये बाप्पा महाराजा!

दोगांय : हय महाराजा!!

भावेश : तू खंय आसा थंय सावन आमचें घारांणे आयक बाप्पा महाराजा!

दोगांय : हय महाराजा!!

भावेश : आमचें कोणाचेंय,किर्तेंय चुकलां बी जाल्यार आमकां माफ करात बाप्पा महाराजा!

दोगांय : हय महाराजा!!

भावेश : आमचो उलो आयकून तुमी परतून मखरांत येयात बाप्पा महाराजा!

दोगांय : हय महाराजा!! ( तीं तिगांय हात जोडून , दोळे बंद करून , पांया पडटात, शंखाची मधूर धुन्द वाजता आनी बाप्पा प्रगट जाता )

बाप्पा : भुरग्यांनो, तुमी तुमचे दोळे उगडात. हांव तुमच्या सामकार आसां. ( तीं दोळे उगडटात आनी खूब्ब खूश जातात )

भावेश : ( बाप्पा म्हऱ्यांत येवन ) बाप्पा प्रणाम ( पांयां पडटा ) तुमी अशे खंय गेले बाप्पा??

लता : बाप्पा तुमका आमचें किर्ते वायट तर दिसूक ना न्हय बाप्पा?(तेवूंय पाया पडटा)

अमन : बाप्पा आमचें किर्तेंय चुकलां जाल्यार आमकां माफ करात आनी मखरांत बसात, तुमच्या बगर तें मखर सोबना देवा.





बाप्पा : हय, बसतलों हांव मखरांत! म्हज्या बगर हे मखर सोबना हे म्हाका खबर आसा . पूण खूबशा गोष्टींची तुमकां खबर ना. तुमी तर भुरगीं आनी तुमीं कितेंय चूक केली सुध्दा जाल्यार तुमकां ती माफ आसा. कित्याक तर तुमचें मन साफ आसा. पूण ह्या संवसारांत जाणां जावन सुध्दा चुकी करपी मनीस आसात. आनी तांचेंच म्हाका आयज वायट दिसता.

भावेश : देवा! कोणें कितें म्हटलें तुमकां??

बाप्पा : म्हाकां कोण कांयच म्हणना . हांव देव हें सगळ्यांक खबर आसा आनी देव हो फकत मुर्त कशी मंडपात वा मखरांत बशिल्लो आसता असो खुबश्या जाणांचो समज आसा.

लता : पूण बाप्पा अशें जालें तरी कितें?? जो तुमकां राग येवन तुमी हे मखर सोडून गेले?

बाप्पा : कितें जालें काय म्हूण विचार नाका बाय. आजून कितें-कितें जावपाचें उरलां तें विचार.

अमन : बाप्पा, उपकार करून आमकां सांगात आमचें मनशाचें कितें चुकता तें.आमी सुदरावपाचो यत्न करतात देवा.

बाप्पा : म्हाका दिसना मनीस आनीक सुदरत शें, तें दिसान-दीस बिगडत वता, बिगडत वता. सैमाची सोबितकाय इबाडटा, पर्यावरण दुशीत करतात,पुर्वजांची परंपरा,संस्कृती विसरत चल्ल्यात.. वडिलांचें आयकनात , तांकां रेस्पेत, मान दिनात, आपल्याक जाय तें करतात.

भावेश : कोणें केलीं अशीं सुबेजपणां देवा??

बाप्पा : रातीं बारा वरांचेर रस्त्यार गरनाल कोण फोडटालो रे? तुमींय आसलीं मरे तांच्या वांगडा?

लता : हय बाप्पा! वाड्या वयले सगळे व्हडले-धाकटे भुरगे एकठांय जावन रातीक उसरां मेरेन गरनाल, फोगेट्यो लायताले रस्त्यार. आवाजान आमकां तर खूब भंय दिसतालो.

बाप्पा : हां. हय मरे?? अशें करूंक फावना. त्या वेळार कांय वेळ तुमकां मजा येता आसत, पूण दुसऱ्याक कितलो त्रास जाता आसतलो, हाजो विचार केला तुमी?ल्हान भुरग्यांच्या कानाचेर,ताज्या काळजार परिणाम जावंक शकता हें खबर आसा तुमकां? फोग लासोवन जावपी धुंवराक लागून कसली-कसली दुयेसां जावंक शकता जाणांत तुमी? पर्यावरणाचें, तुमच्या आवय-बापायचे कितलें लुकसाण जाता जाणांत तुमी? कितें मेळटा तुमकां हो फोग लासोवन? ती गिरगिरी , नारींगां, सुरसुरीं, बाण. धुंवराचे लोट आनी दुड्वांचो इबाड. तुमी फोग न्हय, तुमच्या



आवय-बापायन कश्टान जोडिल्ली जोड लासयतात, जोड. ( तिगांय तकली सकयल यालून शांत उबीं) आनी रातीं दोन वाजऽ सर लावड स्पिकर कोणें लायिल्लो तो?

लता : बाप्पा , राहुल तो!!

भावेश : हय राहुलूच, ताका संगिताचो खूब मोग बाप्पा!

बाप्पा : इतलो मोग आसा संगिताचो, जाल्यार भजन गायन कित्याक शिकूंक ना तर तो? रातच्या वेळार, मोट्या आवाजान लावड स्पिकर लावप हो संगिता वयलो मोग न्हय. जो संगिताचेर खरो मोग करता तो अशे तरेन दुसऱ्याक त्रास जाता तशें संगीत वाजयना. ज्या संगितान दुसऱ्याक त्रास जातात, दुसऱ्याची न्हिंद पिड्ड्यार जाता तें संगीत न्हय. खरें संगीत जें दुसऱ्याक खोशी दिता तें, मन प्रसन्न करता तें. अंभग गायन, भक्तीगीत, भावगीत हे संगिताचें खाशेलेंपण, पूण तें आतां शेणत चल्लां. आतां वतात थंय रॉक आनी डिस्को चल्लां.

भावेश : हय देवा आमची चूक जाता हे आमकां समजलें , पूण समाजांतल्या हेर लोकांक हें कोण सांगतलो? आयज तुमी आमच्या मखरांतल्यान ना जाले. आमचे चुकींची आमकां जाणीव करून दिवपाक, पूण देवा प्रत्येक घरांतल्या मखरांतल्यान तुमी अशेच गायब जातले?

बाप्पा : ना हांव तशें करूंक शकना!!

लता : जाल्यार तांकां कशें कळटलें ??

बाप्पा : तुमी आसात तीं कित्याक?? तें तुमचें काम, हांवें तुमकां फकत सादूर केलां. आतां फुडें जें कितें करपाचें तें तुमीच. भारत आमचो देश हो संस्कृती प्रधान देश, आमच्या देशाची संस्कृती आमी इबाडूंक फावना. आमच्या पुर्वजांचें दायज आमीच सांबाळूंक जाय. संवसार कितलोय बदल्लो तरी कांय गोष्टी बदलूंक फावना. खंय गेलीं तीं आदलीं भजनां, त्यो फुगड्यो, तीं पदां,लेझिमाचे खेळ? बाप्पा तुमच्या घरांत, मखरांत एकटोच बसला आनी भुरगे खेळटात कार्डांनी आनी गड्ड्यानी. आयज काल वतात थंय हेंच चित्र दिसता.

अमन : पूण बाप्पा, हें सगळें जाग्यार येवपाक कितें उपाय आसा?

बाप्पा : ना! हाका आनीक उपाय ना. हो मनशाचो बदलतो सभाव. जो पर्यंत मनीस बदलत रावतलो तांचो सभाव बदलत रावतलो. आनी ह्या बदलत्या सभावाक ते म्हणटात संवसार बदलता.

( आई,बाबा येतात )

बाबा : आरे तात्या!!तुमी आमच्या बाप्पाक पळयला? ( तांकां बाप्पा तात्या दिसता, बाप्पा मखरांत वता आनी तात्या जावन येता. )

तात्या : हय पळयला बाप्पाक! बाप्पा मखरांत आसा!!

भावेश : बाप्पा मखरांत आसा?? आनी तुमी केन्ना आयले तर?

तात्या : केन्ना आयलों म्हणजे?? इतलो वेळ तुमचे कडेन उलयतालो तो कोण तर?

भावेश : आमचे कडेन तर बाप्पा उलयतालो, फोग-फोगेट्यो लावप हे मनशाचे भलायकेक कितलें घातक ते आमकां समजायताले.

लता : हय तात्या. पूण तुमी खंयच्यान आयले! आनी बाप्पा मखरांत!!हो कसलो चमत्कार?? जेन्ना आमी पळयल्ले तेन्ना बाप्पा मखरांत नाशिल्ले.

अमन : तात्या तुमी म्हणटात, इतलो वेळ जो बाप्पाच्या रूपान तुमी आमचे कडेन उलयताले? आनी बाप्पा मखरांतूच आसले?

तात्या : हय तर, वदळ सावन हांवूच तुमचे कडेन उलयतालों. पयलीं येवन हांवें बाप्पाक नमस्कार केलो, मागीर भावेश येवन दोळे बंद करून प्रार्थना म्हणली आनी दोळे उगडटांच आरड्यो यालूंक लागलो. बाप्पा मखरांत ना, बाप्पा मखरांत ना म्हणून सगळ्याक एकठायलें. तेन्ना हांव तुमच्या सामकारूच तर आसलों!

बाबा : आमच्या सामकार आसले, तरी आमकां दिसूंक ना तुमी ?

तात्या : ना.तुमी गडबडीत आसलीं देखून तुमकां हांव दिसूंक ना जावंये! तुमी दोगांय गेलीं आनी हीं आयलीं. तेन्ना म्हाका झटको लागल्या वरी जालें आनी हांव हांचे नदरेंत आयलों. तांणी म्हाकां पळयलो खरो पूण तीं म्हाकां बाप्पा समजूंक लागलीं. आनी हांवूय बी जाणां जावन बाप्पाच कसो वागलों तांचे कडेन.

भावेश : पूण तात्या तुमी तात्या आसल्याचें आमकां कित्याक सांगूंक ना?



तात्या : तात्या परस बाप्पाचेंच सांगणें तुमी बरीं समजतलीं अशें म्हाकां दिसलें म्हणून.

लता : म्हणजे तुमच्या आंगांत बाप्पा गेल्ले तर आनी बाप्पाच्या रूपान तुमी आमकां समजायताले. तुमी तात्या आसले तरी तुमचें रूप आमकां बाप्पाचें दिसतालें.

तात्या : हय जायत, तुमकां तशें दिसतालें जायत.

अमन : हाजो अर्थ आयज बाप्पा प्रगट जाल्ले आनी आमकां एक मोलादीक संदेश ते दिवन गेले. तात्या तुमच्या मुखामळांतल्यान. आता हो संदेश गांवा- गांवांनी पावोवपाचें काम आमचें भुरग्यांचें.

बाबा : हय आनी ह्या कामांत भुरग्यांक मजत करपाचें काम आमचें जाणट्यांचें.

तात्या : आनीक कांय संदेश आसा ते आमी समजून घेवपाची गरज आसा.

भावेश : आनीक कसले संदेश तात्या?

तात्या : हय आसात खूब गरजेचे संदेश. आयकयात, आनी तुमीय बी आयकयात ( प्रेक्षकांक ) गणतपती बाप्पाची मुर्ती जी आमी घरांत पुजे खातीर हाडतात ती मुर्ती चिकण मातयेचीच आसची. न्हय प्लास्टर ऑफ पेरीसची.

लता : पूण कित्याक तात्या, प्लास्टर ऑफ पेरीसची कित्याक आसची न्हय?

तात्या : ती गणेश पुराणांतली एक व्हड काणी आसा, ती मागीर तुमकां केन्नाय सांगतलों. पूण चिकण मातयेचे मुर्ते शिवाय दुसरे खंयचेय मुर्तीची पुजा देवाक पावन जायना अशें मानतात.

अमन : तात्या मुर्ती उबी वा कश्ट करताना आसूंक फावना अशें हांवें आयकल्लें, खरें तें तात्या?

तात्या : हय खरें तें . जितले दीस आमी बाप्पाक आमच्या घरांत दवरतात तितले दीस जर ते उबे वा कश्टी रावले जाल्यार ते शांत मनान आमकां आशिर्वाद कसो दितले? आमची पुजा,प्रार्थना कशी स्विकारतले? म्हणून मुर्ती शांत बसलेली आसल्यार चड बरी. आनी एकल्यानूच उकलून हाडूंक वा व्हरूंक जाता तशी आसची. जो पर्यन मुर्तीची प्राणप्रतीश्ठा जायना तो पर्यन ती फकत मुर्ती आसता. तातूंत देव येना. प्राणप्रतीश्ठेच्या पयलीं जर कांय कारणांक लागून मुर्तीची तुटावट जाता तर कांयच भियेपाची गरज ना. ते मुर्तीक धंय-भाताचो नैवेद दाखोवन रोकडीच तिजें विसर्जन करून, दुसरी मुर्ती हाडून पुजेक लावपाची आनी मनांत कसलोच भंय वा दुबाव दवरचो न्हय. घरांत गणपती बाप्पा आसतना कसलोच वाद वा झगडीं करचीं न्हय. तशेंच नुस्तें खावचें न्हय, सोरो पिवंचो न्हय.

भावेश : आनी तात्या , विसर्जनाच्या दिसा विसर्जन यात्रे वेळार भक्ती गितां लावन आनी धोल ताशांच्या गजरान,गजर गावन बाप्पाचें विसर्जन करचें .डिस्को पद वाजोवन न्हय.

तात्या : खरें तुजें. आनी हे सगळे संदेश जर आमी बरे तरेन पाळीत तर बाप्पा आमचेर खूश जातलो आनी व्हड खोशेन आशिर्वाद दितलो.चलात तर आतां हे सगळे संदेश गांवा- गांवानी पावोवया.

अमन : पूण तात्या अशे कशे पावयतले संदेश गांवा- गांवानी? ताजे खातीर आमकां नाटक करचें पडटलें.

भावेश : हय तात्या अमन सांगता तें सारकें! आमकां ह्या सगळ्या संदेशाचेर आदारीत नाटक करून लोकांक दाखोवचें पडटलें, तांकां पटोवन दिवचें पडटलें.

तात्या : बरें तर . तुमी सगळीं आसात न्हय नाटकांत भाग घेवपाक? हांव बरयतां नाटक. आनी भाऊ तुमी नाटक बसोवपाचें हां!

बाबा : हय बसयता हांव, आनी आमी दोगांय नाटकांत पार्ट्य करतलीं. हय मगे?

आई : हय करतलीं हांव पार्ट, आवयचो पार्ट म्हाकां दियात.

लता : आनी तात्या नाटकाचें नांव हांव सांगतां, 'बाप्पा आमच्या घरांत!'

सगळीं : बाप्पा आमच्या घरांत??

( सगळीं हांसतात. )

।।सोंपता।।



कालापूर बांध, आराडी, गोंय
मो.: ७८७५२३७८३०



# सकयल तकली वयर पांय

- राजीव तांबे



आयज आयतार. सगळेंच सुशेगाद. आयतारचें वेळापत्रकूच वेगळें. आयज कोणाक कसलीच दगदग ना. म्हळ्यार मिहिराक अभ्यास करपाची सुध्दां.

आजो हारशेंत पळोवन खाड काडटालो. त्या वेळार मिहिर खाटीर लोळत आज्याक पळयतालो. तो अकरमात आड्डलो, ''आज्या, तुमच्या उजव्या गालार पळयात. ब्लेड लागून मात्शें कापलां.''

हें आयकून आजी बेगोबेग धांवत आयली. आज्या कडेन पळोवन आड्डली,''आगे बाये! दाव्या गालार कापलां शें दिसता! इतलीं वर्सां जालीं तरी अजून...''

''वाजयात. दोगांय मेळून म्हजी वाजयात. नातू म्हणटा 'उजव्या गालार' जाल्यार बायल म्हणटा 'दाव्या गालार'. आतां किते समजुपाचें हांवें?''

खाटीर पडिल्ले कडेन पांय हालयत मिहिरान म्हळें,''दाव्या म्हळ्यार दाव्याच गालार कापलां. हांव हांगा सावन नीट पळयतां न्हय?''

आज्यान दाव्या गाला वयल्यान हात भोंवडायलो जाल्यार तांच्या हाताक थोडोसो फेस लागलो. आज्यान तिडकीन मिहिरा कडेन पळयलें. मागीर उजव्या गालार हळूच हात भोंवडायलो जाल्यार तांच्या हाताक मात्शें रगत लागलें.

मिहिरान गडबडून म्हळें,''आँ, अशें कशें किते जालें?''

''आरे, तूं हारशांतलो आजो पळयतालो आनी हांव खऱ्याखुऱ्या आज्याक पळयताली, म्हणून जालें हे अशें उजवें-दावें.''

खाटी वयल्यान उठत मिहिरान भीतभीत म्हळें,'' म्हळ्यार हारशांतलो आजो खरो न्हय? मागीर एदो वेळ हारशांत दिसतालो तो कोण? आनी... आमी हारशांत पळयतात तेन्ना किते आसता? म्हळ्यार हारशांतले आमी खरेंच आसतात न्हय? काय..?''

मिहिराक थापटीत आजयेन म्हळें,''पुरो जालीं तुजीं पिशेपणां! राव, तुकां एक मजा दाखयतां. एका मिनटांत तुजी सकयल तकली आनी वयर पांय करतां.''

मिश्यो पिळीत आज्यान म्हळें,''म्हाकाय करात उलटो-सुलटो.''

आजये कुशीक वचत मिहिरान म्हळें,''आजये, पयलो नंबर आज्याचो मागीर म्हजो... प्लीज. आनी तकली सकयल केल्या उपरांत म्हजी तकली आपटुची ना न्हय?''

ताज्या केंसांतल्यान हात भोंवडायत आजयेन म्हळें,''मात्तूय ना! आरे, तुवें तुज्या पांयांचेरूच उबेरावपाचें आनी रवताक मात 'सकयल तकली वयर पांय'



जाल्ल्याचें पळोवपाचें! समजलें?''

आजी कितें उलयताली तें मिहिराक कांयच समजलें ना.

आजी हांसत भितर गेली आनी भितरल्यान नवे चकचकीत स्टीलचें व्हडलें कुल्रेर घेवन आयली. उजव्या हातांत कुल्रेर घेवन मिहिराच्या मुखार उबी रावली. मिहिर पयलोच आबुजूच जाल्लो. आतां कितें करपाचें तेंच ताका कळना जालें. आज्यान कुरू केली. आनी मिहिरान कुल्रेरांत वाकून पळयलें.

ताका अजापूच दिसलें! आपल्या दोळ्यांचेर ताजो विश्वासूच बसना! कुल्रेरांत दिसपी मिहिर उलटो उबो आशिल्लो. सकयल तकली आनी वयर पांय करून! मिहिरान उजवो हात वयर काडलो तेन्ना कुल्रेरांतल्या मिहिरान दावो हात सकयल केलो. हें पळोवन तर तो सामकोच आबूज जालो!

दाव्या हातान आजयेचो हात घट्ट धरीत मिहिरान विचारलें,''हें अशें कितें? आरशांत फक्त उजवें दावें जाता. पूण कुल्रेरांत तर उजवें-दावें आनी वयर-सकयलूय जाता! कित्याक काय?''

''हारसो आनी कुल्रेर दोनूय चकचकीत आसतात. तरी आसतना ह्या दोगांमदीं तुका कितें फरक दिसता? नीट पळय पळोवया?'' अशें आज्यान म्हणटाच मिहिराचो जनरेटर चालू जालो.

''हारसो उथळ आसता. कुल्रेर खोलशें आसता. हारसो कंवचेचो आसता



जाल्यार कुल्रेर धातूचें. हारसो..''

''पुरो, पुरो. आरे तूं हारशार पडपी प्रकाश किरण परावर्तीत जावन दोळ्यांत शिरता म्हूण आमकां उजवें तें दावें आनी दावें तें उजवें दिसता. अक्षरां उलटीं दिसतात. पूण दोन हारशांच्या मदतीन पळयलें जाल्यार पयल्या हारशांत उलटें आनी दुसऱ्या हारशांत प्रतिमेच्या उलट म्हळ्यार मूळ वस्तू सारखीच वस्तू दिसता. कातकोनांत दवरिल्ल्या हारशांत हें आमकां पळोवंक मेळटा.''

''आगे आजये, हें उजवें-दावें म्हाका कळ्ळें. पूण तें उलटें-सुलटें कितें?''

''तें विचार तुज्या उलट्या-सुलट्या आज्याक. ते तुका वेवरथीत उलटें-सुलटें करीत सांगतले.''

आज्यान कुशीक सरकत म्हळें,''आरे, कुल्रेर खोल आशिल्ल्यान तें अंतर्गोल हारशाचें काम करता. अंतर्गोल हारशांत परावर्तित जावपी किरणां एकमेकांक कातरीत दोळ्यांत शिरतात. म्हणून आमकां प्रतिमा उलटी दिसता. कितेंऽऽ? आनी हें पळय... तरी सुद्धां तुका कसलीय शंका आसल्यार तुजे सुलटे आजयेक विचार.''

''आतां कळ्ळें म्हाका सामकें! म्हळ्यार तुमच्या मदलो सपाट हारसो कोण आनी अंतर्गोल हारसो कोण ... सांगूं?''

त्याच खिणांक दोनूय हारशे एकाच सुरान आड्डले,''नाका ऽऽ नाका!''

तुमी पळयल्यात अशे घरांतले वेगवेगळे हारशे?आनी त्या हारशांत स्वताक पळयलां व्हय? आनी तुमी तेन्ना उलटे-सुलटे आसतात काय उजवे-दावे?

म्हाका सांगूंक शकतले?

हांव तुमच्या सुलट्या आनी उजव्या पत्रांची वाट पळयतां.



**कोंकणी अणकार : ज्योती मोणकार**

(राजीव तांबे हांकां २०१६चो साहित्य अकादेमी मराठींतलो बालसाहित्य पुरस्कार लाभला.
तांचो संपर्क: rajcopper@gmail.com)



# शुभम करोती कल्याणम्

- दीपा मुरकुंडे



शेनवारा सांजवेळा दीपक बाबा वांगडा आपल्या मीना आत्यागेर गेलो. दीपक आपल्या दोनूय आत्येभावां वांगडा खूब खेळ्ळो. सिध्दम पंदरा वर्सांचो आनी अनुपम बारा वर्सांचो आशिल्लो. दीपक आतांच स वर्सांचो जाल्लो. सिध्दमाक आनी अनुपमाक धाकट्या दीपका वांगडा खेळूंक खूब आवडटालें. देखून दीपक तांगेर येतकीर ते ताजे वांगडा बॉलांनी वा नुस्तें गरोवपाचो खेळ खेळटाले.

दिवे लागणेचो वेळ जातकीर आत्यान दोनूय भुरग्यांक उलो मारलो.

''सिध्दम, अनुपम हातपांय धुवन आतां देवाक पांयां पडात.''

''आं, आई' म्हणून ते दोगूय हातपांय धूवंक गेले. तांचे वांगडा दिपकूय गेलो आनी हातपांय धुवन आयलो.

सिध्दम आनी अनुपम देवाच्या मुखार उबे रावले. थंय दीपकूय रावलो. त्या दोगांयनी देवाक नमस्कार केलो आनी ते म्हणपाक लागले -

शुभम् करोति कल्याणम्<br>
आरोग्यं धन संपदा<br>
शत्रुबुद्धि विनाशाय<br>
दीपज्योति नमोस्तुते ।।

देवबाप्पा पाव पाव - दीपक थंय हात जोडून उबो रावलो. पूण ताका ती प्रार्थना म्हणूंक येना आशिल्ली. 'सिध्दमभाई, म्हाका तुमी म्हणटात ती प्रार्थना म्हणूंक येना.' दीपकान सांगलें.

''हांव तुका आतांच शिकयतां. हांव म्हणटां तशें तूंय म्हण.'' सिध्दमान सांगलें. सिध्दम आनी अनुपमान परतीय प्रार्थना म्हणूंक सुरवात केली. दीपकान तांचें आयकून एक एक ओळ म्हणली.

''अनुपमदादा, शुभम् करोती कल्याणम म्हळ्यार किर्ते?'' दीपकाचो प्रस्न.

''पयलीं आमी आईक पांयां पडूया. मागीर आईच तुका ताजो अर्थ सांगताली.'' अनुपमान सांगलें.

अनुपम आनी सिध्दम आईक पांयां पडले. अनुपम सिध्दमाक पांयां पडलो.

''अनुपमदादा तूं सिध्दम भाईक कित्याक पांयां पडलो?'' दीपकान विचारलें.

''सिध्दमभाई म्हजो व्हडलो भाव म्हणून.'' अनुपमाची जाप.

''आतां हांवें आत्येक आनी तुमकां दोगांकूय पांयां पडप?''दीपकाचो प्रस्न.

''हय. ल्हान आसता तांणीं सगळ्या व्हडल्यांक पांयां पडप.''आत्येन सांगलें. दीपक सगळ्यांक पांयां पडलो.

''दीपक, आतां तुका प्रार्थनेचो अर्थ सांगतां. शुभम करोति कल्याणम म्हळ्यार- हे देवा आमचें बरें कर, कल्याण कर. आरोग्य धन संपदा म्हळ्यार आमकां बरें आरोग्य दी. सगळे तरेच्या धनाची संपदा दी.'' आत्येन सांगलें.

''संपदा म्हळ्यार किर्ते?'' दीपक.

''संपदा म्हळ्यार सगळे तरेचें धन भरपूर आसप. ताका संपदा म्हणटात. ताका



संपन्नता म्हणटात. दुडू, आरोग्य, धान्य, जेवण-खाण, रावपाक जागो अशें सगळें भरपूर आसप म्हळ्यार संपन्नता. आतां तुका 'शुभम करोति कल्याणम् आरोग्य धन संपदा' हाजो अर्थ कळ्ळो?'' आत्येन विचारलें.

''हय आत्या. देवा आमचें बरें कर. कल्याण कर. आमकां बरें आरोग्य दी. खूब खूब पयशे, जेवण खाण, रावपाक जागो दी.'' दीपकान सांगलें.

'शत्रुबुद्धी विनाशाय' म्हळ्यार वायट बुद्धीचो म्हळ्यार वायट विचारांचो नाश जावंदी.'' आत्येन सांगलें.

''वायट विचार म्हळ्यार किर्ते?'' दीपकाचो प्रश्न.

''वायट विचार म्हळ्यार दुसऱ्यांचें वायट करपाचें येवजप. दुसऱ्यांक मारपाचें येवजप. दुसऱ्याक त्रास करपाचें येवजप हे वायट विचार. आमचे वायट विचार ना जावंदी अशें मागप. - शत्रुबुद्धि विनाशाय दीप ज्योती नमोस्तुते. आतां दीप ज्योती नमोस्तुते म्हळ्यार दिव्या तुका नमस्कार. आतां हांवें किर्ते सांगलें तें तुका सारकें समजलें?'' आत्येन विचारलें.

''हाय आत्ये. म्हाका ही प्रार्थना खूब खूब आवडली.'' दीपकान सांगलें.

''तूं घरा तिनसांजे हातपांय धुवन देवबाप्पाक नमस्कार करना?'' आत्येन विचारलें.

''करतां आत्या. नमस्कार करतां आनी 'देव बाप्पा आमकां सगळ्यांक पाव. सगळ्यांचें बरें कर' अशें म्हणटां. मागीर आईक आनी बाबाक पांयां पडटां. आई-बाबा म्हाका, 'देवबाप्पा तुजें बरें करूं' म्हणटा. आत्ये, फाल्यां सावन हांव सदां ही 'शुभमकरोती कल्याणम्' प्रार्थना म्हण्टलों.'' दीपकान सांगलें.

''हय दिपू. सदा तशेंच कर.'' आत्येन सांगलें.

इतल्यान दीपकाचो बाबा आनी भावोजी घरा आयले. आत्येन तांकां सगळें सांगलें. ताणींय दीपकाक प्रार्थना सदां म्हणूंक सांगली.



## बाबूचो वाढदीस

सा रे ग म प ध नी सा
येयात बाबूच्या वाढदिसा
सा नी ध प म ग रे सा
नाचया,गावया'सावोसा'

धुंद जालो सैम आज
पारजताची घालून रास
बाबूक आतां वर्सां पांच
नाच रे बाबू नाच

नाचता सगळो गांव
घुमचे कटर घूम
कटर कटर घूम
बाबूची मम्मी गेली रंगून

गुलाब परमळला
सूर्या परजळला
बाबूच्या वाढदिसाक सगळ्यांनी
हाडल्या खेळांची रास



- भिकाजी घाणेकार
कारंजाळे-गोंय





# आजयेलो पावसाळो

- उषा ज. कामत

आमचे आजयेची खबर खूब पोरणी. तरी लेगीत दर पावसाळ्यांत तिज्यो यादी ताज्यो टवटवीत जावन सामकार येतात. ती खूब उमेदी, धाडसी आसलीच, शिवाय मायेस्त, हजर जबाबीय आसली. आनीक एक तोखेवपा सारको गूण तिजेकडेन आसलो. तो म्हळ्यार वयान जरी ती जाण्टी आसली तरी मन तिजें सामकें तरणें आसलें. भुरग्यांवरी पावसांत खेळप, मजा मरती करप हें तिका खूब्ब आवडटालें.

पावस सुरू जालो काय पावसांत भिजपाची सामकी हुक्की येताली तिका. पूण उठसूठ पावसांत भिजतली कशी? नातरां तर दिसूवभर हिजेच आशीकुशीक. ह्याच नातरांक ती पावसांत भिजपाक खेळपाक दिना आसली.

दोगांय नातरांची कालेत सामकी नाजूक. दिसूवभर थंडी, जोर चालूच. मागीर तीं पावसांत खेळटलीं कशीं? आनी ह्या नातरांक लिपोवन आजी पावसांत भिजतली केन्ना? मागीर आजयेचे सुपीक तकलेंतल्यान एकेक आयडिया भायर सरताल्यो.

आजयेलें उठप सदां सक्काळीं. आजयेन किर्दे करप,सकाळीं उठली काय बरो गरमा गरम पेलोभर च्या पिवप आनी फुलां काडपाक पोरसांत वचप. बरोबर सत्री व्हरप. पूण ती फुलोवप ना. तशीच खांक्याक मारून पोरसांत जाय तशें भिजप. जाय तशी मज्जा करप. त्या पोरसांतल्या झाडांक पोशेवप, तांचे कडेन गजाली करप आनी तांची अपुरबाय लेगीत करप.

दरेका झाडा कडेन उलयत, फुलां तोडीत आजी अर्दवर तरी पोरसांत काडटाली. भुरगेपणांतल्यो यादी काडीत आपले भितर मर्दी मर्दी हांसतालीय बी. अशें करून बरें भिजून जालें काय मागीर आजयेन घरांत येवचें आनी गुपचूप बरें कडक उदकान न्हांवन घेवचें.

आजयेलें न्हाण जातासर सात वरां जातालीं. म्हणटासर सून पूत उठतालीं. मात आजयेली ही मजा मजा कोणाकूच कळनासली. हय. बरो घोग्यांनी पावस पडटा तेन्ना साकर न्हीद सोडून फांतोडेर उठ्ठलो कोण? तशी आजी आपले भलायकेवी कुयदादय घेताली बरी. सदां न चुकतां आपले संवयेचो गंजन आनी तुळशी कणसां घालून कसाय करून दिसाक, दोन फावट पिताली.

मागीर सगळें घरांतलें कामय नेटान बरी करताली. वाज, उबगण हीं उतरां ती केन्नाच वापरनासली.

आनी अजाप म्हळ्यार जेन्ना केन्ना घरांतलीं सगळें जाणां खंयूय भायर सरतालीं, तेन्नाय जाय तशी पावसांत मजा करपाची संद ती कशीच सोडनासली.

आजयेक फुलांची, फळांची खूब आवड. स्वताच्या हातान कश्ट करून तिणें पोरसूं फुलोवंचें. जायो-जुयो फुलल्यो काय काडून ताज्यो फातयो, वळेसर घालपाचें काम आजयेचेंच.

अशी ही आमची आजी पावसांत धादोस मनान जगताली. पावसा दिसांनी सदांच तिजी याद येता.



## मानाचें पान




भाई मावजो म्हळ्यार कोंकणी हे आपले आवय भाशेंतल्यान सातत्यान लिखाण करपी भारतीय साहित्यिक. तांच्या साहित्याचें विदेशी कडेन खोलायेन पावची देखून 'अक्षर दामोदर'सुवाळ्याचें आयोजन तांच्या हिरक महोत्सवी वाढदिसा निमतान आयोजीत केल्ली. केपेंच्या सरकारी महाविद्यालयाचो कोंकणी विभाग,उच्च शिक्षण संचालनालय,पर्वरी आनी मडगांवचें रवीन्द्र भवन अश्या तीन संस्थांनी हो दोन दिसांचो राष्ट्रीय परिसंवाद मडगांवच्या रवीन्द्र भवनांत,शुक्रार २ आनी शेनवार ३ ऑगस्ट २०१९ दिसा घडोवन हाडिल्लो. ताजे पुर्वसंध्येर म्हळ्यार १ऑगस्ट २०१९ दिसा सांजवेळां भाईच्या अपुर्बायेच्या तीन कन्यकांनी मेघना, सोबिता आनी रुपाली हांणीं आपल्या पप्पाचो ७५ वो वाढदीस,पप्पाच्या लागशिल्ल्या इश्ट-मित्रांक आनी घरच्यांक आमंत्रित करून मनयलो.गीतांच्या सुरार रंगलेली ही सांज म्हळ्यार दुसऱ्या दिसाच्या 'अक्षर दामोदर' सुवाळ्याची ओपनींग सेरेमनीच म्हणपा सारकी जाली म्हणूंक जाय. ह्या तीन दिसांतलीं हीं कांय वेंचीक खीणचित्रां बिम्बाच्या मानाच्या पानार..



भाई मावज्याचो हिरक महोत्सवी वाढदीस केक कापून मनयलो.





चित्रकार सीया पंडित हांणीं भाई मावजो हांचो पोट्रेट तयार केल्लो ताजें अनावरण करतना गीतकार गुलज़ार.



गुलज़ारांच्या हस्तुकी पुस्तक विमोचनाचो सुवाळो जालो.




नामनेचे लेखक जेरी पिंटो आनी पत्रकार अभय सरदेसाय हांणीं भाई मावजोची मुलाखत घेतली आनी भाईचो पुराय जिवनपट उक्तो केलो.



खळांतली आंबली

दिलीप
बोरकार



# निश्ठावंत कोंकणी सेवक

शांताराम वर्दे वालावलीकार भायर पडले ही खबर कानार पडली आनी मन सुन्न जालें. सुन्न जावपाचें कारण म्हळ्यार शांतराम वालावलीकार ही व्यक्ती निश्क्रीय नाशिल्ली. सातत्यान कसले ना कसले व्याप आपल्या आंगार घेवन बसताले आनी तातूंत शांतपणान आपलें योगदान दिताले. तांचो हो वावर तांचे स्वताचे जोडी पासत नासतालो तर तातूंतल्यान कोंकणी भास,कोंकणी संस्कृताय,कोंकणी समाज ,कोंकणी मनीस हाका कितें ना कितें लाव जावंचो असो तांचो हावेस आसतालो. कोंकणी मळावयलो तांचो वावर पळयत जाल्यार,फक्त वावरूच न्हय तर संबंध कोंकणी वावराकडेन आनी कोंकणी भाशेच्या फुडाराकडेन पळोवपाची तांची नदर अभ्यासत जाल्यार तांची एकंदर वावरा विशींची आनी जिणे विशींची वैचारीक बसका होलमता.

शांतारामबाब हे कोंकणीचे म्हापुरूस वामन वर्दे वालावलीकार म्हळ्यार शणै गोंयबाबांच्या भावाले नातू. त्या अर्थान पळोवंक गेल्यार ते शणै गोंयबाबांचे नातू म्हणपाक हरकत ना. शणै गोंयबाबांचो वावर पळयत जाल्यार असल्या वावराची स्फूर्त घेवन खंयचोय नातू फुडाराक ती परंपरा मुखार व्हरतलो हाजीं मोस्रां तशीं उणींच सांपडटात. तातूंत शांतारामबाब हे शणै गोंयबाबांल्या भावाले नातू..अशें आसतनाय शांतारामबाबान जो कोंकणी मळार निमण्या खिणा मेरेन वावर केला त्या फाटलें कारण तांचेर आशिल्ली शणै गोंयबाबांची सासाय आनी आशिर्वाद म्हणूंक जाय.

म्हाका शांतारामबाब हांची हालींच भेट जाली ती मडगांवां भाई मावज्याच्या वाढदिसाक. हांगा तांचे कडेन म्हाका तसो चड वेळ सारपाक मेळ्ळो ना. पूण त्या आदीं अरवींदबाब भाटीकार हांच्या वाढदिसा निमतान तांच्या पुतान ताळगांव कम्युनिटी हॉलांत भाटीकारबाबांच्या लागशिल्ल्या हितचिंतकांची एक मदलस आयोजीत केल्ली तातूंत म्हाका शांतारामबाब भेटले आनी बरोच वेळ आमचें उलोवप जालें.

शांतारामबाबांचें बिम्ब मासिकाचेर बारकायेन लक्ष आशिल्लें. हांवें ह्या मासिकाचो दर्जो आनी सातत्य हाजेर लक्ष केंद्रीत केल्ले पासत तांकां म्हजी अपुर्बाय आनी तोखणाय दिसताली. ही तोखणाय दिसलें मडें आनी आयलें रडें असली नासताली तर विधायक आसताली. खंय चुकता,कितें बदल जाय, आर्थिक बाजू कशी हाताळची पळटा बी खूबश्यो टीप्स ते दिताले. फक्त सांगूंक जाय म्हण न्हय तर आरंभ आपले पासून करताले.एक दीस तांणीं म्हाका सांगलें,तुजो वावर कोंकणी मनशान पळयला. तांचो सभाव आपूण जावन मुखार सरून दुसऱ्याची तोखणाय करपी न्हय. पूण तांच्या लक्षांत आसता आनी ते वाट पळयतात तुवें तांचे मुखार येवन सहकार्य मागचें म्हूण..तांकां सहज म्हणपाक हरकत ना..तुजें लुकसाण कितें? जालो जाल्यार बिम्बाक फायदोच जातलो! अशें म्हणून ताणीं म्हज्या हातार पांच हजारांचो चेक दवरलो आनी मुमुरखो हांसत मुखार म्हळें,'हांवूय तांतलोच आं! पूण म्हाका चड वेळ तुजी वाट पळोवप पुटवलें ना देखून हांवच हो चेक घेवन तुडे कडेन आयलां.'

बिम्बाचो व्याप, दर म्हयन्याचो छपाई आनी हेर खर्च पळयत जाल्यार ताणीं दिल्लो पांच हजारांचो चेक ही रक्कम म्हजे खातीर किरकोळ आशिल्ली.पूण त्या चेका वांगडा ताणीं दिल्लो सल्लो लाख मोलाचो आशिल्लो. ताणीं म्हळें, तूं चलयता तें बिम्ब चलचें अशें सगळ्या कोंकणी भक्तांक दिसता. तें वर्गणीचेर चलपाचें ना हेंय तांकां खबर आसा. तांचे कडल्यान वर्सुकी वर्गणी येवंचे परस तांची आर्थीक तांक आनी दानत लक्षांत घेवन जर तुवें तांचे कडल्यान पांच-धा हजार घेतले जाल्यार तांकांय आपणें कितें केल्ल्याचें समाधान लाभतलें आनी तुकाय तांचे वर्गणीचो हिशेब घेवन बसपाचो व्याप सांबाळपाची गरज उरची ना. त्या भायर आपणें वर्गणी भरल्या काय ना?भरल्यार ती सोंपल्या काय ना? असो जो एक अपराधी भाव आमचे मर्दी आसा तो उरना



आनी आमीय हक्कान बिम्बा पासत सुचोवण्यो दिवंक शकतात. हांवें लोक असो विचार करतात हाजो केन्ना अदमासूच लायलो ना आनी शांतारामबाबान जो सल्लो दिल्लो तो अंमलांतूय हाडलो ना. ताणीं दिल्लो चेक येवन तांकां नेमान अंक धाडीत रावलों.

पूण हालींच भाटीकारबाबांच्या वाढदिसाक मेळिल्ले कडेन ताणीं शुध्दलेखनाचे बाबतींत म्हाका कांय सुचोवण्यो केल्ल्यो त्यो मात हांवें रोखडयोच आपणायल्यो. तांचें म्हणणें आशिल्लें हांव 'हाचें', 'ताचें' सर्वनाम वापरतां तें चुकीचें अशें म्हणना पूण तें नेमा प्रमाणें 'हाजें','ताजें' अशें जावंक जाय आनी ताणीं म्हाका तो नेम सांगलो जो हांव ातां विसरलां. तो म्हाका आतां सुरेशबाब बोरकारां कडल्यान समजून घेवंक जाय.

शांतारामबाबांचें पुराय कुटूंब म्हळ्यार पूत,सून,नातरां हालींच राजस्थानचे भोंवडेर गेल्लें. मडगांवचें यात्रिक ट्रॅवल्स ह्या भोंवडयांचें आयोजन करता. त्याच टुराक तांचे वांगडा सुरेशबाब आमोणकार आनी हांव आशिल्लों. त्या आठ -धा दिसांच्या टुराक आमी बरेच लागीं आयिल्ले. आदीं खंयचेय परिशदेच्या निमतान कोंकणी भक्तांचो टुर हेर राज्यांत वतालो ताजो 'फिल' दिवपी ही भोंवडी आशिल्ली.

शांतारामबाबांची आनी म्हजी वळख खूब आदली. हांव कोंकणी चळवळींत भितर सरत साकून. शांतारामबाब शणै गोंयबाबांचे नातू म्हूण तांचे विशीं म्हाका भोवच आदर.ती एक आगळीच भावना आसता. हालीं तेंपार हांव महात्मा गांधीजींचे नातू राजमोहन गांधी हांचे वांगडा वेगवेगळ्या मंचांचेर आसतां तेन्नाय म्हजे भितर तशीच भावना आसता. जांकां हांव मेळूंक पावलों




ना तांकां ह्या माध्यमांतल्यान मेळटां म्हणपाची ती भावना आसूं येता! पूण तांचे कडेन लागसारपण वाडूंक पावलो तो ते सेझ्या गोंयचे अधिकारी आशिल्ले देखून.

तेन्ना सेझा घर आल्तिन्यार आकाशवाणी मुखा वयले एके इमारतींत आशिल्लें. उपरांत तेच सुवातेर कला अकादमीचें कार्यालय कांय तेंप आशिल्लें. शांतारामबाब आमचो देखून सेझ्या घर आमचें. तेन्ना बिम्ब नाशिल्लें पूण कसलो ना कसलो वर्सुकी अंक येतालो. ताका सेझ्या गोंयची जायरात मेळची देखून हांव शांतारामबाबाक मेळूंक वतालों आनी शांतरामबाब तें काम आपलेपणान करताले. थंयच्यान निवृत्त जाय म्हणसर ताणीं तें काम आपली कोंकणी कडली लागणूक म्हूण आपलेपणान केली आनी थंयच्यान निवृत्त जावन वतना म्हजी वळख तांचे हाता सकयल काम करपी वाज हे व्यक्ती कडेन करून दिली. म्हाका जमता तशें फुडाराक सहकार्य करपाचें तांकां विनयलें.

शांतारामबाबांचो हो वावर म्हजे खातीर आशिल्लो. पूण कोंकणी खातीर? शांतारामबाब कोंकणी चळवळींत आमचे सारखे रस्त्यार दिसले नात तरी विधायक वावरांत ते शणै गोंयबाबांवरींच ते बैठक मारून, मान मोडून काम करताले. जेन्ना जेन्ना कोंकणीचेर आनी कोंकणी कार्यकर्त्यांचेर आरोप जाल्यात तेन्ना तांणीं शां.शं.वर्दे ह्या नांवान तांकां समर्पक जापो दिल्यात. कोंकणी भाशा मंडळान पणजे फांटो उगडून कोंकणीच्या वावराक आरंभ केलो तेन्ना भुरग्यां खातीर 'अपुरबाय' हें नेमाळें चलयलें. ताजें संपादन शांतारामबाबान आपल्या भुजांर घेतलें.

शणै गोंयबाबांचें साहित्य कोंकणी भक्तां मेरेन पावचें हे पासत जेन्ना वावर सुरू जालो तेन्ना ताजें संपादन करपाची जापसालदारकी शांतारामबाबान आपल्याचेर घेतली आनी 'वज्रलिखणी' हें संपादीत पुस्तक तयार केलें. उपरांत गोवा कोंकणी अकादेमी आनी इन्स्टीट्यूट मिनेझीस ब्रागांस ह्या संस्थांनी जोडपालवान शणै गोंयबाबांचें समग्र साहित्य चार खंडांत हाडपाचो वावर हातांत घेतलो तेन्ना ताज्या संपादनाचो भार शांतारामबाबांनी समर्थपणान पेललो.

अणकारांतूय शांतारामबाब फिशाल आशिल्ले. ताणीं कालीदासाचें 'मेघदूत' कोंकणींत हाडून आमकां ताजें मोस्र दाखयलां.

पूण ह्याय परस तंत्रज्ञानान जेन्ना कूस बदलली आनी छापणावळीन संगणकीय मळार पावली तेन्ना संगणकांतले एक्सपर्ट आशिल्ल्या शांतरामबाबान कोंकणीक संगणकाचें बोट धरपाक शिकयलें.

शांत चित्तान कोंकणीची सेवा शांतपणान करीत आयिल्ल्या शांतरामबाबांक बिम्ब परिवाराची आर्गां.



## व्यक्तीमत्व



संपदा कुंकळकार

भारतीय आनी संवसारीक तत्वगिन्यान हाचेर संशोधन करपी **संपदा शेणवी कुंकळकार** हाणीं आतां मेरेन तत्वगिन्यानाचेर आधारीत ९ पुस्तकां बरयल्यांत. सद्या तांचें भगवद्‌गीता हाचेवेलें पुस्तक तयार जालां.

# यज्ञ

यज्ञ म्हळ्यार सर्वसादारणपणान होमखंडांत तूप आनी समिधा घालप. गिर्तेंत जायते कडेन 'यज्ञ' हें उतर आयलां. ताजे संदर्भूय बी बदलत गेल्यात. आमच्या शास्त्रांत यज्ञांक खूब म्हत्व आसा. यज्ञ ह्या उतराक एक खोल अर्थ आसा.

यज्ञ म्हळ्यार कितें? यज्ञ करप म्हळ्यार आहुती दिवप. आदर्श जिवीत जगपा खातीर आडखळी हाडटा ते गजालींची आहुती दिवप. यज्ञाक आनी एक अर्थ आसा. दान करप.

यज्ञ करप हें एके तरेचें प्रतिक. होमखंडांत तूप आनी समिधा घालप हें त्यागाचें प्रतिक. एक येसस्वी कारकीर्द आनी जिवीत घडोवपाक दर एकल्याक त्याग हो करचोच पडटा. होमखंडांत पेटपी उजो हें मनशाचें ध्येय. तो उजो पेटत उरपाक तातूंत तूप आनी समिधा घालतात. हें तूप आनी समिधा म्हळ्यार ध्येयाकडेन पावपा खातीर आराम, न्हीद, घाम, मनोरंजन हें सगळें त्या ध्येयाच्या होमखंडांत घालप. कश्ट घेतल्या बगर ध्येय सादना.

अशें म्हणटात यज्ञ करतकच खंय पूण्य मेळटा. हांगा यज्ञ म्हळ्यार दान. दुसऱ्याच्या बऱ्या खातीर दिल्लें दान. यज्ञ जायते तरेन करूं येतात. गिर्तेंत ५ यज्ञ सांगल्यात - द्रव्य यज्ञ, तपो यज्ञ, योग यज्ञ, स्वाध्याय यज्ञ आनी ज्ञान यज्ञ. एक आदर्श जिवीत जगपाक हे ५ यज्ञ करप गरजेचें.

**द्रव्य यज्ञ**-द्रव्य म्हळ्यार संपत्ती वा जें तुमचे मालकिचें आसा तें. तुमचे संपत्तीन केल्लो यज्ञ म्हळ्यार तुमी दिल्लें दान. दान हें सदांच आपले कडेन जें आसा तातूंतल्यान दिवचें. बऱ्या मार्गान जोडिल्लो पयसो बऱ्या हेतून दान करप. गरजेवंताक दिवप. हो द्रव्य यज्ञ करपाक मनीस खूब श्रीमंत आसपाक जाय अशें ना. दर एकल्यान आपल्याक जमता अशें दान दिवं येता. आपले मालकिचो वेळ दिवं येता. वेळा सारकी दुसरी मोलादीक वस्त ह्या संवसारांत ना. माया दिवं येता. वापरना ते कपडे वा सामान गरजेवंतांक दिवं येतात. कांय जाण ओगीच सगळया गजालींक चिकटून रावतात. घरांत अश्यो जायत्यो वस्तू आसतात ज्यो आमी वापरनात वा फुडें वापरचींय ना आनी त्या वस्तूंची एखाद्याक गरज आसता. तेन्ना त्यो दिवंच्यो. चार-चवगां समोर व्हड प्रमाणांत केलें तरूच तें दान थारता अशें न्हय. एखाद्याक केल्ली ल्हान मदत लेगीत दानूच आसता.



**तपो यज्ञ** - हांगा तप म्हळ्यार तपश्चर्या. तपश्चर्या म्हळ्यार रानांत वचून करतात ती न्हय. तपश्चर्या म्हळ्यार संयमान आनी शिस्तीन जगप. मनाचेर आनी कुडीचेर संयम दवरप. तपो यज्ञ म्हळ्यार तपश्चर्येचो यज्ञ. मनशान व्हडल्यांचो आदर करचो. निवळ रावचें. भायल्यान तशें भितरल्यान. खंयच्याच जिवाक त्रास दिवंचो न्हय. अहिंसेक पाळो दिवंचो. मन प्रसन्न दवरचें. म्होंवाळ आसचें. बरें उलोवचें, वायट उलोवप ना, सत्य उलोवप. दुसऱ्यांचें मन दुखोवप ना. मनाक शिस्त लागली म्हणटकच मनशाक कांयच अशक्य ना.

**योग यज्ञ**- दर एक गजाल कुशळतायेन करप म्हळ्यार योग. दर एक गजालींत समतोलपणां आसपाक जाय. जें कितें करता तें मन लावन करप.

**(पान क्र. ९७ पळयात...)**



भलायकी



राज वैद्य

# हाडां फ्रॅक?

## आहार, व्यायाम आनी गुळयो..

गोंयांतले नामनेचे हिन्दु फार्मासीचे धनी आशिल्ले **राज वैद्य** हे वखदां मळार तळमळीन वावुरतात. आपल्या लिखाणांतल्यान आनी विंगविंगड चर्चासत्रांतल्यान ते लोकांमदीं जागृताय हाडून योग्य वखदां कशे तरेन घेवप हाचें सातत्यान मार्गदर्शन करतात.

दोतोरा कडेन गेल्लें मॅरी ताणें दिल्लें रशेद घेवन फार्मासींत येता.

मॅरी : बाय मात्शें सारकें सांग पळोवया. दोतोर म्हणटा ह्यो गुळयो सकाळफुडें निराळया पोटार घे. आनी किर्ते किर्ते सांगलेलें तें मात हांव सगळें विसरलें.

नेहा : हय आण्टी. टेन्शन घेवं नाका. हांव तुका सगळें ज्युस्त सांगतां.

मॅरी : देखून तुजेकोडे आयलां हांव बाय.

नेहा : ह्यो पळय आण्टी... दोतोरान ह्यो गुळयो बरयल्यात. हाजो ब्रॅण्ड आसा ऑसफॅास ७० मिलीग्राम. हातूंत वखद आसता ताजें नांव हें पळय हांगा बरयलां. - ॲलनड्रोनेट ७० मि.मी.

मॅरी : खूब दीस जाले गो बाय हांव मात्शें वाकडेंशें जावंक लागलें. हाडां दुखपाक लागलीं. म्हणून गेल्लें दोतोरा कडेन देखून ताणें कसल्यो कसल्यो टेस्टी करपाक लायल्यो आनी रिपोर्ट पळोवन म्हणपाक लागलो चड कांय ना. पिरायेक लागून हाडां मात्शीं पातळ जाल्यांत.

नेहा : हय आण्टी ताकाच लागून दिल्यात ह्यो गुळयो. दोतोरान हांगा रशेदाचेर डायग्नोसीस बरयल्या. 'ऑस्टियोपोरोसीस'. तुमचीं हाडां भितरल्यान मात्शीं मात्शीं ठिसूळ जाल्यांत. तशें पिराय वाडटा म्हणटकच जाता. बायलांमदीं अशें जावप चड शक्यताय आसता. तूं मात्शी वाकल्या, हाडां दुखता म्हणटा तें हाकाच लागून.

मॅरी : पूण हांव कॅल्शियम आनी विटामीन डी गुळयो घेतालें मगो. तरी अशें कशें जालें?

नेहा : जाता आण्टी. पिराय वाडटा न्हू. तुजो व्यायाम बी जातालो काय ना इतलीं वर्सां? तूं कॅल्शीयम आशिल्लें जेवण खाण घेताली काय ना? हें आतांच न्हय तर आदीं सावन संवय लावन घेवपाक जाय. कित्याक पिराय पंचवीस जाली म्हणटकच हाडां पातळ जावप हें सैमिकूच आसता. देखून ताजे पयलींच फावो तो आहार आनी व्यायाम हो खूब म्हत्वाचो. हें २५ वर्सां सोंपल्या उपरांत चालूच दवरूंक जाय. ताका लागून हाडां पातळ जावपाची, ठिसूळ जावपाची गजाल तांतले तातूंत उणी जाता.

मॅरी : आरे, हें कोणें सांगलेंच ना.

नेहा : आतां जालें तें जालें. आतां तूं तुजे धुवेक तरी सांग हें. तिका तरी उपेग जातलो.



मॅरी : हय गो बाय. आनी म्हजें किर्ते? फकत गुळयोच?

नेहा : गुळयो दोतोर सांगता तितले दीस घेवपाच्यो. पूण तुवें योग्य आहार घेवपाची गरज आसा आनी व्यायाम जाय. तो करताना ल्हव ल्हव सुरू करपाक जाय. पयलीं उणो आनी मागीर अर्दवर मेरेन करप गरजेचें. एकदम ही गजाल काम करिना. हाडां जर पातळ आसत जाल्यार क्रॅक नाजाल्यार फ्रॅक्चर जावंक शकता. ह्यो गुळयो हेल्प करतल्यो तुका.

मॅरी : आहार बरो म्हणजे किर्ते घेवंक जाय बाय?

नेहा : हाडां खातीर कॅल्शीयम आनी विटामीन डी म्हत्वाचें. सगळयो पाले भाजयो, सिजनल फळां हीं गरजेचीं. तरेतरेच्यो भाजयो

(पान क्र. ९७ पळवात...)

आहारांत घेतल्यो म्हणटकच तातूंत विटामिना आनी मिनेरलां बऱ्या प्रमाणांत आमकां मेळटात.

मॅरी : हय बाय. करतां हळुहळू सुरवात. पूण म्हाका आतां टेन्शन पडलां ह्या गुळयांचें. सांग पळोवया ह्यो कश्यो कश्यो घेवपाच्यो त्यो.

नेहा : ही पळय स्ट्रिप. हातूंत चार गुळयो आसात. सुमानाक एकूच घेवपाची. आयज दीस किर्तें? ब्रेस्तार. एक तर फाल्यांच्यान सुरू कर, नातर यादीक बरी पडटा जाल्यार आयतारच्यान. म्हणटकच दर आयतारा एक गुळी करीत आठ सुमानां रेगुलर घे. दोतोरान तशें बरयलां.

मॅरी : बरें बाय. ती उपाशीं पोटार घेवपाक भंय दिसता बाय.

नेहा : आण्टी भिवपाची गरज ना. ह्यो गुळयो उपाशीं पोटारूच घेवपाच्यो आसतात. सकाळीं उठली काय तोंड धू आनी ही एक गुळी घे उदका बराबर. ताजे उपरांत एक वर तरी कांयच खावं नाका. कॉफी ना, ज्युस बी कांयच ना. फक्त उदक पिल्यार जाता. आनी दुसरें गुळी घेतल्या उपरांत एक वर तरी बागोवपाचें ना. आनी आड पडूंक फावना.

मॅरी : कित्याक गो बाय?

नेहा : ही गुळी आसता न्ही ती आमच्या पोटांत अन्नाची नळी आसता ताका ना जाल्यार ताळ्याक इरिटेट करून अल्सर लेगीत जावंक शकता. देखून उपाशीं पोटार दोन ग्लास उदका बराबर घेवप. कांयच खावप ना आनी दोन वरां आड पडप ना. उपाशीं पोटार गुळी मात्शी बेगीन आंतकड्यांतल्यान मुखार वता. मर्दी किर्तेंय खाल्लें जाल्यार गुळी मुखार वचपाक टायम लागता. ते भायर तें खाता ताका लागून गुळयेंतल्या वखदाचें शोशण उणें जाता.

मॅरी : हांव जाणांच आशिल्लें बाय. तूं सारकें म्हाका सांगतलें म्हूण.

नेहा : आनी हें पळय आण्टी पेशंटाची म्हायती पासत हे स्ट्रिपी वांगडा हें कागद आसा. ताजेर सगळें समजावन सांगिल्लें आसा. हें घरा व्हर आनी सारकें वाचून घे आनी आयतारा सकाळच्यान गुळी घेवपाक सुरवात कर.

मॅरी : देव बरें करूं गो बाय तुजें. खरेंच जिवाक बरें दिसलें.

नेहा : ह्यो गुळयो सारक्यो घे आनी हांवें सांगलां तसो आहार, व्यायाम सुरू कर. आनी मागीर पळय तुजें आंग वाकडें जाता तें, घोपरां दुखता तें सगळें बरें जाता काय ना तें.

मॅरी : हय बाय तशेंच करतां. म्हजें उतर तुका हें.

इंडियन फार्मास्युटिकल असोसिएशन, गोंय
(ipacpd@gmail.com)

(यज्ञ - पान क्र. : ९२ वयल्यान...)

व्हडांतली व्हड तशी बारीकांतली बारीक गजाल दर एकल्यान कुशळटायेन करची. खंयच्याच गजालिंचो अतिरेक जावपाक जायना. न्हिदप, खावप, खंयचीय गजाल अमूक एके मर्यादे भायर गेली म्हणटकच तें वेसन जाता. तातूंत नकारात्मकता येता. उलोवप लेगीत जाय तितलेंच आसचें. मनशान चड बडबड करची न्हय. तत्वां पाळटना लेगीत तांचो अतिरेक जावंचो ना हाजी जतनाय घेवपाक जाय. सगळें समतोलपणान आनी कुशळटायेन करप म्हळ्यार योग्य यज्ञ.

**स्वाध्याय यज्ञ** - स्वाध्याय म्हळ्यार स्वत: शिकप. शाळेंत वा कॉलेजींत वचून आमी पुस्तकी ज्ञान घेतात. पूण दर एकल्याक मेळयल्लें ज्ञान वापरपाक कळपाक जाय. मनशान शास्त्रां वाचचीं, पुस्तकां वाचचीं. जें वाचलां ताजेर चिंतन, मनन करचें. जें आवडलें तें आपणावचें. आमी फकत शाळेंत वा कॉलेजींत शिकतात अशें न्हय. आमी आमचे भोंवतणी जें किर्तें घडटा तातूंतल्यान शिकतात. विचार करप ही प्रक्रिया खूब म्हत्वाची. स्वाध्याय करतकच मनशाक बरें आनी वायट हांतलो फरक कळटा. मनशाचे आध्यात्मीक वाडी खातीर हो स्वाध्याय यज्ञ खूब गरजेचो.

**ज्ञान यज्ञ** - ज्ञानाचो यज्ञ करप म्हळ्यार सगळें नेणारपण ज्ञानाच्या उज्यांत यालप. ज्ञान खूब म्हत्वाचें. भारतीय संस्कृताय ही ज्ञानाचे बुन्यादीचेर उबी आसा. आनी म्हणूनूच ती तिगून उरल्या.ज्ञान सगळे कडेन आसा. सैमांत लेगीत कितलें गिन्यान भरलां. मनशान जाता तितलें ज्ञान एकठांय करचें. ज्ञानाचो उजवाड जिवितांतलो सगळो काळोख ना करता.

गीतेंत सांगिल्लें हे पांच यज्ञ मनशाचो पुराय व्यक्तिमत्व विकास करतात. हे पांचूय यज्ञ मनशाच्या मानसीक, भावनीक आनी आध्यात्मीक वाडी खातीर खूब गरजेचे. संवसार सोडून वतना आमीयच घेवन वचनांत.पूण आमी दिवपाक शकतात.समाजाक आपलो वेळ,इल्लें धन,कला आनी प्रेम दिवप हें आमचें कर्तव्य. आनी आमी हें कर्तव्य पुराय करपाक जाय. पूण समाजाक दिवपाक पयलीं आमी सशक्त जावप गरजेचें. हे पांचूय यज्ञ करतकच मनीस सशक्त जाता.

माशेल-गोंय, मो.: 9850149319



आकर्शण

# दिलीप बोरकार हांकां फेलिसियो कार्दोज पत्रकारिता पुरस्कार भेटयलो!



बिम्ब मासिकाचे संपादक आनी ज्येश्ठ पत्रकार दिलीप बोरकार हांकां हालींच फेलिसियो कार्दोज पत्रकारिता पुरस्कार भेटयलो. ज्येश्ठ पत्रकार आनी सुटके झुजारी फेलिसियो कार्दोज हांच्या उगडासाक दर वर्सा फेलिसियो कार्दोज पाठलावदार संस्था पत्रकारिता पुरस्कार भेटयता. अंदूं ह्या पुरस्काराचे मानकरी दिलीप बोरकार आशिल्ले. हो सुवाळो मडगांवच्या रवीन्द्र भवनांत हालींच जालो.




दिलीप बोरकार हांकां फेलिसियो कार्दोज पत्रकारिता पुरस्कार भेटयतना नामनेचे गीतकार आनी ज्येश्ठ पत्रकार उदय भेंब्रे. वांगडा कोंकणी भाशा मंडळाचे अध्यक्ष चेतन आचार्य, तशेंच फेलिसियो कार्दोज पाठलावदार संस्थेचे अध्यक्ष अँथोनी मिनेझीस.



पुरस्कार भेटवण सुवाळ्याक हाजीर आशिल्ले लोकमतचे संपादक राजू नायक, नामनेचे साहित्यीक दामोदर मावजो, समिक्षक आनी एम. ई. एस. महाविद्यालयाचे आदले प्राचार्य आनी हेर लोक.



## आकर्शण




सम्राट क्लब पणजी आनी गोंय राज्याचें कला आनी संस्कृती संचालनालय हांच्या जोड पालवान हालींच पणजे 'अमृताचो पावस' हो गायनाचो कार्यक्रम जालो. बाकिबाब बोरकार हांच्या गितांच्या ह्या सुवाळ्यांत गीतकार आनी गायक शिरीष लवंदे तशेंच अर्चना खांडेपारकार हांणीं गीतां सादर करून रसिकांक चिंब भिजयले. हे कार्यावळीचें सुत्रसंचालन वंदिता लवंदे हांणीं केलें.



नॅशनल सोशियल सर्वीसची वावुरपी आनी शिक्षीका सुचेता पै कामत हांच्या ह्याच विशयावेलें पुस्तक हालींच उजवाडाक आयलें. त्या वेळार पुस्तकाचें प्रकाशन करतना धेंपे हायर सेकंडरीचे आदले प्राचार्य डॉ. सावर्डेकार, साहित्य अकादमीचे कोंकणीचे सल्लागार डॉ. भूषण भावे, लेखिका सुमेधा कामत, सुजाता भाटकार आनी हेर मानेस्त.





– संतोष हळर्णकार
बांदिवडे-बंदर,फोंडा-गोवा ४०३ ४०१.
मो. : ९७६२६४१६१५




| १ | | २ | ३ | ■ | ४ | ५ | | ६ | |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| | ■ | ७ | | ८ | | | ■ | | ■ |
| ९ | १० | | ■ | ११ | | ■ | १२ | | |
| १३ | | ■ | १४ | | ■ | १५ | | | ■ |
| ■ | ■ | १६ | | ■ | १७ | ■ | | ■ | १८ |
| १९ | २० | ■ | | ■ | २१ | | | २२ | |
| २३ | | २४ | | ■ | | ■ | ■ | २५ | |
| | ■ | | ■ | २६ | | २७ | | ■ | ■ |
| २८ | | | | ■ | २९ | | ■ | ३० | ■ |
| ■ | ■ | | ■ | ३१ | ■ | ■ | ३२ | | |

**आडवे :** १. लढाय करपार्चे लोखणा पार्ते आनी मूठ आशिल्लें शस्त्र, ४. दशा, वायट स्थिती, ७. गरजेक आविल्लें, आधार जाय जाल्लें, ९. लुगट बी कापचेलें दोन पात्यांचें एक हत्यार, ११. वांगडी, शाळेंत शिकपी भुरगो, १२. हड्ड्यांत आशिल्लो कुडीचो एक म्हत्वाचो भाग, अंतस्कर्ण, १३. उश्णो येतिल्लो दुडू वा वस्त, १४. चुडटांनी वा कड्डान शिंविल्ली रावपाची सुवात, १५. धातूचो डबो, १६. चपलां आनी बुटांची निर्मिती करपी एक कंपनी, १९. पेट, धग, २१. भाटकार, जमनीचो धनी, २३. नाखटांनी बुड्डप, बोटांनी यश्टप, २५. मस्ती, मदान्तकाय, २६. चामडेर जाल्ली चामडेची पुळी, २८. पळून वतना जाल्लो बोवाळ, सगळ्यांनी मारिल्ली धांव, २९. झुजामळ, ३१. दीस (इंग्लीश), ३२. गणपतीची आवय.

**उबे :** १. शाक भाजी, भाजी पालो, २. दर्या, व्हड समुद्र, ३. मोल, किंमत, ४. लाळिचो घोंट, इत्सा, ५. सुर्याच्या किरणांचो उजवाड, ६. कावळ्याची मादी, ८. जियेवप, जितो उरप, १०. शेतांतलें गवत, १२. बरोवपाचो वावर करपी चाकर, १४. खोंटो मारप, खोंटांनी बडोवप, १७. सासणाक उरता अर्शे, अमर, १८. अश्टविनायकां मदलो महाडचो गणपती - XXX विनायक, १९. उबारप, वयर काडप, २०. ताप, नेट, २२. XX करी, काम, पयसो, २४. बडबड, पचर्के उलोवर्णे, २७. इल्लोसो वेळ, ३०. बडाय, व्हडवीक, अभिमान.

ऑगस्ट१९ची जाप

| का | ट | क | स | री | ■ | मो | ह | र | म |
|---|---|---|---|---|---|---|---|---|---|
| जे | ■ | इ | ■ | त | ळी | ■ | रि | क्षा | ■ |
| ल | वं | ड | प | ■ | ■ | वां | ज | ■ | ज |
| ■ | शा | प | ■ | ते | व | टे | न | ■ | न |
| जा | व | ■ | के | न्ना | ■ | का | ■ | जा | ग |
| ती | ळ | गू | ळ | ■ | सा | र | कें | प | ण |
| वं | ■ | ■ | व | ण | त | ■ | ■ | ■ | म |
| त | ळ | सा | ण | ■ | स | मु | द्र | न्हा | ण |
| ■ | ■ | ग | ■ | पा | ठ | ■ | वि | ■ | ■ |
| प | स | र | का | र | ■ | प | ड | मू | र |

